# केरळांतलें कोंकणी साहित्य - एक परिचर्चा

The following is the Testimonial in the Konkani language and modified Devanāgari characters, signed by three Brāhmans, and published in the Preface to the first volume of *Hortus Indicus Malabaricus* by H. Van Rheede. Amsterdam edition of 1678,

# केरळांतलें कोंकणी साहित्य
## - एक परिचर्चा -

केन्द्र साहित्य अकादमीन
कोंकणी भाषा प्रचार सभेच्या सहकारान
महाकवी जी सभाघर, एर्नाकुळम, कोची हांगा
15 आनी 16 अक्टोबर 1992 ह्या दिसानी
घडोवन हाडिल्ल्या परिचर्चेंतलीं प्रबन्धां




**केरळ कोंकणी अकादमी**
**कोची**
**1993**

# KERALANTLEM KONKANI SAHITYA EK PARICHARCḤA

(KONKANI)

A collection of Seminar Papers on Konkani Literature in Kerala



First Edition May 1993

Published by:
Kerala Konkani Academy
Admn. Office: 'Gokul'
West Nada, Palluruthy
COCHIN 682006

Price: Rs. 40/-

ISBN-81-85367-21-3

Printed at: Codeword Process & Printers, Mangalore-575 001



# मांडावळ




Prof: Sukumar Azhicode inaugurating the Seminar on Konkani Literature in Kerala at Cochin. Also on the dias are Sri. C.P. Sreedharan [President, Samasta Kerala Sahitya Parishad], Prof: R.K. Rao [Director, Konkani Language Institute] and Adv. A. Rama Prabhu [Vice-President, Konkani Bhasha Prachar Sabha].

# दोन उतरां

केरळांतलें कोंकणी साहित्या विशीं केन्द्र साहित्य अकादमीन घडोवन हाडिल्लें चर्चासत्रांत वाचिल्ले उपन्यास एकठांय करून हें पुस्तक भायर काडताना आमकां भौ संतोष दिसता. पोरुं एर्नाकुळमांत चल्लेल्या त्या परिचर्चेंतल्यान केरळचे कोंकणी साहित्या पासून एक सूक्ष्मचित्रण भायरच्यांक मेळूंक लागलां. त्या परिचर्चेक आतिथ्य दिलेल्या कोंकणी भाशा प्रचार सभेन एक बरें काम केलें.

परिचर्चेंतले उपन्यास आयकून जायत्या जाणांनी तीं वाचूंक जाय अशें म्हळें. साहित्य अकादमीन तीं टाइप करून वांटले पुण सगळे प्रबंध तशें सगळ्यांक मेळ्ळे नात. आनी त्या परिचर्चा पळोंवक कोणाक तरि जालेना ताणी ते उपन्यास वाचूंक आग्रोह केलो. अशें आमचेकडे आयिल्या निवेदनांक लागून आमी हें पुस्तक भायर काडूंक थारायलें. हें केरळ कोंकणी अकादमीचें एकवीसावें कोंकणी पुस्तक आसा. केरळांतलें कोंकणी साहित्याकच एक मोलादिक भेंट जावन हें पुस्तक उरतलें आनी सगळे देशांतले कोंकणी अभिमानी लोक हे समझुन घेतले अशें आमी लेकतात.

वेगवेगळे विशयांचेर मांडयिल्ल्या उपन्यास ह्या संकलनांत मेळोंवक सहमत दिलेल्या लेखकांक आमचो धन्यवाद कळयतात. तशेंच साहित्य अकादमी आनी कोंकणी भाशा प्रचार सभा हांकांय आमचीं रीणाचीं उतरां कळयतात.

मंगळूरच्या 'कोडवर्ड प्रोसेस एण्ड प्रिण्टर्स' हांणी ह्या पुस्तक बरें करून मुद्रण करून दिलें त्या खातिर तांचो धनी आनी कर्मचारीवर्गाक आमचो धन्यवाद.

ती परिचर्चा घडांवक सुदीर्घ यत्न काडून उपरांत ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवन आमकां सहाय केलेल्या प्रो. आनन्दन हांचेकडे आमी आभारी.

**- केरळ कोंकणी अकादमी**

# प्रस्तावना

केरळांतले कोंकणी विषय साहित्य अकादमीन समस्त केरळ साहित्य परिषदेच्या महाकवि जी. सभाघरांत (1992-10-15 & 16) परिचर्चा चलयली आसली मू. आतां हे परिचर्चेंत वाचून सादर केले त्या प्रबंधांचें पुस्तका रूपान प्रकाशन करूंक केरळ कोंकणी अकादमी मुखार सरल्य हें भारी आनन्दाचें एक खबर (9-2-1993 चें पत्र) कि नासल्यार हीं 'पेपरां' अकादमीच्य एक मूल्याक 'फायलांत' लिपून पडतालीं आसलीं !

स्व. पद्श्री डा.र.वि. पंडित, डा. मनोहर सरदेसाय, डा. ओलिविन्य गोमीश आनी हेर कांय गोंयकार बरवप्यांनी केरळांतले कोंकणीचेर दाकयलें व्हड तात्पर्य म्हाकाच अणभसलें आसलें.

ह्या भायर 1985 कच हांवे अकादमीकडेन अशी परिचर्चा चलवचे खातीर मागणी दवल्ली आसली.

हेंच न्हय, साहित्यिक, भाषीक, सामाजीक, सांस्कृतीक आनी शैक्षणीक नदरेन पळयताना केरळांतली कोंकणी मोलदीक दिसता. केरळांतले कोंकणींत साहित्य ऊणे आसयात शिवाय तीका सोळ्यार कोंकणीचें पुराय समग्र एक चित्र आमकां मेळना जातलें मु.

भाषीक दृष्टीन चोयताना केरळांतली कोंकणी आवय कोंकणीचें अविभाज्य एक अंग-भाषाभेद-अशी दिसता - साहित्यिक दृष्टीन चोयतात तरी जाल्यार हेर कांय राज्यांत मेळनासलें थोडें साहित्य आमकां केरळांत मेळता.

सामाजीक आनी सांस्कृतीक दृष्टीन पळयताना केरळचो कोंकणी समाज हेर राज्यांतले कोंकणी समाजांतु सून थोडेशें बदलून आसा. त्याच कारणान हे समाजाचें अवधानपूर्वक अध्ययन करचें आसा आनी हो समाज हेर राज्यांतले सभार समाजांतसून जे जे सामाजीक-आर्थीक आनी सांस्कृतीक मळार व्यत्यस्त उरला आनी ताजीं जीं जीं कारणां आसात हें आमी समझूचें आसा. इतलेंच केले विना कोंकणी समाजाचो भाषीक साहित्यिक-सामाजीक आनी सास्कृतीक दृष्टीन अध्ययन अपूर्णचि उरतलें ! आनी कोंकणी समाजाचें भारतांतलेच समस्त जीवनाक मोलादीक योगदान आसा मू.

आतां शैक्षणीक दृष्टीन चोवया. गोंयांतले विद्यापीठांत कोंकणी विभागाचो प्रारंभ जालो. आनी थंय एम.ए. आनी बी.ए. पदवी खातीर कोंकणी मुख्य विषय घेवन सीखपाचीय व्यवस्था केली. ताका लागून सीखपाचे विषयांत समस्त भारतांतलेय ना जगांतलेय कोंकणीचें दिगदर्शन सीखचे जनांक मेळचें अवश्य भोगलें. एकेक शैलींतलें कोंकणी साहित्य, एकेक राज्यांतलें कोंकणी साहित्य, आनी एकेक समाजाचेंय कोंकणी साहित्य ताणीं अवश्य वाचून समझूचें आसा. तेच भाशेन विगंड-विंगड भासा भेदांचीय जाणवीकाय करनु घेवपाचीय तांकां गरज पडली. कोंकणीचें पूर्णस्वरूप तेन्ना मात तांकां मेळतलें - विना ते तळयांतले बेबेच उरतले मू ! गोंय विद्यापीठांतलीं तेरा विद्यार्थी जनां हेच कारणान हे परिचर्चेंत वांटे घेवचाक नियुक्त जालीं आसलीं.

विद्यार्थी जनांक मात न्हय हेरांकय तांचे कांय राज्यांतले भाव-भयण्याचे मद्दें संपर्क वाडून आयल्यार मात कोंकणी समाज बळिष्ट जावपाक शकतलें. कोंकणी भाषेचें प्रमाणीकरण साध्य उरतलें; आनी कोंकणींत तरेकतराचें, विंगड-विंगड शैलींचें आनी रसाचें साहित्य वाडून येतलें. ताका लागून कोंकणीचें सांस्कृतीक शरीर रंगारंग जातलें.

ही परिचर्चा केरळांत चलवचे खातीर मागणी दवरनु सुमार वर्सां जालीं पुण अकादमीक हे विषयांत निर्णय घेवचाक जालें 1992 जूलै म्हयन्यांत मात. ते कारणान तीन म्हयने भीतर पूराय तैयारी करका जाली. भो ऊणे वेळ भीतर पेपर-वाचप्यांक तांचीं पेपरां तैयार करका जालीं. हाका लागून पूराय 'पेपरां' जाय तितलेंच वाचून-सोधून समग्र रूपान बरवनु तैयार करूंक जालीं म्हणूंक हांव अशक्त आसा. एक लेकान त्या खातीर चड वेळ मेळो तरी आसलो ही परिचर्चा चड चन्दायेन चलता आसताली. पुण आनन्दाचें खबर हेंच कि जाण्टे मनशांचे-सम्पत्तीचे-संस्थंचे-उमेदीचे-बरवप्यांचे - साहित्याचे-अशीच सभार दृष्टीन पळयतानाय केरळाचे मुखार सभार चलून सरले कर्नाटकांत-मुंबयांत ना गोंयांतच अशी परिचर्चा साहित्य अकादमी वतीन चल्लीच ना. त्या भायर ही परिचर्चा अकस्मात हेच सन्धार चल्ली कि कोंकणीक भारताच्या संविधानाचे आठवे वळेरेंत मान्यताय मेळ्ळे त्याच काळाक-हेंवय भो सन्तोषाचें एक खबर उरलें.

आनी एक कसलें म्हळयार हे परिचर्चेचीं पूराय पेपरां पुस्तकाचे रूपान ऊजवाडाक येतात म्हणचें. परिचर्चा सेमिनार हांगा सभार चलतात शिवाय तांत प्रकटायलीं ती पेपरां-अर्थात ते मोलदीक विचार-जनांचे मनांत वाचून समझूक तैयार जावनु मेळनात!! परिचर्चा चलयले कांय सस्थेंच्या कारागारांतले एक कोण्स्याक पडुन कोण वाचुक नासलें पिटो जावन ना वळती येवन वतात!!! पुण केरळांतले कोंकणी विषय साहित्य अकादमीन चलयली परिचर्चा केरळांत पयली आसून हांत सादर केलीं तीं प्रबन्धां पुस्तकाचे रूपान उजवाडाक येतात. हें म्हत्वाचें एक कार्य आसा. हांत केरळांतले पद्य-गद्य-दोनीय प्रकाराचे साहित्याचेर पूराप दृष्टी दील्या. इतिहास कवितेचेर मात न्हय भावगीतांचेरीय, काणी-नवलिका हांचेर मात न्हय लेख, अणभवकथा, भोवंडी, दिस्पटी जशे हेर कांय गद्य साहित्याचेरीय विचार माण्डल्यात. तशी रूपरेखा समग्र करूक चोयल्यात.

आनी त्या खातीर राष्ट्रीय साहित्य अकादमी आनी कोंकणी भाषा प्रचार सभा हांची अनुमती मेळ्या. हाचे विर्शीं हांव हे दोनीय संस्थेंचोय उपकार मानतां.

पुस्तकाचें रूपान प्रकाशनाचो भार हातांत घेतिल्लो केरळ कोंकणी अकादमीन. त्या खातीर तांचे कडेन म्हजो भारी आनन्द दिसलो कि तो प्रकटावचे खातीर उत्रांच भासेंत मेळनात.

आतां इतलेंच आशंसीतां-
"जयतु कोंकणी जीवतु च"

'हीरा'
सनातनपुरम
आलपळे,
19 मार्च 1993

तुमचो
आनन्दु

**(आनन्दन-एन. एन.)**

# A REPORT ON THE SEMINAR

- **Prakash Bhatambrekar**
Regional Secretary (Bombay)
Sahitya Akademi

The first Sahitya Akademi Seminar on Konkani Literature in Kerala and poets' Meet, 15-16 October, 1992, Mahakavi G. Auditorium, Cochin, hosted by the Konkani Bhasha Prachar Sabha, Cochin.

The inaugural session was started with an invocation by Prof. V. Sivananda Bhat at 10.30 a.m. only, due to the unusual rains in and around the city. Prof. N.N. Anandan (Member, Advisory Board for Konkani, Sahitya Akademi) welcomed the gathering.

Dr. Sukumar Azhikode (Member Executive Board, Sahitya Akademi) in his inaugural address, in Malayalam, paid rich tributes to the late Sri. M. Seshagiri Prabhu and Sri. A.D. Hari Sarma, both belonging to the Konkani speaking stock of Kerala, for their valuable contributions to Malayalam. He also reminded the struggle for existence in spite of which the Konkani speaking people in Kerala preserved their language and culture. The recognition of Konkani by the Sahitya Akademi and its inclusion in the Eighth schedule of the constitution were the important events highlighted by him, as great achievements. Contribution of Dr. S.K. Chatterji in getting the recognition of the Sahitya Akademi, literary merit of the Konkani language, tolerant and catholic attitude of the Konkani people, their contributions to other languages and also to the nation as a whole, were other aspects highlighted by him. With his good wishes for the advancement of Konkani Language and Literature, he lighted the traditional lamp to mark the inaugural ceremony.

Sri. A. Rama Prabhu (Vice-President, Konkani Bhasha Prachar Sabha) who delivered the key-note address traced the history of the Konkani speaking people in Kerala, especially the constraints they had to face such as the problems of the script and their struggle for the preservation of their cultural identity. He recollected the role played by the Konkani Bhasha Prachar Sabha in this regard.

In his felicitation address, Sri. C.P. Sreedharan (President, Samasta

Kerala Sahitya Parishad and also the Vice-President of the Kerala Sahitya Academy) wished the event all success. He pointed out the achievements of the Konkani people, especially their contributions to other languages like Malayalam, Kannada and Marathi, they being multi-linguists. The recent trends in literature like nationalisation and globalisation, and the African example were also highlighted by him for the Konkani people to emulate.

Prof. R.K. Rao, who chaired the session detailed on why there was no rich literature in Konkani of Kerala unlike in the case of Malayalam.

Sri. Prakash Bhatambrekar (Regional Secretary, Sahitya Akademi, Bombay) proposed a vote of thanks.

The first session devoted to Konkani language in Kerala was chaired by Prof. V.V. Sadanandan.

Sri. N. Purushotham Mallya in his paper dealt in detail the historical aspects of the Konkani movement in Kerala, recoginition granted to Konkani by the Census, the Mahajan Commission, the Kerala Government, the Sahitya Akademi and at last its inclusion in the Eighth Schedule and the role played by the Prachar Sabha.

Sri. P.G. Kamath in his paper on "The Impact of Malayalam on Konkani with special reference to the adoption of Malayalam Vocabulary into Konkani", dealt the subject in detail with adequate examples.

The second session was devoted to the prose literature and chaired by Sri. K. Sreedhar Shenoi. Sri. K. Gokuldas Prabhu in his paper on fiction in Konkani, recollected the role played by the monthly journal Konkan Janata and he even dared to compare Konkani Fiction in Kerala with that of Goa.

Sri. Payyannur Ramesh Pai presented his paper on nonfiction in Konkani. The Chairman advised the youth to study the material available and to make their own valuable contributions.

There was active participation from the audience as they came forward to take part in the discussion that followed.

The second day was wholly devoted to poetry. The third session was on poetry. Dr. V. Govinda Shenoy was on the chair. He detailed

the uses of poetry and advised the poets not to imitate.

Prof. R.K. Rao, in his paper on Epic and Narrative poetry, gav suitable quotations, so as to impress upon their beauty, simplicity an clarity, and also social relevance.

Prof. Swarnalata G. Shenoy presented a paper on the devotiona poetry in Konkani with special reference to the contributions of Sri. R.C Sarma, while Sri. A.R. Sarathchandran's paper was on the lyrica poetry.

In this session also there was active participation in the form o discussion on the part of the audience.

In the Poets' Meet that followed Konkani poets of three genera tions, right from Kasaragod in the North to Trivandrum in the South o Kerala, presented their poems. It was chaired by Sri. N. Anantha Sarma Sastri, who also recited a poem. The poets Sri. B.S. Lakshmish Nayak Pandarinath AN Puram, Sri. V. Shet Balraj, Smt. Suseela T. Bhat, Sri K. Anantha Bhat, Sri. R.S. Bhaskar, Sri. Vasudev Lexman Prabhu, Dr B.S. Asha, Sri. P.N. Sivananda Shenoi and Sri. K. Narayana Naik.

Sri. B. Rachaiah, His Excellency the Governor of Kerala, in his message, wished the function every success.

A 13-member delegation of Konkani M.A. Students deputed by Dr. Olivinho Gomes (Prof. and Head of the Department of Konkani, Goa University and also the Convener of the Konkani Advisory Board of the Sahitya Akademi) attended the seminar, as part fulfilment of their course.

Sri. D. Vasudeva Pai, Treasurer of Konkani Bhasha Prachar Sabha took active part in the valedictory function.

  

# कोंकणी भाषेचि चळवळीचि ऐतिहासिक पश्चातल केरळान्तु

- एन्. पुरुषोत्तम मल्या

केरळान्तु कोंकणी उलोव्चे जनांगले पूरवीक पूर्वकालक गोयान्तु अधिवासु कोर्नु आसले. गोंय कोंकणी भाषेचे कुळागर. कृस्ताब्द 1560 वर्षा फरंग्याले मतपीडनाथकून रक्षा मेळपा खतीरि ते गोंय सोडून कोचीन्तु अयले. तानि कोचिनान्तु प्रथम जाव्नु पादस्पर्श केलेलेभूयेंक सासष्टि म्होणु नामकरण केलें. गोयांन्तु सासष्टि प्रदेशायकून अयिल्याक अनुस्मरण कोर्नु दिलेले नाव तं सासष्टि. केरळान्तुले पुरारेखा थकून कळता प्रथम कोंकणी उलोव्चे जनांगलो देशान्तराधिवासु कोचिनान्तु कृस्ताष्द एक सासु दोनिशे चौराणवि (1294-A.D.) वर्षा जलो म्होणु. अलावुदीन किलजीन त्या वर्षा गोंय आक्रमण केल्या असा. देशान्तर अधिवासु केरळान्तु केल्या उपरान्ते तानि भाषा, आचार, विचार, संस्कार, संप्रदाय इन्यादिक संरक्षण करचे खतीरि तांगेले जाव्नु आसचे देवालय स्थापन केले. देवालया निमित्ति मलयाळि लोकाभरसि कोंकणी केरळान्तु जीवन्त उरली अनिक संस्कार उरलो भाषे निमित्ति. कोंकणी जन केरळान्तु आधिवासु कोरुक अयिल्या वेळारि फिरंगि लोक कोचिनान्तु आसले. फिरंग्यानि कोचिनान्तु अयिल्या वेळारि कोंकणी जनाक व्यापारु करचे खतीरि तांका प्रतिनिधि जाव्नु नियुक्त केले. तानि तांका ‘केनरियन क्रास्ट’ म्होणु संबोधन केलें. फिरंग्या उपरान्ते अयिले डच् लोकानियि कोंकणी जनाक ‘केनरियन्’ म्होणु संबोधन केलें. कोचि दिवान शेषगिरि रावु हनी ब्रिटीष रसिडण्ट तिरुवितांकूर कोचि, करणल् मोरिसन् हका 19-2-1828 क्रिस्ताब्दान्तु बरयलेलें केरळ पुरारेखा विभागान संरक्षण केलेल्या पत्रान्तु अशि संगता, “कोंकणी अथवा ‘कानरियन’ म्हळेले एकचि वर्गाचे जन. दुसरे ते नामपद कोचिन्तु वासु कोर्नु येवचे फिरंगि इत्यादि जनानि उल्लो कोर्नु येवचे नाव तं. कित्याक म्हळयारि तांका कोंकणी पद अक्षरानुसार उच्चारण कोरूक जायिना आसिले. आधिकालाक केरळान्तु कोंकणी भाषेचे उदरगति खतीरि साहित्य निर्माण देवस्थानाक आधार धोर्नु निर्माण जलें. जोण लेडन (1755-1811) ताणी 1799 कृस्ताब्दान्तु टिप्पु सुलतान पडलेले नन्तर केरळान्तु पर्यडन केल्या वेळारि कोचीन्तु कोंकणी ब्राह्मणांक मेळो. तानी तका दकैल्या पुस्तका विषयान्तु तो अशी संगता, “कोंकणी महराष्ट्राथकून, अतींव व्यत्यस्त असा. अनी भागवत, लिंगपुराण, रामायण, भारत त्या भाषेन भाषांतर केल्या अनी ताजे जाव्नु आसिले अक्षरान बरैल्या. ये ब्राह्मण वर्ग प्रकटित कर्तायि की तांचे हतान्तु अनेक इतर संस्कृताथकून भाषान्तर केलेंलि कृति मात्रनयि इतर मूलकृति वीरबद्रचरित्र परशुरामचरित्र असा अनी तीं सर्वै तानीं तका दकैला.”

डच् काल (1663-1795) कोंकणी सहित्याचो विकास पाविलो आद्यकाल आसलो. त्या कालाक डच् गवरणर हेण्ड्रीक वाणरीड हानी मलबारं देशान्तुले सस्या संबंधि विवरण दिवचें तसलें “होरतुस् इन्डिकस् मलबारिकस्” नावाचे 12 विभाग आसचे ग्रन्थ प्रकाशित केल्या. ते ग्रन्थ निर्माण करूक कोचिचे तेग वैद्य अप्पु भट्, विनायक पंडित, रंग भट् हनी सहायु दिलो.

मात्रनयि तानी एक प्रमाण पत्र कोंकणीन देवनागरि लिपीन बरोव्नु दिलें. तें देवनागरि प्रमाण पत्र कृस्ताब्द 1678 वर्षा प्रकाशित केले. ते देवनागरीचे प्रथम मुद्रण जाव्नु असा. त्या ग्रन्थान्तु इतर भाषा भरसि कोंकणीन औषदीचे नांव बरयिले असा. परहस्त समर्पण करचें वस्तुचें प्रमाण पूर्वकालाक कोंकणीन बरयताले. तें केरळान संरक्षण केलेल्या पुरारेखथकून मेळता. जल्यारि लिपि कन्नड आसिलि. डच् कालाक म्होणु संगूयात वेंकटकल्याण नांवाचे चारि विभाग आसचे ग्रन्थ रचयिलेलें. तें काख्य रूपान असा. तें काव्य सत्रावे शतमानान्तु बरैलेले जाव्नु दृष्टि पडता. दुसरे काव्य गोडे रामायण. तान्तु श्री रामचंद्राले जीव चरित्र विवरण केल्या असा. मराठि भाषेचे प्रभाव त्या काव्याक असा. तें गायन कोर्नु होळी वेळारि कोंकणी जन नाचताले. ताजी प्रथम विभाग कोंकणी लोक गीत नांवाचे पुस्तकान्तु कोंकणी भाषा प्रचार सभेन 1976 वर्षा प्रकाशित केल्या. ताजे सर्व विभाग कोचिचे कोंकणी भाषा इनस्टिटयूटान प्रकाशित केल्या.

कोचिचे कोंकणी जनांगेले मुख्य देवालय निरुमल देवस्वं नावाचे वेंकटपतीक आराधन करचे क्षेत्र. कोचिचो तेन्ना आसिलो रायु राजा राम वर्मा शक्तन तंबुरात् कोंकणी जनांगेले ऐश्वर्याभिवृद्धि पोळोव्नु असूया बरलोलो जलो. ताणे द्रव्य अपहरण करचे खतीरि तिरुमल देवस्थान आक्रमण केलें. द्रव्य लूटि मरलि. देवस्थानाक नाशु हाडिलो. मुख्य कोंकणी व्यापारि जनाक अनिक देवस्थान अधिकारियांक जीव हानि हाडली. कोंकणी जनान्तुले सुमार लोक कोचि सोडून दक्षिणेक गेले. आलप्पीन्तु रबले. धावुन गेलेले त्या वेळारि कोंकणी आद्य साहित्य हस्तलिखित कृतियो नष्ट जली. कोंकणी त्या नन्तर तोंडापासून परंपरीय कथा रूपान लोक गीत जाव्नु रबली.

आलप्पीथकून वेंकटपतीक कोचीन्तु हाडून 1881 कृस्तब्दांतु पुनः प्रतिष्ट केली. त्या नन्तर कोंकणी काव्य रचना करच्यान्तु पुनरपि उत्तेजन मेळे. श्रीमति अमुलका शेणेयि (1851-1902) हनी अनेक काव्य रचना करच्यान्तु निपुणता देकेयलि. डॉ. जुजे पेरेरा तिका कोंकणी कवीन्तु अथवा कवियित्रीन्तु उत्कृष्ट स्थान दिता.

आंग्रेजि शिकचि शाळा कृस्ताब्द 1887 वर्षा कोचिन्तु स्थापन जली - कोंकणी भुरगीं मलयाळि अनी आंग्रेजी शिखचाक लगलीं. तांका कोंकणी भाषेंचेरि अवगणना पडली. जनानि तिजे साहित्य निर्माणान्तु उपेक्षा दकेयली. त्या कालाक नारायण नरसिंह पै (1879-1959) जन्माक अयिलो. तो कोंकणी भाषेचेरि बोधु जनाभरसि हाडूक प्रयत्नु पावलो. ताणे चेल्लया चरित्र 1927 वर्षा नाडक रूपान कोंकणीन्तु अनुवादु कोर्नु प्रकाशित केले. कुचेलोपाख्यान काव्य अत्युत्कृष्ट काव्य जाव्नु असा. ते 1926 कृस्ताब्दान्तु प्रकश्ति केले. प्रहळाद चरित्र भगवत् गीता सार, सत्यनान् सावित्रि, नल्लतंगळ् इत्यादि अनेक कृति बरैयलेलें असा. 1959 कृस्तब्दान्तु तो मरण पवलो. ताका अनुस्मरण कोर्नु कोचीन्तु चलैलेले 16 वे अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिषद अधिवेशन स्थलाक "नारायण नरसिंह पै नगर" म्होणु नांव दिलें.

स्वरगीय आर.सि. शर्मा हनी पंचवीस भक्तिगीतं निर्माण कोर्नु भाषागानमंजरि नादान

एक पुस्तक 1930A.D. प्रकाशित केलें. एल. नारायण मल्या हनी भक्तकुचेल चरित्र, गजेन्द्रमोक्षु, भक्तप्रहळादचरित्र इत्यादि अनेक काव्य बरोव्नु दवरले. ते प्रकाशित जले ना. स्वर्गीय जी कमलम्माळ् हनी रामायण काव्य रूपान बरेयललें असा.

नारायण अनन्त शर्मा (1910) कोचि तिरुमल देवस्वं संस्कृत पाठशाला उपाध्यायु कोंकणीचे प्रचरणाखतीरि संस्कृत पाठशालेन्तु शिकूचे विद्यारथ्यांक कोंकणी शिकोवचि पद्धति तयारि केली. गामेन्त प्राकृत नांवाचे एक पुस्तक प्रकाशित केले. कोंकणीन काव्य निर्माण कोर्नु शिकयिले. संस्कृतान्तुले दूतांगत कोंकणीन भाषान्तर कोर्नु कोंकणी नाटक खेळेयिले. 'गोमन्त भारति' नांवान हस्त लिखित मासिका चलैली. तांतु कोकणी लेखकांक स्थान आसिले. कृस्ताब्द 1967 वर्षं केरळ बंगा संस्कृति संगा ह्या संस्थेन कोचीन्तु महाकवि जी. शंकर कुरुपाले यजमानपणा खाल विविद भाषा कवींक मेळोनु एक "मुषेयरा" चलयलें. तांतु कोंकणीक प्रतिनिधि जाव्नु 'धरणी अमचि भारत माता' नावान देशियोत्ग्रथन कोंकणी काव्य वाचिले.

गौड सारस्वत सेवा समाज कण्णूर कृस्ताब्द 1965 वर्षाथकून काव्य, लधुकथा, कंल्पितकथासृष्टि नाटक, नवलिका, प्रबंध इत्यदि विषयान्तु आसिले लेखन वार्षिक प्रकाशनान्तु वर्षानि वर्षं प्रकाशित कोर्नु अयिले. स्वरगीय आर. रंगनाथ प्रभु (1898-1965) पुरकाट हानी कोंकणी भाषा शिक्षक, कोंकणी भाषा स्वयं शिक्षक भाग 1, 2 अनी 3 बरयिलेले असा. ते प्रकाशित जायिने. तानी कोंकणी शब्द कोष बरयिले असा.

कोंकणी भाषेचि उदरगति खातीर प्रति एक कालाक जनानि प्रयत्नु केलो असा. जल्यारि ती केवल घरांभितर उलोवचि भास जाव्नु रबलि. भाषेचेरि जनानि उपेक्षा दकेयलि. तिजे सुरूप, सौन्दर्य कळनत्तिलें जलें, दुसरे भाषेक अधिकमानु दिवचाक प्रारंभु केलो. डॉ. सुनितिकुमार चाटरजी कोंकणी विषयान्तु अशी संगता, "भारतान्तु इतर भागान्तु आसचे जनाक कोंकणी विषयु कोळका. अमगेले निरभाग्य म्होणु संगूयात तांका मद्रासि म्होणु विवोरु नत्तिले संगतायि. कित्याक मळ्यारि ते भारतान्तु दक्षिण पश्चिम अनी दक्षिण भारतान्त असाति. कोंकणी जन अजीयि तांगेले व्यक्तित्व अनी नाव अन्वेषण कोर्नु असाति. सुमार कोंकणी जन उन्नत विद्याभ्यासु अस्सिले उंच्च स्थानारि आसिले तांका कल्पन ना ते आर्य भाषा उलोव्चे म्होणु."

विरुद्ध प्रचरण अनी निंदा कर्तल्यांक प्रतिक्रिया करचे खतीरि, कोंकणीक सरकारां थकून योग्य स्थान मेळोव्पाखतीरि, कोंकणी भाषा शाळेन्तु पाठ्य विषय जाव्नु शिकोव्पाखतीरि, भाषेक साहित्यान्तु वृद्धि हडचे खतीरि, देवनागरीन पुस्तक प्रकाशित करचे खतीरि, नागरि लिपि प्रचारान्तु हडचे खतीरि एक संस्था स्थापन करचे आवश्य जाव्नु अयलें अनी कोचिनान्तु कोंकणी भाषा प्रचार सभा कृस्तब्द 1966 वर्षां में मासु 14 तारिकेक जन्माक अयिलि अनी तिजे औद्योगिक उद्गाडन काशीमठ श्रीमद सुदीन्द्र तीर्थ स्वाम्यिनि केलें.

कोंकणी भाषा प्रचार सभा स्थापन जल्या नन्तर प्रथम जाव्नु भारताचे तेन्ना आसिले प्रधान मन्त्रि श्रीमति इन्दिरा गांन्दिक एरणकुळम् अतिथि मंदिरान्तु कृस्तब्द 1966 जूलायि एका तारिकेक

सभा कार्य दरशिन् भेट गेव्नु कोंकणी भाषेचि अयोग्यता निवारण कोरूक अनी तिका आठवे वळेरेंतु स्थान दिवचेखतीरि 1816 कोंकणी जनानि हस्थाक्षर दिलेलें निवेदन पत्र समर्पण केलें. त्या नन्तर केरळ सरकाराक कोंकणी एक पाठय विषय जाव्नु शाळेन्तु शिकोव्पा अनुमति मेळपाख्तीरि एक निवेदन पत्र समर्पण केले. कोंकणी शिकोव्चाक जाव्नु अद्यापिकांक शिक्षण दिव्चे खतीरि कोंकणी शिक्षक शाळा सभेन स्थापन केली. सायंकाल अनी ग्रीष्म काल कोंकणी शाळा उद्घाडन् केली. शिक्षक विभागु अनी परीक्षा विभाग अशी दोनि विभाग स्थापन केलें. प्रारंभ, परिचय, प्रवेश अनी भूषण नावान शिक्षण क्रम आरंभिलें. त्या नन्तर केरळसरकारान कोंकणी एक पाठ्य विषय जाव्नु कोचिच्या प्रैमरि शाळोन्तु कोंकणी देवनागरि लिपिन भुरग्यांक शिकच्याक 1968 कृस्ताब्द आगस्त 12 तारिकेक प्रचार सभेक अनुमति दिली. प्रचार सभेले शिक्षक पाठशाळेन्तु शिकून विजय पाविल्यांक अध्यापिका जाव्नु कोंकणी भाष शिकोव्चाक नियमित केल्या. आजि कोचि टि.डि. एल. पि. शाळेन्तु विद्यारथ्यांक कोंकणी एक पाठ्य विषय जाव्नु शिकेयतायि. कोंकणी जनाक केरळान्तु भाषा न्यूनपक्ष म्होणु भारताचे भरणघडनेन्तु असिल्य आरटिकल् 30 तांतु संगिल्य प्रकारि विद्यालय स्थापनकरचे अनी भरण करचे अवकाशु केरळसरकारान कोंकणी भाषा प्रचार सभेक 4-7-1974 वर्षां दिलेल्या ओरडरान्तु दिल्या.

मैसूर सरकाराले अपेक्ष प्रकारि सभा कार्यदर्शीन महाजन कमीषनामुकारि प्रमाण समेत साक्ष्य दीव्नु प्रमाण हाजीर कोर्नु कोंकणी एक स्वतंत्र भास म्होणु सिद्ध केले. त्या नन्तर कालिकट विश्वविद्यालयान कोंकणी एक स्वतन्त्र भास अनि तिजि लिपि देवनागरि म्होणु सभेलि मागणि स्वीकारु कोर्नु एक 'कोंकणी चेयर' स्तापन कोरुक सिनूडिकेटान निर्णय केलो. जल्यारि दुडुवाचे अभावान चेयर प्रवृत्तीन्तु अयिले ना. केरळ अनी महात्मा गान्धी युनिवरसिटि ,कोटयम् 'सिनटान्तु' भाषान्यून पक्षाक जाव्नु असिले स्थानरि कोंकणीकयि स्थान दिवचाक अनुमति केरळ सरकारान दिल्या. कोचिचे कोचिन कालेजान्तु कोंकणी एक दुसरी भास जाव्नु शिकोव्चाक युनिवरसिटीन अनुकूलता प्रकट केल्या. जल्यारि स्थलांचे अभावान ते प्रवृतीन्तु अयिलेना. आकाशवाणि तिरुवनन्तपुरम्, त्रिशूर अनी कालिकट् केन्द्रानि कोंकणी गींत प्रक्षेपण कोर्नु येतातिं. दूरदर्शनान्तुयि कोंकणीक स्थान मेळ्या. कोंकणी नाटक, संगीत कार्याक्रम कोंकणी फुगडी अनी सिगमा नांच इत्यादि प्रचारान्तु अयिल्यान्तु अनी त्रिशुर आकाशवाणीन चलोव्चे विशेष कार्यक्रमान्तु कोंकणी कार्यक्रमूयि असिल्यान कोंकणी युव कलाकारंक भाषेचेरि अभिमान वडलो. कोचि कोरपरेषनान कोंकणी भाषा प्रचार सभेक कोचीन्तु दिलेल्या स्थलारि कोंकणीक एक 'भाषा भवन' निर्माण केले. आजि तें भारतान्तु एकचि भाषा भवन् कोंकणीक जाव्नु असा. कोंकणी जनांगेले विविद संस्थानि घडोंव्नु हडचे कार्यक्रमान्तु अनी समूह मिलनान्तु उलोवचि भास कोंकणीचि. कोंकणी भाषा प्रचार सभेन कृस्तब्द 1967 वर्षां चरित्राक आधार धोर्नु कट्टबोम्मन् नन्तर पुराणाक आधार धोर्नु भक्त मारकण्डेया नाटकं कोंकणीन बरोव्नु कलाकारानि अभिनय केलल्यान जनाक कळळे की कोंकणी भाषेक इतर भाषा मणकि योग्यता असा म्होणु. त्या नन्तर अनेक संस्थे केरळान्तु स्थापन जल्या अनी संगीत, नृत्त, नाटक, लोकगीत पुनरुधारण कोर्नु

ात्ताति. विविद मासिकेन्तु कोंकणी लेखन प्रकाशित करतायि.

कोंकणीक इतर भाषा भरसि समत्व स्थान मेळपा खतीरि ती एक साहित्यिक स्वतन्त्र भास म्होंणु सिद्धकरचें पडलें. ताजो प्रयत्नु केरळाथकून प्रारंभ जलो. कृस्ताब्द 1969 वर्षां कोंकणीक साहित्य अकादमीन एक स्वतन्त्र भास म्होणु मान्यता दिवचे खतीरि कोंकणी भाषा प्रचार सभेन एक थरावो प्रधान मन्त्रि, भाषा न्यूनपक्ष कमीषणर अनी केन्द्र विद्याभ्यास मन्त्रिक धाडिलो. तानी तो थरावो साहित्य अकादमीक विचारणक पेटेयलो. साहित्य अकादमीन भाषेक मान्यता दिवचेखतीरि पांच मान दण्ड पूर्ण करचे खतीरि कोंकणी भाषा प्रचार सभेक धाडिलो. त्या मानदण्ड प्रशनाक प्रमाण युक्त 164 पनाचे प्रश्नोत्तर निवेदन समर्पण केले. त्या नन्तर साहित्य अकादमीन कोंकणी भाषा प्रचार सभेक कळेयले की साहित्य अकादमीन कोंकणीक एक स्वतन्त्र साहित्य भास म्होणु मान्यता दिली म्होणु.

कोंकणी एक देशीय भास जाव्चे खतीरि प्रचार सभेन काडिलेला निरंतर प्रयत्नाक केन्द्र भाषा अल्पसंख्या कमीषणरान कोंकणी भाषा प्रचार सभेक कळयला, "केन्द्र सरकारालो निर्णय अशी असा की भाषेक आठवे परिशिष्टान्तु स्थान मेळयारि अथवा ना जल्यारिय कसलोच प्रयोजन मेळप जावो अथवा अयोग्यता आसप जावो जायना. सरकारालो उद्देशु ह्या प्रकारि असा की भारतान्तुले सर्व भाषेंक आठवे परिशिष्टांन्तु स्थान ना मळेले कारणान अवगणना नत्तिले साहित्य अनी सांस्कारिक विकासु हाडचे मात्रनयि प्रोत्साहन दिवचे तं सरकारालो उद्देशु. यो विषयु लोकसभेंन्तु सांगिल्या असा." तशी अस्तना नेपाळि अनी मणिपुरिक आठवे वळेरेंतु स्थान दिवचाक केन्द्र सरकाराक उद्देशु अयिल्या वेळारि कोंकणीक आठवे वळेरेंतु काडनत्तिलें जायना. लोक सभा स्पीकरान सभेक धाडिल्या पत्रान्तु सांगिले असा की गृहमंत्र्याक कोंकणी भाषा प्रचार सभेन कोंकणी आठवे बळेरेंतु कडचे विषयाचेरि केलेल्या मागणीचेरि विचार कोर्नु उचित जाव्नु आसचे निर्णय काडूक सांगिल्या म्होणु. त्या प्रकारि केन्द्र सरकारान कोंकणी आठवे वळेरेंतु देशीय भाष जाव्नु कडली.

कोंकणी भाषा प्रचार सभा स्थापन जल्या नन्तर अनेक संस्था भाषे उद्धारा खतीरि केरळान्तु स्थापित जल्या. कोचीन्तु कोंकणी लांग्वेज इनस्टिटयूट म्हळेलेनावान प्रोफसर आर. के. राव, डयरकटर जाव्नु एक संस्था जन्माक अयली. त्या संस्थेन तुलसीदास नावचे एक लघु पुस्तक, कोंकणी स्वयं शिक्षक, व्याकरण, अज्ञात लिखित गोडे रामायण प्रकाशितकेल्य. मलयाळम् भाषे पुस्तकाचें भाषान्तर कोंकणीन्तु प्रोफसर रावुनि केल्या. केन्द्र साहित्य अकादमीन तांका भाषान्तर साहित्य पुरस्कार दिल्या. केरळ कोंकणी अकादेमि नावान अनि एक संस्था कोंकणी साहित्याभिवृद्धि खतीरि स्थापित जल्या. तानी जी. कमलम्माळ् हनी बैरेलें रामायण काव्य अनी अनेक पुस्तक प्रकाशित केल्या. शेट् बलराज हनी कोंकणी विकासा खतीरि कोंकणी प्रेमि मण्डल नावान कोचीन्तु एक संस्था स्थापित केल्या. जि.एस्.ए. नांवान कोचीन्तु आसचि संस्था "कोंकण जनता" नांवान एक कोंकणी मासिका प्रकाशित कोर्नु येतात. कोंकणी विद्यापीठ नांवाचे अनी एक संस्था स्वरगीय इन्द्रकांन्त शेणैनि कोचीन्तु स्तापित केली. भगवत गीता

कोंकणीन भाषान्तर इन्द्रकांन्तं शेणैनि केले अनी कोंकणि ग्रैमर बरैलें. कासरगोड शहरान्तु कोंकणीभाषा प्रचार समिति कलाभिवृद्धीक जाव्नु स्तापित जली. निरुवनन्तपुरम्, कोल्लम्, कोटयम्, आलपुळा, शेरतला, तुरवूर, एरणाकुलम्, चेन्दमंगळम्, कोडुंगलूर, कालिकट, कण्णूर, कासरगोड ह्यया प्रदेशान्तु विविद संस्था कोंकणी उद्धाराखतीरि प्रयत्नु करताति.

गौड सारस्वत ब्राह्मण महासभा-केरळ कोंकणी भाषेचि अभिवृद्धि खतीरि प्रवर्तन कोरूक प्रतिज्ञाबध जाव्नु असा. सर्वश्री पि. जि. कामत, के. पुरुषोत्तम पै, पय्यनूर रमेश पै, ए.एस. प्रकाश, एन. प्रसेनकुमार, श्रीधर शेणायि, के. गोकुलदास प्रभु, शेट् बलराज, के. नारायण नायक, शरतचन्द्र शेणायि, के. अनन्त भट्, पि.ए. श्रीधर कमत, वी.वी. सदानन्द प्रभु, पुरुषोत्तम मल्या, पि. एन्. शिवानन्द शेणायि, प्रोफसर एन्. एन्. अनन्दन्, श्रीमाति वत्सला मंजुनाथ राव, सुशीला त्रिविक्रम भट्, डॉ. बि.एस. आशा, सौ. श्रीमति कमत इत्यादि अनेक व्यक्तिनि कोंकणी भाषेखतीरि नाटक, काव्य, संगीत, भाषांतर, लघु कथा, प्रबंध रचना, 'नवलिका' इत्यादि बरोव्नु कोंकणी मातेचि सेवा कोर्नु येत्तात. श्रीमति सुमित्रा भक्तान कृस्तव्द 1978 वर्षां एक नवलिका बरैलें.

केन्द्र सरकारान मोनोग्राफ ओण कोंकणी, सेंनसस् आफ इन्डीया-1971 नांवाचे एक पुस्तक केरळान्तु उलोव्चि कोंकणी भाषा गवेषण कोर्नु कृस्ताव्द 1969 वर्षां पूर्ण कोर्नु कृस्ताब्द 1976 वर्षां प्रकाशित केल्या. पर सहायु नत्तिले केरळान्तुलि कोंकणी शिकचाक अनी शिकोव्चाक ये पुस्तक सहाय प्रद जाव्नु असा.

1954 कृस्ताब्दान्तु 1951 वर्षांचे भारतातुले 'सेनसस् रिपोरट्' प्रसिद्धि केलेल्यान्तु केन्द्र सरकारान कोंकणी मराठिचि उपभास अथवा पोट् भास म्होणु संगिले असा. केरळा थकून ते 'रिपोरट्' चूकि म्होणु अनी कोंकणी ती स्वतन्त्र भास म्होणु पत्रा वटेन केन्द्र सरकाराक अनी सेनूसस् कमीषणराक कळयिले त्या विषयान्तु गवेषण करचे खतीरि 1961 सेनससाचे भाषाविज्ञानि आर. सि. निगम् कोचीन्तु पुरुषोत्तम मल्याक मेळनु विचारण केल्या नन्तर कोंकणी मराठिचि उपभाष नयि ती एक स्वतन्त्र भास म्होणु चूकि समकोर्नु 1961 सेनसस् रिपोरटान्तु प्रकश्ति केल्या.

कोंकणी भाषेक आठवे वळेरेंतु स्थान मेळे नन्तर कोचीन्तु प्रथम जाव्नु केन्द्र साहित्य अकादमिन कोंकणी भाषा प्रचार सभेंलगि मेळनु 1992 ओकटोबर 15, 16 तारिकेक चमकोव्चे कोंकणी साहित्य केरळान्त नांवाचे सेमिनार चरित्रपर जाव्नु अस्तले अनी ते विजपप्रद जत्तले. कोंकणीचे उदरगति खातीरि केरळराज्यान्तु उलोव्नु येवचे भाषेन्तु तिसरि प्रधान भास उलोव्चे केरळ कोंकणी जनानि काडिल्या प्रयत्नाचे पश्चातलान्तु गोयान्तुलापसि अधिक कोंकणी उलोव्चे गोंयाभरचे करनाटक, महराष्ट्र राज्यान्तुले भाषान्यूनपक्ष कोंकणी लोक केरळ कोंकणी जनालगि मेळनु कोंकणी भाषेचे साहित्य निर्माणान्तु अत आसिल्यापसि अधिक साहित्य निर्माण करच्यान्तु उज्वल प्रयत्नु कडतले अनी त्या विषयान्तु केरळान्तुलि कोंकणी भाषेचि चळवळीचि ऐतिहासिक पश्चातल् एक मार्ग दर्शन, जाव्नु रबतलें म्होणु हांव विश्वासु पाव्ता.

जय भारत. जय कोंकणी

  

# कोंकणीचेर मलयाळमाचो प्रभाव - उतरावळीची जिरवण

- पी. जी. कामत

### तरावळ आनी शब्दावलि

Vocabulary चे अर्थान गोंयांतु 'उतरावळ' प्रचारार आसा. गोवा कोंकणी अकादेमीन न-चार वर्सां फुडे उजवाडायल्यो English Konkani Hindi Vocabulary आसा मूं. का उतरावळ म्हणु नांव दिल्यां देखू येता. उतरा उतर जावप, व्हारडीकेक उतर उलोवप, तार हात मारनु उतर दीवप, उतर फुटना, उतरा उतर; दुडवा दुड्डु - असले जायते वाक्प्रकार कणींत आसात. तांतु सगटय उतराक word म्हणु अर्थ जाता.

तरीय भारतांतु अति पुरातन कालाक धरनु चलून येंवचे भाषा-चिंतनाचे परंपरेंतु पाणिनी, ांजली, भर्तृहरीवरीचे व्होड व्होड चिंतकांले ग्रंथांतु होच अर्थ प्रकट करूंक 'शब्द' प्रयोग आसा. ब्द' म्हळ्यार सुद्दां साद न्हय. शब्द म्हळ्यार word. शब्दावलि, शब्दशुद्धी, शब्दरचना, ब्दानुशासन असले उदाहरणंत शब्दाक word म्हणूच अर्थ जाता. केन्द्र सरकारान प्रकाशन लेल्या Linguistics Glossary हांतुय वर्डांक समानार्थक 'शब्द' म्हणु दिल्यां. 'उतर' आनी ब्द' हांचो अर्थ समान आसा, word म्हणु. देखून आयचे आमगेले चिंतनांतुय हे दोन शब्द मानार्थक उरतले. उतरावळ म्हळ्यार शब्दावलि. आसूं.

### ब्दां पासून पतंजलि

आमगेले देशाचे विद्वांसानि शब्दांविशीं कितें सांगिल्यां, चोवयां. पंतजली मुनि ापण्याले महाभाष्यांत शब्दाचें Definition अशें दिता -

श्रोतोपलब्धः बुद्धिं निर्ग्राह्यः
प्रयोगेण अभिज्वलितः आकाशदेशः शब्दः

शब्द वा उतर आमकां कशी मेळता? - श्रोतोपलब्धः - कानानि आयकून मेळता. ानानि जें आयकतात तें शब्द. म्हणून कानार पडचे सर्व तराचे शब्द भासेचे चिंतनांत येनात. नांत पावलें म्हणु जायना; मनांतु बुद्धींतु जो शब्द पावता तोच word जाता. ज्याका मनांतु ेश मेळना तो word न्हंय - फक्त गोन्दोळ, बोवाळ, Noise. आयकूनूय जें आमी समजनात का word म्हणीनात. तसले शब्दाक Noise म्हणु नांव. भासेंतुलो शब्द मनांत येता आनी द्धी बरे तरेन चिंतन करनु समजून घेता. देखून पतंजलीन 'बुद्धि निर्ग्राहयः' म्हळ्यां. कानार ून, मनांतुल्यान भितर सरनु बुद्धीन विचार करनु स्वीकार करचो, तो 'शब्द'.

आनी शब्दाचो तिसरो एक गुण आसा - 'प्रयोगेण अभिज्वलितः' - प्रयोग करता करता ब्द परजळेता, उज्वल जाता. ताज़ो उज्वाड चौ वर्शी पसरता. एक शब्दाचो प्रभाव बाकी

शब्दांचेरीय पातळेवनु वाक्य आनी प्रसंग उज्वल जाता. शब्दाचे अर्थाची व्याप्ति, सौंदर्य, भ
सौभाग्य, अनुभूति वैभव - अंशी शब्दाचे सगळे पक्ष प्रकाशकान्त जावप - ताका औज्ज्व
म्हण्टात. एक उदाहरण पळौयांः

'ख' एक सादा उतर.

"यो, खा, हो आम्बो आमगेले रुकार जालोलो."

"अरे ! तूं शीत खाता कीं ?"

"देवाक खावुंचो भट्टु."

"तो तुमकां खातोलो न्हय, समा गिळतोलो."

"नांकूट खावनु अवलक्षण."

"नांकटान खेल्यार पोट भरत वे ?"

"मीट खेलोलो उदाक पितोलो."

"हो एकलो दुडुखावगी दंदकार."

"प्राणु खावनाका रे पुता."

-असले वाक्यांतु 'खा' धातूचो अर्थ कशी कशी उज्ज्वल जाता, चोया.

असलो शब्द खयिं आसा? पतंजली सांगता - आकाशांतु आसा.

**विषय**

पतंजलीन उतरांविशीं सांगिल्या आशयांचे बुनियादीरि राबून आमकां चिंतन कर
आसा. चार-चवड शताब्दीं फूडे केरळांत पाविल्या कोंकणी जनानि आनी तांगेले मागीर
पीळिगेनि हांगाचे भासेंतुलीं कसकसलीं उतरां कशीं कशीं आयकलीं, मनां हाडलीं, बुद्धी
स्वीकारलीं आनी प्रयोग करतां करतां उज्ज्वल करून घेतलीं हें मेगेलें विषय.

आमी मलयाळम भासेचीं हजारानि उतरां घेतल्यांत; घेता आसात. तांतुलीं येदीं ये
आमी घळौनु जिरौनु काड्ल्यांत; तरी जायतीं जिरनाशिल्लें तशीच उरल्यांत. पुर्विल्ले काला
जिरवण चड आशिल्ली. आजि अजीर्ण चड; जिरप उणे. हाजे पासून मनन करतना भासे
कसली संपत्ति घेवनु आमगेले पूर्विक हांगा पाविल्ले, तें पळौयां.

**कोंकणीचें भूगोळ**

कोंकणी तीनि साहित्य संपन्न भासेंचें मजगदीं राबिल्या - हें कोंकण देशाची भूगोळि
स्थिति चोयल्यार कळतलें. एक तांतु गुजराती; दुसरे तांतु मराठी; आनी तिसरे तांतु कन्नड
देखून ह्या तिनियि भासेंचो प्रभाव कोंकणीचेर पडलो तरि कांय पुणै अजाप ना. गुजराती, कोंक

ानी मराठी ह्या तिनियि भासेंची दायज एकच आसा. तिनीचींय मुळावी उतरावळ संस्कृताची. ्तिनीय भासो एकच कालाक फुलूंक लागल्यो. तिनीचींय पूर्वरूपां अपभ्रंशांत पळीयेत आनी ास म्हळ्यार जनानि नित्य निरंतर जीवितांतु उपयोग करचें एक उपकरण. तें कांय Air tight ompartment वरि न्हय. तांतु दिवें-घेवें आसतलेंच. तशी आसतना खंचोय शब्दु ुजरातींतलो कोंकणीत देखीलो, अथवा कोंकणीतलो मराठींत आयलों, अथवा मराठी शब्द ोंकणींत पावलो तरि एक भास दुसरे पशि खाल वा ऊंच, जूनि वा तरणी आसा म्हुण सांगून भिमान करप अथवा झगडें किरलावप चांग न्हंय. तिनीय भासेंचें मूळ एकच आसतना खंचो ाब्द निजच खंचे भासेचो म्हणु ठरावप सहज न्हंय.

**ंस्कृत परंपरा**

आतां आमी नित्य उलौंचीं भासेचीं उतरां पळौयां. देखीक - मातें, निडळ, भौरी, नांक, ान, ओंट, दांत, जीब असलीं अवयवांचीं नांवां; गाय, म्हशी, हस्ती, वागु असलीं जनावराची ांवां; भूंय, माती, फातोर असलीं वस्तूंचीं नांवां; सूर्य, चन्द्रेमु, नखेत्रां असलीं आकाशगोळांचीं ांवां; आयतार, सोमार असले वारांचीं नांवां; चैत्र, वैशाख असलीं मासांचीं नांवां; आंबो, पणसु, ींच असलें रुकाचीं फळांचीं नांवां; कमळ, पद्माक्ष, चांपें, जाइ असलीं फुलांचीं नांवां; हांव, ्, आमी, तुमी, तो, ते, ती, तीं, तें इत्यादी सर्वनाम; यो, वच, उटा, बेस, निदे असले क्रिया ाब्द; ना, न्हय, व्हय, आनी, वा असले अव्यय - अशीं जायतीं मुळावी उतरां प्राचीन भारतीय ार्य भास म्हणचे संस्कृतां थकून कोंकणीक मेळ्ळीं. हें आमगेले भासे पासून मनन करचें ोणाकय कळचें. देखून कोंकणीक आधुनिक भारतीय आर्य भासें मद्दें लेकतात. संस्कृत ारंपरेचीं उतरां आनी जैनानि 'आर्ष' म्हणचे अर्धमागधी प्राकृताचीं उतरां आसूयेत. बौद्ध आनी ैन मतांक कोंकणांतु खूब प्रचार आशिल्लो.

कोंकणीचीं हजारानि उतरां संस्कृतांसून आयिल्लीं; जाल्यरिाय सगळी उतरावळ संस्कृताची हय. कोंकणी पूर्णरूपेण संस्कृत परंपरेची भास आनी द्राविड भासेंचो कांयच प्रभाव कोंकणीचेर ा म्हणु केरळांतुले प्रशस्त व्याकरण शास्त्री शेषगिरि प्रभूनि सांगिल्ले आसा. प्रभु महारायानि ह्या ेषयांतु गहन चिंतन केल्लें ना आशिल्लें म्हणु सांगुका पडता. कित्या म्हळ्यारि संस्कृतालागि सलोय तराचो संबंध नाशिल्लीं जायतीं उतरां आमगेले साधारण भासेंतूच आयकूक येतात. खीकः आवसु, आवय, माड्डी, माड्डो, पिड्डो, मड्डळ, व्हीरु, केप्पो, काणसो, दोळो, थोंटो, ुड्डु, कूरडु, चेरडुं, दादुलो, मळब, मोड, वोट, मुल्लो, मोलो, कक्क्स, परम, अडकळी, मदिल, रें, फाल्लें, फाल्ले, खड्डू, खोल्लो, खोल्ली - असले जायते शब्द आसात. असलीं उतरां कांय ंस्कृतांथून उपजल्लीं न्हय. जाल्यरिाय तीं सर्वय संस्कृतां थाकून निष्पन्न करनूच जायत म्हणु ास मारनु भायर सरचेय आसूंयेत. हालींच उजवाडायल्या Konkani Grammar नांवांचे ुस्तकांतु असलो यत्न देखूक येता.

संस्कृत नाटकांतु प्राकृताचें मद्दें खयिं खयिं आसचीं एकाद्य उतरां संस्कृतां थाकून घेवूंक

जावुंची न्हय. तसले उतरांची व्याख्या करतना 'देशी' म्हणु नांव दीवनु तांचें संस्कृतसमानार्थक उतर दिवुंची सवंय संस्कृत नाटकांचे व्याख्याकारांक आसा. 'देशी' म्हळ्यार प्रादेशिक वा गांवडी भासे उतरां. संस्कृत नाटकांतु सरि तसलीं उतरां आसतना सगट शब्दांक संस्कृतां थकून निष्पादन देखून धरप कशें आसत? जाल्यारीय संस्कृताची शक्ति कितली? आनी ती खंचि पेरयान मुखार व्हरुक जायत? - हें कळूंक असले प्रयत्न उपकारतले म्हळेल्यांतु कांयच दुबाव ना.

कोंकणीचे जायते उतरांक संस्कृतालागी संबंध ना तरि तीं खयिसून आयिल्लीं आसतलीं? तांचो उद्भव खंयि आसतलो? मनन करूयां.

**द्राविड परंपरा**

कर्नाटक देशाचे उत्तर पश्चिम आनी पश्चिम कोनशारि कोंकण देश आसा. तावळ कोंकणी आनी कन्नड ह्यो शेजारी भासो. आनी क्रिस्त णवावी - धावी शताब्दी धरनु कोंकणारि कन्नड देशाचे कदंब रायांलो अधिकार चलतालो. तशी आसतना कन्नड भासेचीं जायतीं उतरां कोंकणींत भरसून गेलीं जावयेत मू. उपरांते विजयनगर साम्राज्या कालाक जायते कोंकणे साम्राज्याचे सेवक - अधिकारि आशिल्ले. मात्र न्हय त्या कालाक कोंकणे ब्यारि सगळे साम्राज्यांत पातळ्ळेले.

फरंग्याले कालाक तांगेले धर्मकोल्ली नीती लागून सास कणकर्णी कोंकणे गोंयां थकून जीव घेवनु पळून गेल्ले. जायते लोकान कन्नड देशांत आश्रय घेतलो. तशी अनेक शतमानांतल्यान कोंकणीचो प्रसार कन्नड देशांत जालेल्यान करतना कोंकणीचेर कन्नडाचो खूबसो प्रभाव पडलोले आसूंक जाय. भाषाशास्त्राचे नदरेन पळैल्यार कोंकणीचे आनी कन्नडाचे मद्दें एक भेद आसा. कोंकणी आर्यगोत्राची भास; आनी कन्नड द्राविड गोत्राची. गोत्रभेद आसा जाल्यारीय हजारान वर्सांनि लागीं लागीं जियेलेल्या दोनीय भासेचे जनां मद्दें दिवें-घेवें जाल्लेलें आसतलेंच.

देखून कोंकणींत कन्नड उतरां आनी कन्नडांत कोंकणी उतरां मेळसून गेल्लेलीं आसतलीं. चट दिसचीं येदीं उदाहरणां चोया - कोब्बू, हिट्टू, हिटळी, बरप्पु, बरै (धातु), तडी, बागिल, गुर्तु, गोत्तू, मुल्लो, कोयती, कोयतो.

कोंकणदेशांथकून भायर गेल्लेलीं जनां केरळांत पांवचे फुडेच तुळु भासेचे प्रदेशांत पाविल्ले. आतंचे दक्षिण कन्नड जिल्याचो दक्षिण भाग आनी उत्तर केरळाचे उत्तर भाग मेळून आसचे प्रदेशाक एक कालाक 'तुळुनाड' म्हण्टाले. कन्नड आनी मलयाळमा वरीच तुळू एक द्राविड गोत्राची भास. क्रिस्त तेरावे - चौदावे शतमानांत विसकळूक लागील्या ह्या भासेक ऐतिहासिक कारणानि फुड़ार मेळ्ळो ना. जाल्यारीय त्या भासेचोय प्रभाव कोंकणीचेर पडलो आसूंयेत. ह्य विषयांत गहन मनन कोणे केल्लेलें आसा कि ना कळना.

कन्नड आनी तुळू प्रदेशांतल्यान कोंकणे सन्त सन्त केरळांत पावले. आमी केरळाचे

भासेक 'मलबारी' म्हण्टात. ही भासय द्राविड गोत्राची. देखून कन्नड, तुळू आनी मलयाळम त्या तिनीय भासेंक एकूण चिंतन करचेत. हाका एक उदाहरण सांगतां :

माड्यार माडियेर चड्ंक पायांक 'खड्डू' घालतात. यो खड्डू खंयथून आयलो? 'कट्टू' म्हळ्ळेले द्राविड उतरांथकून 'खड्डू' सीदा निष्पादन करयेत. कट्टू खड्डू जावन कोंकणीत केदाणा रिगलो? कोण जाण! तो द्राविडीचे खंचे खांद्यांतल्यान कोंकणींत सरलो? साहित्याचे अविरळ निरंतर प्रवाहांत बुडून पळयल्यार कळत. आनी ह्या कार्याक उपकारचें कोंकणी साहित्य खयं आसा? असले जायते विषयांत आमी काळखांत पड्ल्यात. संक्षेपान सांगचें इतलेंच. आमी मलयाळमाचे आकाशांत पांवचे फुडेच कन्नडाचे तुळूचे मुखांतरिं द्राविड परंपरेंत मेळसले आनी शताब्दांतल्यान मुकार वतां वतां द्राविड उतरां घळीन जिरौन आयल्यात. आनी उतरावळ मात्र न्हय; द्राविडां थकून आमी व्याकरणय घेयलेलें आसा. तें एक वेगळेंच विषय देखून आतां काइका नाका.

तरीय एक सांगचें आसा. संस्कृताचे परंपरेंत द्राविडी परंपरा मेळसून आयची कोंकणी जाल्या. कोंकणी ह्या नांवांतुलो 'कों' ह्रस्व 'ओं' कार सरि द्राविडीचो प्रभाव दाकयता. आमी आर्य भासेचे धर्तरीर द्राविडीचि कृषी केल्या म्हळ्यार अतिताय ना. कोंकणी विर्शी

संस्कृत हिमगिरि गळिता
द्राविड कावेरी मिळिता
म्हणु कोण एक कवि गायत तरि खरें आसतलें.

**अरबी परंपरा**

कोंकणी उतरावळ समृद्ध केल्लेली तिसरी एक परंपरा आसा - अरबी भासेची. अरबी लोक जायते शेंकड्यां फुडे - इस्लां मत जल्म घेवुंचे फुडे - धरनूचि कोंकणांत येताले. कोंकण आनी अरबिया मद्दें व्यवधान आसा एक दरियाचें. तरी अरबियाचे धीरसाहसिक तरवारी पावसाळ्याची आनी समुद्राचे झोडा-वारयाची परवा करनाशिल्लेंच घोडे विकूक आमगेले सुवर्णभूमीरि येताले आनी सुरै ओखदाचें भांगार लुयताले. तांगेले भासेचीं उतरां कोंकणींत घोळनु गेल्यांत. व्हारडीके होरणांतु होरेता मुकार धरची 'कल्पंचे' आनी होरेता पाय धुवुंची नाळ्क्या 'गिण्डी' आसा मू. कल्पंजी, गिण्डी ह्या उतरां माक्शीं अरबी भासेचीं 'हिलालपंज' आनी 'किण्डी' हे शब्द आसात खैं. इस्लाम मता लागूनूय अरबी शब्द भारतांत पावले. इस्लाम मतावलंबी तुर्की, मंगोल, अफगन वर्गांचे लोक हांगाची संपत्ति लूट मारूक आयले. वेगवेगळे वर्गांचे त्या लोकांक तांगतांगेल्यो मांयभासो आशिल्यो; तरीय मता भासे रूपान अरबीक आनी सामान्य सांस्कृतिक भासे रूपान फारसीक ते आदर दिताले. अरबीचो प्रभाव फारसीचेरीय पडलोलो. मुगल पातशाही कालाक फारसी शासनाभासे रूपान पुराय भारतांत पातळेली. तावळ फारसी उतरां समस्त भारतीय भासेंक मेळ्ळीं. तशी अरबी-फारसी उतरां कोंकणींतूय मेळसल्यांत. सोळावे शतमानांतल्या कोंकणी महाभारतांतु सरि जायते अरबी-फारसी शब्द मेळतात. देखीकः

आखेर, कुप्पी, काबीज, कागत, खबर, गुजरी, तमासो, ख्यास्त, निसाण, पंज, फजो फलाणो, फौज, तोप, मुस्तैत, रजा, लोबान, वगत, दुस्मान, हिलाल, हुर्मत.

अशी आमगेले पूर्वीक केरळांत पावुंचे कालाक तीन परंपरेर्ची उतरां तांगेले भा आशिल्लीः

(i) मूल परंपरा - संस्कृत, पाली, अर्धमागधीची

(ii) द्राविडी परंपरा - कन्नड, तुळूची

(iii) अरबी - फारसीची

**मलबारी**

केरळ देशाचे मलयाळम भासेक आमी कोंकणे 'मलबारी' म्हण्टात. मलबारी उत हजारानी आमी घेयल्यांत, घोळैल्यांत, जिरैल्यांत म्हणु फुडेच सांगलें. एक खूबशें गिरेस्त दाय घेवन मू आमगेले पूर्वीक केरळांत आयिल्ले. तांकां मलबारींत थकून उतरां घेवपाची गरज क आयली? ह्या प्रश्नाक एकीच जाप. नवे परिस्थितींतु नवे अनुभव जाले; आनी त्या अनुभ खातिर नवीं उतरां जाय जालीं.

एक उदाहरण पळौयां: केरळांत न्हेसचे 'मुण्ड' नांवाची सानि-ल्हानि धोति प्रचारार आस केवल चार हाति दिगाय आसा ताका. कास काडून न्हेसची धोति तरि आट-णव हाति आसतर्ल हें 'मुण्ड' देखून तांकां कौतुक दिसलें आसूंक जाय. कित्या? तें भौ सस्ता; न्हेसूक भौ सो सरळ देकून तें फैशन तानि घेयलें आनी तें उतरय घेयलें. तशी वस्त्र, धोति त्या उतरां ला 'मुण्ड' भासेंत आयलें. नवें वस्तू खातिर नवें उतर. लोकांत आसचे सर्व भासेंचीय रीति ही आसा. आनी कालान क्रमान ती वस्तु नाका जाली म्हणु आसूं; तावळ तें उतरय नाका जातले भासेचे हे सामान्य रीतीक लागून सासकणकणी शब्द आयले; आनी मागीर गेलेय बी.

आमगेले पूर्वज चड करून ब्यारी आशिल्ले; आनी ब्याराक हांगा आयिल्ले देखून न परिस्थितींतु ब्यारां संबन्धीं जायतीं उतरां तानि घेयलीं. मेजप, तोलप, दिवें-घेवें, लेक इत्या सगट शब्द कोर्चीत त्या कालाक प्रचार आसचे सगळे शब्द-तानि काड्ले. देखीकः

പറ (para) परा

ഇടങ്ങഴി (idaŋŋazi) इडङ्.ड.षी

പടി (padi) पडी

-असलीं मेजपा यूनिटा नांवां;

മന്നു് (mənnə) मन्नू

കഴഞ്ചു് (kazanjə) कषञ्जु

കണ്ടി (kandi) कण्डी

- असलीं तोलाचीं यूनिटा नांवां;

നാഴി (na:lvazi) नाळ्वषी

പേരേട് (pe:re:d ) पेरेड

കൈച്ചീട്ട് (kai chi:tt ) कैचीट

-असलीं हिशोबाचीं उतरां. अशी जायतीं उतरां त्या कालाक आमगेले भासेंत आयलीं; आतांचे नवे व्यवस्थेंत तीं पडून गेलीं.

ब्याराचें एक उतर मात्र स्थायी जावनु राबील्यां - तूकि = to weigh. ही क्रियाधातु आसा. त्या अर्थान 'तोल' आशिल्लें; जाल्यारीय ताका भायर घालनु 'तूक' थांगा जमलें.

तूक = weight. तूकि, तुकीता, तुकीलें, तुकूंक, तुकून ह्या सगळे रूपानि हें उतर प्रयोगांत आयलें. आनी दाम-तूक = weight of a दाम, रूपैतूक, भात-तूक असले समासय जाले. हे आतांय प्रचारार आसात. 'तोल' धातूचिं रूपां आतां प्रचार नात. अशी फुडेचें उतर पडून गेल्लें; आनी नवें उतर जमलें.

आतां केरळांतु चलचे दिशावाचक शब्द (Direction words) हे प्रक्रियेचीं उदाहरणां आसात. कोंकणी दायजांतुलीं पूर्व, पश्चिम, उत्तर, दक्षिण ह्या उतरांचो आज प्रचार ना. त्या उतरां जाग्यारि किषक्क (kizakkə) पडिंञरु (padinna: rə), वडक्क (vadakkə), तेक्कु (tekkə) ह्या उतरांचीं तद्भव रुपां केळक, पळंजीर, बडक, तेक हीं प्रचारार आयल्यात. अशी निज दायज होगडावनु सरि आमी मलबारी उतरां उश्शीणे घेवनु तांकां स्थिरप्रतिष्टा केल्या.

आमी उदकांत आसचे मासळेवरि; उदक खूब पितां आसात; आनी प्राणवायु घेवनु तें भायर सोडता आसात; केरळाचे समाजांत आमगेली स्थिति असलीच.

देवळा संबन्धीं चडय उतरां आमी मलबारिंथकून काड्ल्यांत. पालकी, सोंकु, पुजा, भोट्टु, अवषेकु, आर्ति, अगरसाळ, नाटकसाळ, इत्यादि फुडे आशिल्लीं उतरांच. जाल्यारीय नोडो, नोडतोरोप, नालम्बल, शीवेली पेरें, मुखपेरें, कोळपेरें, गोफुर, तेणो, आनप्पन्दल, शान्ति, मेशान्ति, कीशान्ति, मणियम्, कलवरें, मणियकार, कलवरेकार, आराट, कोडि, मृगबेटा, पळ्ळीवेट्टा, तेरु, तालपोली, उल्सोवु, चेंडें, कोंबु, कुत्तिवेळक्क, तोट्टी, बट्टळ, कोरि अशी असंख्य शब्द मलबारीचे.

आमगेले घरां संबन्धीं आसचीं येदीं उतरां पूर्वील्लीं - आंगण, वसारो, कूडि, देवारो, मैदर, फिदर, वानसाळ, रान्दणी, रान्दणीकूड, रोगोडो, अड्डळी इत्यादि. तरीय परम, मदिल, पेरें, पडिपेरें (अथवा परपीडें), अडकळी, चरवी, उरवळी, चोरकुल, चट्टी, पाळूलें हें कांय ना जाल्यार आमकां 'पोरदि' ना. हीं मलबारी उतरां आमगेले भासेंतु मेळसून गेल्यांत. आतां खाणा-जेवणा उतरां चोवुंया. अग्गोते पान, पाना शीर, शीत, रमदयि, तोय, घरशी, सासम - हें सगट आमगेली निज संपत्ति. जाल्यार एळचकरि, पूळचकरि, अवियल, कूट्टुकरि, वलवल केरळाचे

फैशन. आजि अग्गोते बदलाक सुवेपान जाय. खीरि फैशन न्हय; पायस जाय. प्रथमन आत आयलें ना. गोड्डी हांगा ना; गोड्डा पायस आसा. सोइ भाजीली घश्शी, धवी घश्शी आमगेल स्वंत रमदयो. हांगा सद्या वेगळी, सम्प्रादण वेगळी. आमकां घरकडे पेज, निशें, पेजेकूय तंबळि, आम्बले लोणचें, आम्ब्या हुमण आसा तरि खुशाल जालें. कित्या? ती आमगेली नि संपत्ति.

कृषियेचीं आमगेलीं निज उतरां आमी होगडायलीं. आमकां आतां खणप, वोव लुवणी, मोडणी कांय ना; धड, पोल, बीं काय कळना. सारें घालीनात; 'वळं चेर्त' करतलं भौ पुर्विल्ले काला थकूनूचि द्राविडी शब्द कृषिये दन्दांतु भरसूक लागल्ले आसूं जाय. 'कोय' धातूंसू जालेलीं कोयतो, कोयती हीं उतरां भौ पोरणीं. आतां 'कोयती' आसा जाल्यारीय ती लुवणी आशिल्ली न्हय. लुवणीक 'अरिवाळ' जाय; कोयती नाका मू. आतां किळा, वित्तु, विता, कळ कोय्तु, मेति असले उतरांय अतिताय जाल्या. तशी आमगेली निज उतरावळ आमी विसर गेल्यात. विसरनु गेल्लेली ही निज संपत्ति उडगासु करनु काडप तितलें सरळ न्हय. जाल्यरी तें केलें ना तरि आमगेले भासेचें चैतन्य नष्ट जावनु वतलें.

आमकां निज उतरांचो विसर पडूंक तीन कारणां आसात. हांतु पैलें कारण मलयाळमा अतिमर्द (Super pressure) म्हणुयेत. जीविताचे सगट प्रसंगांतु सदा सर्वदा प्रादेशिक भा आसा. घरा भायर सगळे कडे मलबारी. आतां घरांतूय ती पांवता. कोंकणी उलौंचो विशा समाज आसचे कडे हाचो प्रभाव स्वल्प ऊणे. बाकी कडे स्थिती ही न्हय. दुसरें कारणः आमक भायरचे कोंकणी समाजा लागि संपर्क ऊणे. आतां आतां तो संपर्क चड जावनु येता. ह्या दोनी कारणांपशि जड एक कारण आसा. कोंकणींतु जाय तितूले साहित्य ना म्हळेलेंच. साहित्या भासेची उतरां, प्रयोग, म्हणियो हांकां सगट राखण मेळता. साहित्य जीविताचे समस्त मळा पांवतना जनां मनाक विकास मेळता आनी भासेक स्थिरताय मेळता.

केरळांत कोंकणी भासेक आजीय ही सुवात ना. मुकारि स्थिति बदलतली. त्या खति आमगेलो प्रयत्न जाय; आसूं.

**राखण; जिरवण**

आमी निज संपत्ति राखून दवरची; मात्र न्हय मलबारींथून घेंवचीं उतरां घळौन जिरौन घेवंचीं आसात. तें कशी? मलबारीचें उतर कोंकणीचें निज उतर कशी जायत? पिरथमची कोंकणी उच्चराचो सोबावगुण ताका मेळूक जाय.

(i) **उच्चार**

उदा. मलबारीचो 'नडा'(nada) हो शब्द 'नोडो' जावनु कोंकणींत भरसला. आकार वटकुळो जावनु ओकार जावप कोंकणीचो विशिष्ट गुण. अशी परवूर (paravur) पोरूर जाता.

आनी उदाहरणां :

अमरावती (amara:vati) → ओंम्रातें

नडतुरप्प् (nadaturapp ) → नोडतोरोप

पडी (padi) → पोडि

वस्तू (vastu) → वोस्तू (meaning landed property)

मला (mala) → मोलो (दोंगर)

कषंजु (kazanj ) → कोळोंजु

अशीच वकार बकार जावप कोंकणीचो विशिष्ट सोबाव.

ii) व → ब. उदा:

वैकम (vaikəm) → बैक्क्

वैपु (vaipə) → बैपें

वडक्कु (vadakkə) → बडक

वला (vala) → बोलें (net)

कोंकणीन जिरौन घेयल्या समस्त उतरांत अकार ओकार जावुंची आनी वकार बकार जावुंची ही प्रक्रिया पळौयात.

मलबारी शब्दाक कोंकणीचो स्वभाव मेळ्ळो तरि तो शब्द कोंकणीचो जालो. कोंकणीचो गुण मेळप ह्या प्रक्रियेचो एक पक्ष. आनी एक पक्ष आसा: मलबारी भासेचो स्वभाव सोडप. ही प्रक्रिया येवुंचीं उदाहरणां पळौयां.

मलबरिंतु ററ (tt) Alveolar (वास्यी) उच्चाराचो एक वर्ण आसा. हो कोंकणींत ना. देखून कोंकणींतु हो निसरतलो आनी त्या जाग्यारि 'त्त' वर्ण येतलो.

उदा : പൊററ पोट्टा (potta) → पोत्तें

ചിററാള चिट्टाळ (chitta:e) → चित्ताळु

ചുററ് (cuttə) चुट्ट् → सुत्तू

ह्या परिवर्तनान अर्थभेद जावुंच्या कडे अशी जावुंचे ना बी.

'ഴ' मलबारीचो एक विशेष उच्चार. हो द्रविडीचो विशिष्ट वर्णु आज मलयाळमांतु मात्र उरला. कोंकणींत हो वर्ण 'ळ' कार जाता. उदा:

കിഴക്ക് (kizakkə) = East → केळक

വരാപ്പുഴ (vara:puza) → बारांपळे

നേന്ത്രവാഴ (ne:ndrava:za) = Banana → नन्दरबाळें

ഇടങ്ങഴി (idaṅṅazi) = A measure equal to $1^1/_3$ litres → दंगाळि

വഴക്കു° (vazakk$\partial$) = quarrel → बळक्क्

मलबारींतु ह्रस्व एकार आनी ह्रस्व ओकार आसात. हे दोनीय स्वर कोंकणींत दीर्घ जातात.

उदा. तेक (South), पेरें (shed), ओप (signature), कोडि (flag).

कोंकणींत पकार अकस्मात फकार जाता. उदा. गोपाल-गोफालु

ही प्रक्रिया मलबारींथून उश्शीणें घेवुंचे उतरांतूय आयकूयेत. उदाः

परा ( measure equal to $13^1/_3$ litre) → फारो
पलका (wood plank) → फळें
संडुता (curtain) → फोडदो

(iii) **अक्षर संरचना** (syllabic structure)

उच्चाराचोय आनी एक गुण आसा. तो वर्णोच्चारा पशि सूक्ष्म. मलबारींत थकून उश्शीणें घेवुंचे उतरांचीं अक्षरां ऊणे करनु सगळें उतर सान करप. कोंकणींतु 'नरसिंह' 'नरशीं' जाता; 'नारायण' नाराण जाता; आनी 'दामोदर' दमदोरु जाता कि ना? तशीच

आलप्पुषा (a:lapuza) → आलपळे
तृपूणित्तुरा (tripunitura) → तिनपन्तरे
मट्टांचेरि (mattancheri) → मडचेरे
पुरक्काड् (puraka:d) → परकाट
कुळप्पुरा (kulapura) → कोळपेरें
कायंकुळम् (ka:yamkulam) → कांयगोळ

उतरां सान करनु घेवंची ही रीति संस्कृतांथून आयिल्या उतरांतूय देकू पडता.

भाषाशास्त्रा नदरेन पळैल्यार ह्या उदाहरणांतु सगट ev ev ev इत्यादी आसची अक्षर संरचना (syllabic structure) eve रूपान परिवर्तन जाता म्हणु सांगूयेत. अशी उश्शीणे घेवुंचे उतरांचो उच्चार कोंकणीचे सभावाक अनुकूल केल्ले तरि तें भासेंतु जिरतलें. ना तरि तसलीं उतरां भासेंतु घोळचीं ना.

(iv) **व्याकरण-पदरचना**

उच्चार अनुकूल करनु घेवुंचे वरीच मलबारी शब्दांक कोंकणीचे व्याकरणाक अनुकूल करचें आसा. उश्शीणे घेवुंचे नामशब्दांक कोंकणीचें लिंग-वचन-विभाक्ति प्रत्यय लावनु अनुकूल करप हांतु मुख्य. उतराचे आखेरेक 'ओ' प्रत्यय लागून पुल्लिंग एकवचन जाता. उदाः नोडो, फारो, मोट्टे, मोले, मुल्लो, खोट्टे. 'ओ' प्रत्ययाचे बदलाक 'ए' प्रत्यय लायल्यार पुल्लिंग बहुवचन

जातलीं. उदाः फारे, मोट्टे, मोले, मुल्ले, खोट्टे. इकारन्त शब्द स्त्रीलिंग एकवचन म्हणु लेकतात. उदाः पोडि, दंगाळि, कीडि, शीवेलि, चट्टि. अशीचि 'इ' कार लावनु स्त्रीलिंग एकवचन करयेत. अडकळि, मीशि, चरवि, तट्टी.

इ, ई न सोंपचें उतरांक 'यो' लावनु स्त्रीलिंग बहुवचन करतात. उदा मीशियो, तवियो, चेरवियो, तट्टीयो, कोडियो, चट्टीयो, तालियो. 'एं' लागून नपुंसक एकवचन जाता. उदा पेरें, चेण्डें, तट्टें, पाट्टें, अरें. 'ए' चे बदलाक 'ई' लागल्यार नपुंसक बहुवचन जाता. उदाः पेरीं, चेण्डीं, तट्टीं, पाट्टीं, अरीं. आखरेक 'उ' कार लागचे शब्द पुल्लिंग म्हणु लेकतात. उदा तेरु तीरू, मोणु कोंबु, बाणु, आधारु, मुट्टु. हो उकार काडून उडयल्यार बहुवचन जातलीं. तेर, तीर, कोंब, मोण, बाण, आधार, मुट्ट.

अकारान सोंपचीं नपुंसक उतरां 'आं' जोडून बहुवचन जातलीं. उदाः मुण्ड-मुण्डां; ताट-ताटां; मदिल-मदिलां; कक्कूस - कक्कूसां; जनेर्ल - जनेर्लां; चोरकुल - चोरकुलां; चीट - चीट्टां; पडक-पडकां; ताराव-तारावां, अशी लिंग - वचन प्रत्यय लागूची सगळीं उतरां विभक्ति प्रत्यय घेवनु वाक्यरचनेंत भाग घेतलीं; नोड्यारि, पेरयांतु, मिशियांक, आराटाचो, अरयांतुलें, दंगाळेन, पोडीक इत्यादि उदाहरणां.

मलबारी उतरां समासांतूय भाग घेतात. उदाः मुंड - आंगूटि. हांतु मुंड मलयाळम, आंगूटि संस्कृत तद्भव. अशी दंगाळि-भरि, पोडि-भरि, दाम-तूक, भात-तूक, मुख-पेरें, पडि-पेरें (अथवा वर्णविपर्ययान परपिडें), घर-परम, वाडि-मोदल, ताली-माळा, तेरा पुजा - असले अनेक समास जाल्लेले आसात.

### (v) व्याकरण-वाक्य रचना

मलबारी उतरांक लिंग - वचन - विभक्ति लावनु घळौंची पद्धति आमी देकीली. आतां उतरां वाक्यांतु प्रयोग करची रीति चोवयां. कोंकणी वाक्यांतु पदां मद्दें एक खास तराचो संबन्ध आसा. ताका अन्विति तत्व (concord) म्हण्टात. क़र्ता-क्रियेची अन्विति (subject-verb concord) कर्म-क्रियेची अन्विति (object-verb concord) विशेषण-विशेष्याची अन्विति (Adjective-noun concord) संबन्ध-विभक्तीची अन्विति (genetive case concord) ह्या तत्वा विशीं कोंकणीचो स्वभाव मलबरिंथकून पूर्णतः भिन्न आसा. मलबारीचे प्रभावान कोंकणी वाक्यांतु हे गुण जायसर रीतीन येनात. देखूनूच उशीणे घेवुंची उतरां कोंकणींतु घोळनाशिल्लें, विरनाशिल्लें रमदयेंतु पडलेल्या सुरणा फोडी कदि बळ जबरेन जड उरतात. नैसर्गिक रूपान वाक्यांतु घोळनु वच्चे मणकि सादुरकायेन प्रयोग केल्यार जायत. कोंकणीचे अन्विति तत्वाक अनुसरून मलबारी उतरां कशी येतलीं पळौयां.

उदाः आराटाक कोडि चडळी. हस्तीकारांन हस्तीक न्हाणयली; नेत्तिप्पाट्टो घाल्लो. आनप्पन्दलांतु नोड्यारि हाडळी. चेण्ड्यारि बड्डी पडळी. मेळांतु स चेण्डीं आशिल्लीं. दोन

कोंब आशिल्लें. कुरुंकुळल एकच आशिल्लें. चेण्डे वाजता. चेण्डेकार चेण्डीं वाजीताय. हस्ती पायार बड्डी दवरनु हस्तीकारि हातु उश्शें करनु निदेता.

दारवेदन्दाक वाति लायली; उजो लायलो. आमी पडक फुटयले; बाणु सोडळो; फुल कुत्ति जळयली. ती अर्दी जळनु सोन्तु जाली. पुरती जळ्ळी ना. तेद्दे भितरि दारवे दन्देल्यान मत्ताप दाकयलें.

(vi) **क्रियाशब्द**

आतां मेरेन चर्चा केल्लेलीं उतरां चडय वस्तुनामां (names of things) आसात. एकि क्रिया 'तूकि' आमी देखीली. उणेच क्रिया शब्द आनीकय आसूंयेत.

उदा (1) तुरुंब = rust. तुरुंबे = to rust
लोकंड तुरुंबेता. खीळो तुरुंबेलो.
कोयती तुरुंबेली. खोरें तुरुंबेतलें - इत्यादि

(2) मुरड = withered plant
मुरुंडे = to get spoilt by pest
रोंपी मुरुंडेता, मुरुंडेली, मुरुंडेतली

**नवनिर्माण**

कोंकण्यानि आपण्याले प्रतिभेन नवनिर्माण करनु रूपान अर्थान उज्वल करनु घेयलेल्या येद्दे उतरां विशीं सांगून हें निबंद समाप्त करतां.

1. बल्लाव = bad. चांग x बल्लाव

हें उत्तर ह्यच रुपान मलयाळांतु ना. जाल्यारि വല്ലാതെ (Vallade), വല്ലാണ്ടെ (valland ), വല്ലായ്ക (valtayka) - ह्या उदाहरणांथकून 'वल्ला' हो अंश काडून आमगेले पूर्वजांनि 'बल्लाव' हें उतर नवेंच निर्माण केल्लें. 'चांग' हाचे विपरीता अर्थान प्रयोग करनु तें आज प्रचारांत आयलां. नाम आनी विशेषण दोनीय रूपान हें उतर चलता.

उदाः तुगेलो पूतु बल्लावु जातलो.
ताणे मेगेलें सायकिळ बल्लाव केल्लें.
जीब बल्लावि जाल्यार कितें करप?
एक चांगाक एक बल्लाव आसतलें.
बल्लावाक बळ चड.
बल्लावि बायल (लाक्षणिक) = विधवा
शीत खावंचे जिबेन बल्लाव उलौ नाका.

'प्रयोगेण अभिज्वलितः' म्हणु पतंजलीन सांगिल्याक एक निदर्शन हें.

2. बगा (स्त्री) हाचें मूळ വക - वगा (vaga) बगेन, बगेक ह्या कारक रूपानीय हाचो प्रयोग आसा.

उदाः ताणे पुताले बगेक जायतो दुड्डु वेचु केल्लो.
[for the benefit of the son]
फायची सम्प्रादणा कोणाले बगेक?
[at whose cost?]
जावंय जायती बगा आशिल्लो मनिस
[very rich]
अन्नाक बगा ना
[no money even for food]
तो आतां बाप्पा सरि बगा दवरना
[doesn't care even for his father]
चेली कामतीली बगा
[Belongs to the family of Kamats]
तुगेले बगेक हांव उलैन
[on you behalf]
हांव जाण; आजि तूं इतेंय बगा करतोलो
[Do something serious, costly]
आम्माले बगेन मेळूळें; बप्पाले बगेन मेळूक आसा.
[on mother's side; on father's side]

हें उतर कशी कशी परजळेता पळे, अजाप दिसत.

3. पाणा = नज ह्या अर्थान. പാടില്ല पाडिल्ला (pa:dilla) हें उतर मलबारींतु आसा. ഇല്ല (Illa) चे बदल 'ना'. तावळ पाड + ना हांतुसून आतंचे 'पाणा' आयल्यां. हें व्याकरणाचें नियमाक अनुसरूनूच. पूर्वसवर्णनान 'न' 'ण' जालें. मागीर परसवर्णनान 'ड' आशिल्लें 'ण' जालें. मागीर 'ण' चें द्वित्व. आखेरेक द्वित्व निसरले. तशी पाड ना → पाडणा → पाण्णा → पाणा. बाप्पा सम बेसू पाणा. तशी सांगू पाणा. कोरु पाणा.

4. मूल अर्थां थकून निसरनु नवे अर्थान शब्द कशी कशी पसरेतात, परजळेतात म्हणु कळूक आनी एक उदाहरणः

खीरि आनी पायसु - खीरि 'क्षीरां थकून निष्पन्न आनी पायसु 'पयस्' शब्दांसून. क्षीर, पयस् दोनीय दुद्दाचे पर्याय. म्हणु खीरि आनी पायसु पर्याय बी न्हय. पोरणे कालाक खीरीक दूद जाय आशिल्लें.

'नवल दुद्द सम्मिलिआ

उल्लइ तंदुला खीरि '- म्हणु अद्दहमाण कवीन संदेसरासकांतु गायन केल्यां! तरीय आ
खीरीक दूद नाका. खीरीय तरा तराची - ओरवा खीरि, गोंवा खीरि; नांचण्या खीरि फुडे आशिल्लं
आतां नांचणो खंय? आनी पोळ्यां खीरि, फोड्यां खीरि. रडी खीरि-ती वेगळीच. खीरी
पैंदार (साखर) कोणे घालप ना. चड-ऊणे गोड घालि. सोई वाट्टून घालि; ना तशीच घालि
रडी खीरीक सोईय नाका.

आतां पायसाकय दूद जाय म्हणु ना. दुद्दा पायसाक जायीच मू. दुद्दा पायसाक पैंदार
जाय. बाकी पायसांक गोड पुरो. पायसु सुक्को जावयेत; पातळु जावयेत. कूट-पाय
सुक्कोच।

कांयगोळ - कोल्लांव आंब्या पायसु आसा खैं. तें आम्ब्यां गोड आम्बटच. पिक्कले पोणसा
आम्बट म्हणु नन्तना पोणसा पायसु म्हणीनात.

आमकां आतांय मलयाळीलें 'प्रथमन' आयलें ना. हें प्रथमन तरा तरा आसा खैं.

आमी खीरीचे पायसाचे पशि पंचकदायेक मान दिवंचे. गोकळाष्टमीक पंचकादाय जाय
खीरि, पायसु जाय तरि करि, आसो. पंचकदायेक गोड खंचे? आलड्ड्राडन् गोड खीरी
पायसाक काडूं. पंचकदायेक कोट्टागच्चे गोड हाडि. सबाव गोड म्हळ्यार नपुरो. सुवादु आनी
रंगु तो कोट्टागच्चे गोड्डाकच. पंचकदायेक तें नातिल्लें जावुंना. आनी पंचकदाय नाति
ओवसूंचि ना. धूव-जावंयि आयिल्लें वर्स. पंचकदाय ना तरि? आनी एक गुपित सांगतां. मेगेलं
आम्मा पोसो भरि ओरवाशे वाटून मीट घालनु खीरि करताली. लेवनु लेवनु बोटां चाबून खावुंका
कित्या? ती आम्मान अपुरबायेन पुता गुणी केल्लेली.

आम्मालि खीरि; ताजी रुचि वेगळीच.
आम्मालि भास? तिवय तसलीच मू.
उडगास आसो !

  

# कोंकणी कथासाहित्य केरळांत

**- गोकुलदास प्रभु**

खंयचेय भासेचें साहित्य काव्याच्या रूपान सुरू जाता आनी कांय काळा उप्रांत गद्य
ड्डेन येता. कोंकणीचें समग्र साहित्य पळयल्यार पद्य आनी गद्य दोनय हातातं हात घालन मुखार
ेचें दिसता. पुण सोळाव्या शेंकडया पयलींच्या कोंकणी साहित्या पसावत आमका चड कांय
ळना देखून आमगेले भासेंत काव्या उप्रांतच गद्य वाडून आयलें, काय दोनय एकच वळा
कासा पावलीं म्हूण निश्चितपणान सांगप कठीण.

केरळांतल्या कोंकणी साहित्याची दिश्टी घेतल्यार काव्यपरंपरे उप्रांतच गद्य उबजलां म्हण
त्रीन सांगूयेता. 1926 साकून 1970 मेरेन हांगा चडांत चड काव्यरूपाचीं पुस्तकांच उजवाडा
यल्यांत. कथा साहित्य गेल्या पंदरा वर्सांनीच वाडून आयलां.

गोंयच्या स्वातंत्र्याचो व्हडलो प्रभाव केरळाचे कोंकणी समाजाचेर पडिल्लो. 1966 -
कोंकणी भाषा प्रचार सभेचो वावर सुरू जालो, आनी आमगेली भासिक अस्मिताय जागी
ली. 1972 - त कोची साकून 'कोंकण जनता' उजवाडा येवंक लागलें. त्या म्हयनाळयांतल्यान
कणी बरोवप्यांक आपलें साहित्य उजवाडा हाडूक एक अप्रूब संद मेळ्ळी. 1978 - त
कणी परिशदेची बारावी बसका कोचींत भरली. दोन वर्सां उप्रांत पयलें केरळ कोंकणी कला
हित्य सम्मेळन जालें आनी मगीर केरळ कोंकणी अकादेमीची स्थापणूक जाली. कोंकणी
रेशदे उप्रांत गोंयचीं कांय कोंकणी नेमाळीं केरळांत मेळूक सुरू जालीं. आमगेल्या कथा
हित्याची सुरवात, वाड आनी विकास जावंक वयर सुचयल्ल्या सगळया घडणुकांचो प्रत्यक्ष
परोक्ष रीतीन वांटो आसा.

'कोंकण जनता' प्रकाशना वतीन दोन कथा संग्रह उजवाडा आयले - 'कोंकणी
याष्टक' (1978) आनी 'काणयां घोस' (1979). 1980 त सुदास शेणै हांगेलें 'एकु स्वप्नाचो
र्गु' आनी उप्रांत 1981 - त इंद्रकांत वासुदेव शेणै हांगेलें 'गोडी गोडी काणयो' हीं पुस्तकां
नवाडा आयलीं. तीन वर्सां उप्रांत प्रो. डी विश्वनाथ मल्ल्या हाणीं बरयल्लें पुस्तक 'काणियां
तो' प्रकाशन जालें. 1986 - त केरळ कोंकणी अकादेमीन 'कथा 83-84-85' हो प्रतिनिधीक
थासंग्रह उजवाडायलो. त्याच वर्सा म्हजी नवलिका 'पृथिवै नमः' पुस्तक रूपान आयली.
91 - त म्हजो कथासंग्रह 'अंतर आयामी' भायर आयलो.

केरळांत साकून भायर आयिल्ल्या पुस्तकांतल्या, आनी हांगाच्या बरोवप्यानी वेगवेगळया
ाळयानी उजवाडायल्ल्या काल्पनीक साहित्यांत चड करून मोटव्यो कथाच दिसतात. कथेच्या
कारापरस व्हडल्या आकाराची म्हण फकत एकच नवलिका उजवाडा आयल्या. देखून कथा
हित्याचो नियाळ करतना मोटवे कथांचोच उल्लेख करचो पडता. ह्या नियाळांत वयर
यल्ल्या पुस्तकां शिवाय वेगवेगळया कोंकणी नेमाळयानी उजवाडा आयिल्ल्यो केरळच्यो
कणी कथाय आस्पावतात.

'एकु स्वप्नाचो अर्थु' 'गोडी गोडी काणियो' आनी 'काणियां झेलो' भुरग्यां ख बरयल्लीं पुस्तकां. तांतुल्यो कथा स्वतंत्र न्हय. 'एकु स्वप्नाचो अर्थु' म्हाभारतातंल्या अष्टाव कथा सांगता. 'गोडी गोडी काणियो' सुदर्शन सिंह 'चक्र' हार्णी मूळ हिंदींत बरयल्ले कथ कोंकणी अणकार. भारतीय इतिहास, हिंदुपुराणां, बायबल, शेक्स्पीयरालें नाटक, अस वेगवेगळया मूळांतल्यान पुंजायल्ल्यो काणयो 'काणिया झेलो' हांतु मेळतात. साहित्यीक दिश 'काणिया झेलो' बरो दिसता. ह्या पुस्तकांतल्यो कथा भुरग्यांखातीर बरयल्यात देखून निवेदन भास तांका समजूची तशी सोंपी. कथापात्रां भुरग्यांची भावना रंगोवन वतर्ली. सरळ उतरा ल्होव आख्यान, आनी नैसर्गीक शैली हांका लागून हें पुस्तक कोंकणी भुरग्यांक ओडून घे

'कोंकणी कथाष्टक'-ंत आठ कथा आनी 'काणयां घोस-'ंत धा कथा आस्पावल्य 'कथा 83-84-85' - त पंदरा कथा आयल्यात. ह्या तीन संग्रहात २६ लेखकांच्यो कथा मेळत

खंयचीय कथा व कांदबरी वाचतना तांतूर्ली कथापात्रां आमगेलें लक्ष्य ओडून घेत ह्या कथापात्रांचो एकमेकांकडेन संबंद आसा. तीं एकमेकांकडेन उलयतात. तांच्यो कांय कर घडतात. जाणा जावन व नेणा जावन पात्रांच्यो, कांय घडणूकांत वांटो आसता. कथापात्रांच्या संवादावेल्यान, तांच्या विचार-विकारांतल्यान, तांचे निमर्त्ती घडच्या घडणुकांतल कथा व कांदबरी एक खास दिकान मुखार वता, एक खास रूप घेता. ह्या रूपाक कथा अथवा कथावस्तु म्हणयां. कथा,ना जाल्यार कादंबरी वाचतना जीवितांतल्यो घडणुको पर घडल्या वरी अणभवता. देखून काल्पनीक साहित्यांत लेगीत जीविताचो दिश्टावो मेळता

वयल्यान कळून येतलें कि कथेर्ची/कांदबरीर्ची घटकां अशी आसात -

१. कथानक अथवा कथावस्तु
२. पात्र निर्माण
३. पात्रां आनी कथानक हांचो संबद
४. संवाद
५. विकार व भाव
६. समाजिक पार्श्वभूंय, काळ आनी वेळ
७. शैली, आनी
८. कथा/कांदबरीकारालें जीवित दर्शन.

कथासाहित्याचो नियाळ घेतना वयर सुचयल्ल्या निर्णायक घटकांचो आदार घें पडता. ह्या घटकांक कथेच्या निर्माणांत वांटो आसा इतलेंच न्हय. तांच्या गुणांक लागून क कांदबरीचो दर्जो वाडता वा ऊणो जाता, हेंच मुख्य कारण.

केरळांतल्या कोंकणी कथासाहित्याचेर विचार करतना कथानकाच्या वैविध्याचेर दि घालप उचित दिसता. कथाकारांच्या आनी तांगेल्या कथांच्या उण्या आंखडयाक ला thematic वैविध्याची व्याप्त ऊणी दिसता. पुण कथाकार वेगळे वेगळे विषय हाताळत

जीवितांतली एक म्हत्वाची घडणूक म्हळयार व्हारडीक/लग्न हो विशय खूब लेखकां

कथेंत दिसता. पुण हो विशय हातांत घेतना लेखकाचो mood romantic जायना. लेखक व्हारडीकेक चिकित्सायेन पळयतात. देखून तांगेले कथांत व्हारडीकेचे संदर्भांत वैयक्तीक जीवितांत येवंचो ताण, कुटुंबांक जांवचो त्रास आनी समाजांतल्यो समस्या आनी संघर्ष पळोंवक मेळता.

श्रीमती सुशीला त्रिविक्रम भट हांगेले कथेंत ('मांगल्य सौभाग्य') दळिद्री परिस्थितीक लागून, देण्याचे समस्याक लागून एक चलयेक म्हांतार्याली दूसरी बायल जांवचें पडता. देण्याचो प्रश्न पय्यनूर रमेश पै बी हाताळता ('चात्रीणें'). सोयरीक जोडचे निबान चेलयांक पळोवंक येंवच्या दादल्यांची के. एन. रमेश भट विडंबना करता आनी ते चलयांची मानसीक ताण दाखोवन दिता. ('एक फूल लेगेन करपून गेलें') कथेंतले चलयेक सौन्दर्यय ना, गोरसाणय ना देखून तिजो परत परत तिरस्कार जाता, अपमान घडता. व्हारडीके हुंबरार पाविल्ले तिजी आत्माहुती जाता. अशीच एक कुरूप चलियेक बी. एस. आशा हीणेंय चित्रायलां ('जन्मार्चें उणत्व'). पुण ह्या पात्रान आपणाली व्हारडीक जांवची ना म्हण बरे तरेन समजून घेतलां. तरीय तिजो आवयपणाचो उत्कट आग्रोह परोक्षपणान उकतो जाता. आनी बळीक (small pox) लागिल्ल्या एक भुरग्याक ती मोग दीवन ताजो रोग आपणायता. श्रीमती वत्सला रामचंद्रन हांगेले कथेंत ('मोचन') विमला ही एक शोषित चली व्हारडिके खातीर तानेता. पी. एन. शिवानंद शणै ('सान सान फूल') आनी शरतचंद्र शणै ('आवर्तन') हांगेले कथांत व्हारडिके उप्रांत घोव बायलांचा जीवितांत येवंचो संघर्ष आनी तुंटल्लो लग्ना-बंदन पळोवंक मेळता. जात-धर्माचो फरक आनी ताका लागून निर्माण जांवचो समाजिक आडखळ मोग्यांक एकमेकांकडेन व्हारडीक करपाक क़सो आड येता, ही गजाल वासुदेव लक्ष्मण प्रभु ('पै आनी प्रभु') आनी सुभाषचंद्र प्रभु ('स्वप्नाजीवित') हांगेले कथांत दिसता. समाजिक विरोधाक तोंड करूनय मिश्रविवाह घडता म्हणपाचो पुरावो शरतचंद्र शणै हांगेले कथेंत ('परको') मेळता, पुण व्हारडिके उप्रांत घोव आपघातान मरता तरीय उषा हें पात्र स्वजातीच्या आपल्या मोग्याचो तिरस्कार करता. अशीच एक विफळ मोगाची काणी 'नष्ट सौभाग्यांत' आर.के. सुरेष सांगता. 'नष्ट सौभाग्य' इतलेंच सांगता की मोग आनी मोग्यांची व्हारडीक हांचे मदें आर्थिक परिस्थिती आड येंवक शकता. आर्थिक परिस्थितीक लागूनच 'मोगरे फूल' हे कथेंतलो (बरोवपीः एन.आर. मल्ल्या, पळ्ळूर) रत्नाकर व्हारडीकेची आशा सोडून बशिल्लो, तरीय वसंताक पळयनाफुडे ताजें मन बदलता आनी तो लग्नाक तयार जाता. पुण ताजी जन्मा कुंडळीची आडचण जाता. तो तळमळता.

गिरेस्तपणाचो व आर्थिक दुबळेपणाचो मनष्याचेर केदो व्हडलो प्रभाव पडता, हें आमगेल्या कथाकारांच्या लक्ष्यांत आयलांच. आर.के. प्रकाश ('एक पिश्याच्या काणी', 'उदयाचें अस्तमन'), एन.आर. मल्ल्या ('पाप परिहारु') जी. मुरळीधर पै ('सत्य आनी मिथ्या'), पी. श्रीनिवास प्रभु ('भिके शीत'), ए. सदानंद पै ('रूचिकर हाप्पळ') वी. वेंकटेश ('मरण') हांगेल्या कथांतल्यान दिसून येता कि दुडवा विणा मनषांक मनीषपण होगडांवचें पडता. दुडवाचो दुराग्रोह

आनी दुडवाच्या अभावांत निर्माण जांवचें दुबळेंपण मनीषपणाक चिरडून दवरता. आर्थि
दुबळेंपण खास जावन मनीषपणाक मारची एक भिरांकूळ शक्ती जावन दोळयां मुखार येत
ती शक्ती वेगवेगळे परिस्थितींत वेगवेगळे नमूनेन परगटता आनी मनषांचेर नाना तरेचो प्रभ
घलता. गोपिनाथ कामत ('ती धन्य जाली') नारायण नायक ('अंतीम भीक') हांगेले कथ
दळिद्रपणाचे पार्श्वभुंयचेर मनष्यां मर्देचो सबंद जाता. आर.के. प्रकाश ('चिकलांतलो देव
आनी एस. प्रकाश ('चार बरपां') मनषाल्या गिरेस्तपणाचो दुराग्रोह स्पश्ट करतात.

तरणाटयानी म्हांतार्यांची उपेक्षा करप हें चित्रय खूब लेखकांले कथांत मेळता. देखी
सुशीला भट ('स्मारक', 'ब्रह्मगांठ') पी. श्रीनिवास प्रभु ('भिके सीत') ए. सदानंद पै ('रूचिक
हाप्पळ') हांगेल्यो कथा.

सुशीला भट ('मांगल्य सौभाग्य', 'शुद्धिकलश'), शिवानन्द शेणै ('सान सान फूल'
वत्सला रामचंद्रन ('मोचन'), शेट बलराज ('भूक आनी भीक'), के.एन. रमेश भट ('एक फ
लेगेन करपून गेलें'), आनी सुभाष चन्द्र प्रभु ('स्वप्नजीवित') हांगेले कथांत, पुरूषप्रधा
समाजांत बायलांचेर कसो अन्याय जाता म्हणपाची देख मेळता.

युगायुगानी समाजांतल्या एक पिळगेन आनीयेक पिळगेक दीवन आयच्या काला
पाविल्ले कांय धार्मिक विचार आसात. पाप-पुण्याची भावना आसा. हे विचार आनी भाव
केन्ना केन्ना मनष्यांक orthodox करता, आनी तांचो विचार संकुचित जाता, विश्वास कुर
जाता, ही गजाल सुशीला भट ('शापाचें बीं'), रामचंद्र कामत ('भटपण') आनी एन.आ
मल्ल्या पळ्ळूर ('मोगरे फूल') हांगेले कथांत दिसता.

शिवदास मल्या हांगेले कथेंत ('प्रतिकार') एक भाचो मामालागी सूडीची भावना घेव
वता दिसता. एल. मुकुंद पै हांगेले कथेचो ('सत्यं एव.......') विशय जावन आसा भ्रश्टाच
आनी भ्रश्टाचाराक तोंड करप. वेंकटेश बेकारपणाची वेदना कळयता ('तमसो मा ज्योतिर्गमय
आनी रमेश पै भुरगेपणाचें, शिक्षणाचें आनी शाळेचें वातावरण निर्माण करता ('छल : ता
फल', 'गुलाब शेंवत्याचो परमळ'). शरतचंद्र शणै वैयक्तीक गुणांक लागून व्यक्तींक, कुटुंबा
आनी समाजांत जावंच्या संघर्षाचें चित्र उबें करता ('सोस्से', 'अलमेलू', 'परको', 'रेणू
'आवर्तन') आनी केन्ना केन्ना समाजिक समस्या विनोदान हाताळता ('पाल्ली'). एन ए
आनन्दनय, साहित्य निर्माणाची तांक नाशिल्यांचो उल्लेख करतना विनोदाचो अवलंब घेता. पु
केरळांतल्या कथाकारां मदें हास्य कथा बरोवंक जैतिवंत जाल्लो लेखक म्हळयार के. आ
वसंतमणि ('घोणी').

कथाबीज वाडोवन कथा पुष्ट करपाक सगळयांक साध्य जालां म्हूण सांगूयेना. जायत
कथाकारानी कथाबीज वाडोवंक वावर करूकच ना. कथेची सुरवात आनी शेवट हांचे मदें व्हड
कांय घडना. पात्रांची वळख जावन तीं पूर्ण विकास पांवचें आदींच कथा सोंपता. देखीक 'च
बरपां' (एस. प्रकाश) 'मरण' (वी. वेंकटेश) 'संगूबाय' (डॉ. गोविंद शणै) 'पाल्या उदक' (प्रे
भक्तन) 'निधी कलशु' आनी 'शापाचें बीं (सुशीला भट) आनी 'दोन अक्षरां प्रेमाचीं' (ए. सदान

पै). ह्यो कथा भावनेन पोसूक ना. देखून, सामकी विकास पावंक ना. कथा एक तराचें Synopsis जावन उरल्यात. कथायेवजेणे खातीर फाव ती कल्पना करून त्यो कथा खूब वाडोवंयेत आसल्यो. पुण तशें जावंक ना.

जायत्या लेखकांक कल्पनेचो उणाव ना. तांची कल्पनाशक्ती बळादीक आसा. पुण कथा पूर्ण जांवची जाल्यार कल्पनाशक्तीक वस्तुस्थितीकडेन गांठ घालून रावोवंक जाय. कथाकाराली कल्पना वस्तुस्थिती सोडून पयस गेली तर कथेक वास्तवीक रूप नष्ट जातलें आनी fantacy चें रूप येतलें. आधुनिक कथासाहित्यांतय fantacy चो प्रयोग जाताच. पुण तसो उपयोग जातना, कथेची विश्वसनीयता नष्ट जायनासो करूक जाय. कांय लेखकानी हें तत्व लक्ष्यांत घेवंक नाशें दिसता.

देखीक 'मांगल्य सौभाग्य' - एकलो तरणाटो आपल्या बापसूले धाकटे बायलेक उक्त्या जाग्यार व्हरून बलात्कार करता आनी ताका लागून ती रोखडीच मरता. केरळांतल्या कोंकणी समाजांत बापसूले धाकटे बायलेक बलात्कार करपी निष्टूर आसा म्हणपाची खात्री जायना. कारण ह्या समाजांतलीं मूल्यां तशीं राखून दवरल्यांत. पुण तसो एक बलात्कार जालोच तर बत्तीस वर्साची एक बायल मनीश, एकच मनषाच्या बलात्काराक लागून मरत म्हण सांगपय साध्य ना.

'भूक आनी भीक' (शेट बलराज) हे कथेंतय विश्वसनीयतेचो प्रश्न उप्रासता. कथेंतली सुशीला सांगता - "फाल्यार हांव जाग जाली. मांचार थाकून उट्टावंक जायना. आंग सगळेंच दूकी....... कोणे की मिगेलें चारित्र्याक ध्वंसू केलो". ह्या उतरांवेल्यान गैरसमज जावंयेता- बलात्कार जालो म्हणपाचें तिका फाल्यारच कळ्ळें ? अत्याचार जातना कळनासलें? तीणें विरोध केलो काय ना ? तिजी प्रतिक्रिया कसली आसली ? "कोणे की मिगेलें......" म्हण्टना तिका त्या मनषाची वळख मेळूंक नाशिल्ली म्हण स्पश्ट जाता. वळख नाशिल्ल्या त्या नीच मनषालो रूमालो तीन वर्षांक ती कित्याक सांबाळून दवरता ? आनी अपणाचेर अत्याचार केल्ल्या त्या मनशाक प्रत्यक्षपणान पळयतनाय रोखडोंच वळखून घेवंक तिका जायना, तेन्ना कथेंत रूमालाचो वांटो कसलो ?

'अभयदान'-ंत (सुशिला भट) सरोजा 'हांवपणान' घोवाक सोडून वता, पुण एकेवीस वर्सा उप्रांत तिका ताजो उडगास येता, ताजे संगाताची ओड भोगता. तो तिजो तिरस्कार करता तरीय आतां ती ताजे विणा जियेवपाची ना म्हणता. तिका आपणावपाक तो तयार ना, पुण व्हनयेन सांगना फुडे तो जायत म्हणता. हें सगळेंच विश्वसनीय म्हण सांगूंजायना.

'ती धन्य जाली' (पी. गोपिनाथ कामत) हे कथेंत अनाथाश्रमांतले एक चलयेक बंगळूरचो एक समाज सेवक डॉकटर येवन व्हारडीक करता. ते चलयेक अत्यंत सौन्दर्य, बुद्धी, शिकवण ना जाल्यार खंयचेय असाधारण गूण आसाशें कथाकार सांगना. डॉकटर येता, तिका पळयता, तिजे लागी उलयता आनी तिका व्हारडीक करून घेवपाचो निर्णय घेता. आनी कथेक fantacy चें रूप मेळता.

'पै आनी प्रभु' (वी. लक्ष्मण प्रभु) ही सामकीच एक हास्य कथा न्हय. कथेचो स्वभाव गंभीर. पात्रांचो विकार विचार गंभीर. कथेक एक comic वळण येता एक आडनांवाक लागून नारायण पै नीना प्रभूचो मोग करता. पुण ती गोंयची क्रिस्तांव म्हण ताका कळना. आनी कळता तेन्ना तो सामकी घुस्पागोंदळात पडता. नारायण पैली चूक आमका समजना. खंयच्याय कोंकणी मनष्याक ताजे उलोवपाचे शैलीवेल्यान वळखूयेता, ही एक गजाल. नीना प्रभु गोंयची क्रिस्तांवचलीच जाल्यार तिजे भासेवेल्यान ताका कळूंक जाय आशिल्लें. दूसरें, आनी म्हत्वाचें म्हळयार, मोगांत पडिल्ल्या चले-चलयांक जात धर्माचो, भासेचो आनी प्रदेशाचो--कित्याक राष्ट्रीयतेचो लेगीन--प्रश्न जायना, हें आमी वास्तवीक जीवितांत पळयतात. केरळांतल्या कोंकणी समाजांतले व्यक्ती लेगीन मिश्र विवाहाचे वांटेली जातात. देखून नीनाचो मोग करूनय, व्हकल सोडून काडूक आवसबापसून ताका हक्क दीवनय, व्हारडीकेच्या निर्णयाकडेन पांवतना नारायण पै कित्याक फार्टी सरता म्हण समजना. नीनालो आनी नारायण पैलो मोग खर्या अर्थान मोग म्हणप कठीण.

वास्तवीक जीवितांत असल्यो घडणुको घडना अशें न्हय. अप्रूब जावन घडता. देखूनच कथाकारान त्या अप्रूब घडणुकांचो उल्लेख करतना वाचप्यांक विश्वास जावचोशें बरोवपाची गरज आसा. कांय गजाली वाचपी दोळे धांपून घेतले. तेन्ना willing suspension of disbelief घडता. पुण ही गजाल वास्तवीक जीणेचे परिस्थितीत घडची ना, वाचप्याक अपरिचित परिस्थितीत वचचें पडता, तेन्नाच घडता. आधुनीक कथांत हे गजालीक Scope ना. आसाच तर ती प्रभावपूर्ण करपाक बरोवप्यान मुद्दाम वावर करूक जाय. 'अभयदान' 'मांगल्य सौभागय' 'ती धन्य जाली' असली कथा वाचतना लेखकानी तसो वावर करूक ना दिसता.

'दोन अक्षर प्रेमाचीं' हे कथेंत (ए. सदानंद पै) एक म्हांतारो आनी पारवो हांचो संबंद आसा. पुण कथेंत action ना. कथेंतली भावना फुगत वता तितलीच भितर पोकळ जावन वता. पात्रां वाडोपन हाडूंक जाय तितल्यो घडणुको नात. देखून कथानक Static जावन उरल्यां, कथेचो व्हडलोसो प्रभाव जायना. श्रीनिवास प्रभु ('वाट पवित्र') आनी शरतचंद्र शणै ('सोस्सो') हांगेले कथांतय असोच एक अणभव जाता. पुण ह्या ल्खकांचे दृश्टीन कथानका परस व्यक्तिचित्रणाक चड म्हत्व दिवपाचें आसलें दिसता.

कथा साहित्यांत कथाबीज, कथायेवजण आनी घडणुको, हें सगळेंच एक माध्यम--मनीष कुळाचें जीवित चित्रावपाक एक उपाय. कथा कादंबरीत मुख्य घटक म्हळयार मनीषच. मनीष एकमेकां कडेन संपर्क करतात, संबंद जोडतात, चिंतनां आनी अणभवां उक्तीं करतात. भितरले आनी भायले अणभवांतल्यान जीवित मुखार पांवयतात. देखून कथा साहित्यांत मनीष आनी ताजो अणभव केन्द्रस्थळार आसता. मनीष साहित्याचो हेतू. मनीष साहित्याचो विषय. ताजो अभ्यास साहित्याचो उद्देश.

जीवितांतले मनीष कथापात्रां जावन येतात. साहित्यांतलीं पात्रां जेन्ना जिवाळ जावन

ातात, तटतटीत जावन आमचेमुखार रावतात, तेन्ना साहित्य उत्कृष्ट जाता. कथा कांदबरींत
णुको उण्यो जाल्यार जायत. कथाबीज म्हण कांयच नासल्यार जायत. कथायेवजण दुर्बळ
ली म्हण पर्वा ना. पात्रां जिवाळ जावन तांचें अस्तित्व वाचप्यांचेर प्रभाव घालीत जाल्यार
ा साहित्यांत दूसरें कसलेंय उणें जालें तरीय तो उणाव व्हडलोसो अणभवचो ना. केरळांतलो
कणी समाज इतर भासिकांमदें भरसून रावला आनी दिसपटत्या जीवितांत मल्याळी, तामीळ,
ाडा, गुजराती, जुदेव आनी आंगलो-इंडयन मनशांच्या भुजांक भूज तेंकोवन वागता, वेग
ळया जातींच्या, धर्मांच्या, भासांच्या आनी संस्कृतीच्या लोकां कडेन तांचो लागीचो संबंद
ना. देखून हांगाचे कोंकणी कथांतल्या पात्रांच्या पंगडात परके समाजाचे प्रतिनिधींची अपेक्षा
येता. पुण अजाप म्हणूक जाय, पी.एन. शिवानन्द शणै आनी शरत चंद्र शणै सोडून दूसर्या
च्याय लेखकाले कथेंत परक्या समाजाचीं कथा पात्रां दिसनात. चडांत चड कथाकार बरोवंक
तना आपल्या समाजाचे अस्मितायेचे परिमितींत ओडून रावतात.

हांगाचे कथेंत चड करून मध्य दक्षिण केरळांतल्या कोंकणी समाजांतले व्यक्ती दिसतात.
पात्रांक वास्तवीक जीणेंतल्या पनषांकडेन identify करप तितलें कठीण न्हय. के. नारायण
ायक हांगेलो रंगू, कमळक्का, पडकळी नेण्डू ('रंगू सुंटोलो') आनी जोगेश ('पाक उडलें')
: बलराज हांगेली सुशीला ('भीक आनी भूक') मुरळीधर पै हांगेले कथांतली ('सत्य आनी
थ्या') 'हांव', तिगेलो घोव, मांय आनी नणंद,श्रीनिवास प्रभु हांगेले कथेंतलो नायक माम
ाट पवित्र') गोविंद, कृष्णु, कृष्णाली आवसू आनी भयण ('भिके शीत'), रामचंद्र कामत
ो चित्रायल्लो भटालो पूत ('भटपण') वेंकटेशाल्या कथांतलो सुबट ('मरण') आनी सुधाकर
: ('तमसो मा ज्योतिर्गमय') हीं पात्रां, प्रेमा भक्तन हीणे दाखोवन दिवंचो रामु आनी नारायण
ायक ('पाल्या उदाक') एल. मुकुंद पै हांगेले कथेंतलो ('सत्यं एव....') रमेश, सुशीला भट
ाले कथांतलो बालू ('बह्मगांठ') प्रदीप, सुजाता, सत्या ('कर्मबंधन'), सुमित्रा आनी भटमाम
ांगल्य सौभाग्य'), गोपिनाथ कामत, ताजी व्हनी आनी रजनी ('अभय दान') एन.आर.
ल्या हांगेलो रत्नाकर, रंगभट ('मोगरे फूल') आनी बप्पि माम ('पापपरिहारू') के.एन.
शभट हार्णी चित्रांवची राधिका, तिगेले आवस-बापूस आनी भयण ('एक फूल लगेन करपून
') बी.एस. आशा हीणे निर्माण केल्लें शीला हें पात्र ('जन्माचे ऊणत्व') वत्सला रामचंद्रन
णीं दाखोंवची विमला ('मोचन'), पी.एन. शिवानन्द शणै आनी शरतचंद्र शणै हांगेले कथांतली
ां, सगळींच आमका वळखीचीं दिसतात. रमेश पै हांगेलीं पात्रां-चित्रा, तिगेली आवसु आनी
ासु ('चात्रीणें') दीपक आनी रवीन्द्र ('छल : ताज्जे फल') दूसरेच एक शैलीन उल्यतात तरीय
आमका लागीचीं दिसतात.

'सान सान फूल' हे कथेंत शिवानन्द शणै एक मल्याळी पात्राचो (-जोसफ) उल्लेख
ता. हें पात्र कथेच्या periphery त रावता, पयस रावन आपलें परकेंपण सांबाळता. पुण
स रावन मुख्य कथापात्राचेर प्रभाव घालून कथागती वेगळेच कडेन पांवयता. निर्मलाक सोरो
ांक लादन ताजो स्वभाव सगळोच बदलून कथानकांत वळण हाडपांत जोसफाचो व्हडलो वांटो

आसा. आनी ते नदरेन पळयतना जोसफाक एक Minor villain -चें पडबिंब लाबता.
गजाल कौतुकाची आनी नैसर्गीपणान ती घडल्या. कारण दूसर्या खंयचेय भासेंतल्या साहित्य
परक्यांचेंcaricature जाल्लें पळोवंयेता. केन्ना केन्ना परक्यांक लागूनच villainy घडि
दिसता. जोसफय ह्या तत्वाक आडवाद न्हय.

पुण शरतचंद्र शणै हांगेल्या कथांत असो पक्षपात दिसना. कोंकणी समाजांतले ज
परके जांव, शरतचन्द्र सगळया पात्रांक समान दिश्टीन निर्माण करता. तांगेले कथांत ('सो
'परको' अलमेलु') कोंकणी मनष्यांलें आनी परक्यांमदें वास्तवीक जीवितांत घडता तसलो सं
आनी संबद जाता. हो संबद मोग जावन वाडून व्हारडीके कडेन लेगीत पांवता ('परक
'अलमेलू'-त त्याच नांवाची तामीळ चेडूं मुख्य कथापात्राचे भयणीले जाग्या रयेवन रावत

कथापात्रां लागीचीं आनी वळखीचीं दिसलीं म्हण उत्कृष्ट जालीं असो अर्थ ना. अ
उत्कृष्ट कथापात्र म्हण्टना आदर्शवंत कथापात्र अशेंय ना. मनष्याले वेगवेगळे भाव-विकार घे
मनीषपणाची व्याप्त आनी खोलाय घेवन मनीषपणाचो संकीर्ण स्वभाव दाखोवन येंवचीं पा
उत्कृष्ट. पात्रां उत्कृष्ट जांवचीं जाल्यार लेखकाक तांचेकडेन एकरूप जावन बरोवचें पड
तांगेल्या वातावरणांत रिगून तांगेलीं चितंनां आपणावचीं पडता. तांगेलो मोग आनी मा
दुस्वास आनी विद्वेस, सूख आनी दूख, जाळ आनी कांटाळो, कोप आनी थंडाय, अस्वस्थत
संघर्ष आनी समाधान, उणेच उतरानी सांगचें जाल्यार तांगेलें सगळें अस्तित्व अणभवचें पड
हें कांय जणांक साध्य जालां.

वी. वेंकटेश ('तमसो मा ज्योतिर्गमय', 'प्रिय दुख मिगेलें मात्र', 'मरण'), शिवा
शणै ('सान सान फूल'), बी शिवदास मल्या ('प्रतिकार'), के.एन. रमेश भट ('एक फूल ल
करपून गेलें'), वत्सला रामचंद्रन ('मोचन') रामचंद्र कामत ('भटपण'), पी. गोपिनाथ का
('मिगेलें दुख'), शरतचंद्र शणै ('रेणू', 'सोस्से', 'परको', 'आवर्तन' 'अलमेलू'), रमेश
('चान्नीणें'), सुशीला भट ('शुद्धि कलशु', 'पलायन', 'कर्मबंदन', 'अभय दान', 'ब्रह्म गांठ
आर.के. सुरेष ('नष्ट सौभाग्य'), आर.के. प्रकाश ('एक पिश्याच्या काणी', 'उदय
अस्तमन'), एन.आर. मल्ल्या ('मोगरे फूल', 'पाप परिहारू'), हांका कथापात्रांकडेन एक
जावन जीवितांतले सान व्हड संकट, अकांत, धोक्के, हुसके, अर्थ आनी अर्थशून्यताय आ
मुखार हाडूक जैत मेळळां.

वी. वेंकटेश आनी शरत कथा पात्रांकडेन इतले एकरूप जातात कि तंगेली क
निवेदनाची शैली सोडून पात्रांच्या अणभवाच्या तळारच रावून मुखार सरता. हे कथाकार क
बरोवंक सुरू करतनाच सांमकी पात्रांच्या मनांत रिगून, अंतरंगाचो नियाळ करतात. हे लेख
कथापात्रांच्या बाह्य प्रतिमेची दिश्टी घेनात. तांका ते गजालीचो व्हडलोसो उपयोग दिस
मनष्यांमनांत बुडून थंयच्यान जीवित-वीक्षण करप तांगेले पात्र निर्मितीचें खाशेलपण. देखू
शरतालीं आनी वेंकटेशालीं पात्रां संकीर्ण स्वभावाचीं जावन दिसतात. शिवानन्द मल्या, ए
आर. मल्ल्या आनी मुरळीधर पै ह्याच पंगडांत आस्पावतात. पुण हे लेखक पात्रांचे मनांत रिगत

तांची भायली परिस्थिती विसरनांत.

रमेश पै, रामचंद्र कामत, बी.एस. आश, के.एन. रमेश भट, शिवानन्द शणै, वत्सला रामचंद्रन, वी. लक्ष्मण प्रभु, आर.के प्रकाश, आनी श्रीनिवास प्रभु कथा पात्रांक चित्रायतात. आनी, मागीर कथेचें चलन सुरू जातना, कथाकार फाटीं सरतात, पात्रां जिवाळ जातात, कथा मुखार पांवता.

सुशीला भट हांगेल्या पात्रनिर्माणाची शैली वेगळीच. लेखिका पात्रांचें विवरण करता, तेन्ना तीं निश्चल निर्जीव चित्रां जावन रावतात. आमकां तीं भायलान दिसतात, पुण त्या पात्रांचे मनोवृत्तीचो दिश्टावो मेळना. अप्रूब जावन ही लेखिका अपल्या पात्रांकडेन एकरूप जावन तांच्या मनोधर्मांचो दिश्टावो दिता. 'अभयदान'-ंतलो गोपिनाथ कामत आनी 'शुद्धिकलश'-हांतलो बालू विकाराच्या ताणावान अपणाकच विसरून उलयतात तेन्ना रोखडेच जिवाळ जावन, सुशक्त जावन, सक्रिय जावन वाडून येतात.

पुण जायते कथांत आमका पात्रांपरस लेखकच सक्रिय जावन दिसतात. लेखकांनी पात्रांक सामकी पोसूंक ना. त्या दुबळया पात्रांक लेखकाच्या आख्यानाचेर तेंकून उबीं रावचें पडता. आनी लेखकाल्या निवेदनाचो आदार सोडल्यार तीं पडतात. देखीक 'रंगू सुंटोलो'-हे कथेंतलो रंगू. हे कथेचो विषय रंगू, रंगून जीविता कडेन केल्लो संघर्ष, जीवितांतल्यान रंगूचेर आयिल्लो संकट. कथाकार रंगू पसावत इतलें चड सांगता तरीय रंगू आमचे मुखार येना. तो काळखाकुडांतल्या काळया माजरा वरी खंयतरी अदृश्य जावन, अस्पृश्थ जावन बसला. ताजो संघर्ष आमच्या मनाक हात लायना. ताजो धोक्को आमका आपडना. आमचे भावनेंत लेगीत रंगू एक रगता-मांसाचो मनीष जावन उबो जायना.

ए.सदानंद पै हांगेली कथा ('दोन अक्षरां प्रेमाचीं') खर्या अर्थान एक भाव कथा. कथेचो विषय म्हळयार गिरी आनी तागेलो पारव्यांचो मोग. कथाकार त्या मोगा पसावत परतून सांगता. पुण गिरील्या मनांत देंवन त्या मोगाची दिश्टी घेवंक आमका सोडीना. गिरी एक सावळी जावन दिसता शिवाय मनीषपणाचो भाव विकार घेवन येना.

जी. मुरळीधर पै, श्रीनिवास प्रभु आनी पी.ए.श्रीधर कामत पात्र निर्माणाची तांक आसूनय केन्ना केन्ना पात्रांचें आनी वाचप्यांचें मदें येवन रावतात. आर. सुभाषचंद्र प्रभूय ह्याच पंगडात आस्पावता.

हांगाच्या कथापात्रांची एक परिमिती आसा. कथांचो आंकडो ऊणो देखून जायत. पुण पात्रां-वैविध्य ऊणेंशें दिसता आनी पात्रांच्या चित्रीकरणांत मनीषपणाची व्याप्त आनी खोलाय अपेक्षेप्रमाणीं दिसना. चडांत चड पात्रांची पार्श्वभूंय आर्थिक दुबळेपाणाची. आर्थिक दिश्टीन तीं दुबळीं न्हय जाल्यार पात्र निर्माणाचे दिश्टीन दुबळींच. परिस्थिती आड उबी रावंक जाय तितलें बळ आनी सामर्थ्य तांका ना. देखून 'भटपण'-ंतलो नारायण, 'सत्यं एव····' कथेंतलो रमेश, 'पै आनी प्रभू'-तलो नारायण पै, 'रंगू सुंटोलो'-तलो रंगू 'अंतीम भीक' कथेंतलो सानु, सानी आनी मनोज, 'तमसो मा ज्योतिर्गमय'-ंतलो सुधाकर भट 'जन्माचे उणत्व'-ंतली शीला,

'नष्ट सौभाग्य' आनी 'उदयाचें अस्तमन' कथांतलो 'हांव', 'भिके शीत'-ंतलो गोविंद, आ
'मिगेले दुख'-ंतलो राजा आनी तागेली आवस बापूस परिस्थितीचें वजन घेवनय निष्क्रिय जाव
रावतात. शरतचंद्र शणै हांगेले कथेंतलो ('आवर्तन') राम जीवितांत सामकी हार खाव
आत्माहुतीचो निर्णय घेता तरीय ताका तो निर्णय लेगीत प्रयोगांत हाडूक शकना.

पुण पात्र निर्मितीचे दिश्टीन सुशीला भट एक वयल्या पांवडयार रावतात. तांगेल
पांत्रांच्या पंगडांत वैविध्य आसा आनी वेगळेंपणय आसा. तांचे मदें दुबळीं तशीं बळादीक पात्रां
आसात. निष्ठूर आनी दयाळू, शांत आनी सात्वीक तशींच विद्रोही आनी क्रांतीकारी पात्र
आमकां दिसतात. पात्रां सात्वीक गुणांची व वायट आसूंदी पुण सुशीला भट हांगेलीं चडां
चड पात्रां सुशक्त जावन आसात.

सुशीला भट हांगेलीं पात्रां उलोवपांतल्यान विकास घेतात म्हण सांगलें. उलोवप अथव
संवाद कथातंत्राचें एक मुख्य आंग. आनी आमगेले चडांत चड बरोवपी संवादाचो बरो प्रयो
करतात. संवाद, सहजपणान केरळी शैलींत जाता.

संवादांतल्यान पात्रांचो विकास जाता इतलेंच न्हय. पात्रांचो स्वभाव, तांचें व्यक्तित्व
जीवित शैली, अस्मिताय,समाजिक पांवडो, दुडवाची परिस्थिती, आनी एकमेकांकडलो संब
संवादावेल्यान स्पश्ट जाता. देखीक शरतचंद्र शणै 'रेणू' हे कथेंत पात्रांपसावत कांयच निवेद
करना. पुण संवादावेल्यान तांगेली पिराय, अस्मिताय आनी तांगेलो संबद आमका कळून येता
जीविताचें आकर्षण, मरणाचें निश्चितपण आनी गुपीत स्वभाव, भुरगेपणाचो सरळ स्वभाव आनी
जाण्टेल्यांचो मनोभाव कर्थेतल्या संवादावेल्यान स्पश्ट जाता.

'शुद्धिकलश'-ंतलो नन्नू आनी 'अभय दान'-ंतलो गोपिनाथ कामत हांगेलो स्वभाव
संवादा पयलीं आनी उप्रांत एकच वरी आसना. कथेचे सुरवातींत नन्नू एक विनम्र, बुदवंत आनी
समाजसेवेक भायर सरिल्लो तरनाटोसो दिसता. पुण ताजे भाषणांतल्यान जीवित भर ताणें दामून
दवरिल्लो कोप, ताजें स्वतंत्र दिश्टिकोण, समाजांतले रीत रिवाजांचो तिरस्कार आनी क्रांतिकारी
मनोभाव उक्तो जाता. ताजे जीविताची भूमिका सगळीच स्पश्ट जाता. गोपिनाथ कामतय
संवादा वयल्यान आपलो इतिहास, आनी त्या इतिहासांतल्यान घडून आयिल्लो मनोभाव आनी
मानसीक निबरसांण दाखयता.

केन्ना केन्ना कथेचें action मुखार पावोवंक संवादाचो सहाय जाता. देखीक वेंकटेश
हांगेली कथा 'मरण'. मरणाची वाट पळोवन बाशील्ल्या सुबटाक भटमाम वरदान दिंवचेवरी
उलयता आनी बेगीन भटमामाले धुवेल्या मरणाची खबर घेवन रंगमाम येता. सगळेंच
संवादावेल्यान घडता.

आर.के. प्रकाश एक खास कथापात्राची वळख करून दिता--भटमाम ('चिकलांतलो
देवु'). भटमाम दळिद्रपणांत बुडून मनोरोगाचे देगेर पांवतना ताका एक सोडती लागता. कोणेय
उलोवंक नाशिल्लीं उतरां ताका आयकूक येता. देवालीं उतरां लेगीन ताका आयकूक येता.
ताजे संवादावेल्यान आमकां ताजे मनोरोगाची वळख जाता इतलेंच न्हय, ताजे मरणाचीं पावलांय

ःयकूक शकता.

हांगाचे कथाकार संवादाचो बरो प्रयोग करून प्रभाव हाडतात.

ह्या कथाकारांचें बरप चडावत जावन गंभीर स्वभावाचें. के, आर. वसंतमणी वरी कांय ःणां कथांत विनोद हाडतात, (देखीक-'घोणी') पुण साधारणपणान कथांचो स्वाभाव गंभीर. ःव्रक जीवितांतल्या दुबळेपणा पसावत आनी संघर्षाविशीं बरयतात देखून पात्रं, घडणुको आनी ःव गंभीर जावनच आसता. मनष्यालें सूख-दुख, मोग आनी दुश्मानपण, करूणा आनी ःष्टूरपण, कोप आनी थंडाय, सहानुभूती आनी जाळ, प्रामाणीकपण आनी फटींगपण असल्या ःवांचेर कथा निर्माण जाता. सगळयो कथा शोकांतीक जायनात, पुण तांचो गंभीर स्वभाव ःत चुकनासो दिसता.

पुण एक गजाल - सुशीला भट, के.एन. रमेशा भट आनी शेट बलराज हांका सोडल्यार ःलेल्या सगळया लेखकांचीं पात्रां आपले विकार संयमांत दवरतात. बेकार तरणाटो निर्शेता ःमिगेलें दुख') आनी आपणाक मेळिल्लें प्रमाणपत्र लासून उडयताय बी ('तमसो मा ःोतिर्गमय'). मोगांत फटवल्ली चली ('कर्मबंदन'), मोग सफल करूक पावनाशिल्ले चले-ःलयो ('नष्ट सौभाग्य', 'पै. आनी प्रभु', 'स्वप्न जीवित', 'परको'), अत्याचाराक लागून ःभिचारांत पाविल्ली चली ('भूक आनी भीक'), समाजिक आनी धार्मिक कारणांक लागून ःक्षणाची आशा सोडून दिवंचो चलो ('भटपण') परदेशांतल्या कामाखातीर भायर सरन फटवून ःायिल्लो तरणाटो ('चार बरपां') हीं सगळींच आपली प्रतिक्रिया दामून दवरतात. हांचें निर्शेवण, ःथा, निस्सहायता वाडना, वाडून तांका सक्रिय करना. कांय जणांचें दुख इतलें चड जाता, ःामकां आपडून वता, पुण पात्रां आत्माहुतीची भावना घेनात. शरतचंद्र शणै हांगेलें एक पात्र ःआवर्तन') आत्माहुतीचो निर्णय घेता, पुण प्रयोगांत हाडीना. बेकार मनीष निर्शेता, पुण विद्रोही ःायना. समाजा आड केन्ना केन्ना क्रोध जागो जाता, पुण क्रोधाक लागून खून जायना. अप्रूब ःावन दळिद्रपणांतल्यान वयर येवपाखातीर कांय जाण वायट चालीक लागतात. दखीक ःुद्धिकलश'-ंतली आनी 'भूक आनी भीक' कथेंतली वेश्या 'पाक उडलें' कथेंतलो स्मगलर ःोगेश.

के.एन. रमेश भट हांगेले कथेंतली ('एक फूल लेगीन करपून गेलें') राधिका इतली ःर्शेता, depressed जाता की मरण शिवाय तिका दूसरी वाट दिसना. आनी ती आत्महत्येचो ःपायच घेता.

पात्रांचो भाव पूर्ण जावन परगटांवक स्वातंत्र्य दिता फकत सुशीला भट. 'शुद्धिकलश'-ंतलो नन्नु जीवितभर दामून दवरिल्लो राग परगटायता आनी समाजाचो तिरस्कार करता. तो ःतलो विद्रोही जाला, कि आपणाले आवसूक अभय दिल्ले वेश्येले चलयेक व्हारडीक करन ःवचाक तो तयार जाता. 'मांगल्य सौभाग्य' हे कथेंत भटमामाल्या पुताचें निष्टूरपण आनी ःगीक आसक्त इतली बळादीक आसा, कि तो बापसूले धाकटे बायलेक बळान भोगता. 'अभय ःान'-ंत गोपिनाथ कामत इतलो खतखतता, आनी आपणाक सोडून गेल्ले बायलेक मुखार

पळोवन सुण्यावरी आंबुडता. 'पलायन'-ंत रम्मय्यमाम पुतांली आनी सुनांली उपेक्षा स
आपणाल्या पांयार स्वतंत्र जावन रावपाचो निर्णय घेवन पुतालें घर सोडून वता.

ह्या लेखकांनी चित्रायल्लो समाज असो. हो समाज सुशक्त,परंपरावादी पुण प्रगति न्हय. ताज्यो रीत रिवाज पोकळ. समाजांत दळिद्रपण भरलां ('अंतीम भीक', 'मांगल्य सौभा 'भिकेशीत', 'रूचिकर हाप्पळ', 'उदयाचें अस्तमन', 'नष्ट सौभाग्य', 'पाप परिहारू', ' फूल', आनी 'चात्रीणें'). पुण समाज दळिद्रपणाक वळखना, मानून घेना. तो दुडवाक दिता, दुडवाच्या आग्रहाक सारें घालता आनी घडये दुडवांचो दुराग्रोह वाडोवन मनीषपण चि दवरता ('ब्रह्म गांठ', 'कर्म बंधन', 'आवर्तन'), साधारण मनषांक पिसो म्हण घेता सुंटोलो') अथवा खर्यानच पिशेपणांत धुकलून घालता ('चिकलांतलो देवु').

वैयक्तीक जीवितांतले बरे गूण म्हळयार मायेमोग, करूणा, सहानुभूती, सरळ निर्मळ स्वभाव, बलिदानाची भावना, व्यक्तीचो अभिमान आनी तार्जे स्वातंत्र्य आसल्या गु समाजांत व्हडलोसो जागो ना. ('उदयाचें अस्तमन', 'एक पिश्याच्या काणी', 'आवर 'मोचन'). समाज न्यायवादी न्हय, संदर्भवादी ('शुद्धिकलशु').

समाजांतलो कांय रीत रिवाज खास बायलांक त्रास दिता. बजारांत वचून मोलांवचेवरी सोयरिके निमित्तान चलयेले घरा वचून तिका पळोवन मानून घेवप व तिरस करप आनी स्त्रीधन घेवन चलयेची व्हारडीक करप समाजान वाडोवन हाडिल्लो एक अकांत प्रश्न. ह्या प्रश्नाक लागून चल्यांचेर ('एक फूल लेगून करपून गेलें') तशीच चलयांचे आ बापसूंचेर सकंट येता ('चात्रीणें'). हे समस्येक लागून चले-चलयांचो मोग मोडता, दोगां नाका आशिल्ल्यो सोयरीको घडतात आनी घोव-बायलांच्या जीवितांत कडवाण येता (' बन्धन').

बायलांक दादल्यांइतलेंच स्वातंत्र्य ना देखून समाजान निर्माण केल्ली आडखळ बाळ वचपाक कश्ट जाता ('मोचन', 'भूक आनी भीक', 'रूचिकर हाप्पळ', 'भिके शीत'). परिस्थितींत खंयचेय एक बायलमनशेन लैंगीक दिश्टीन चुकीचें एक पावल उखल्ल्यार सम तिका माफ करना. तिजेर समाजिक बहिष्कार येता, तिजें जीवित पाड जाता ('शुद्धिकलश तिका भीक मागचें पडता अथवा व्यभिचार करचें पडता ('भूक आनी भीक').

समाजिक वेवस्था बयलांक इतली विरूद्ध आसा देखून तांका खंयच्याय एक मा दादल्याची मदत घेंवची पडता. समाजांत जायते दयाळू दादले आसात आनी ते बायलांचें रा करतात ('ती धन्य जाली', 'भीके शीत'). केन्ना केन्ना बायलांचेर अन्याय केल्ले दादले ले आपली चूक मानून घेतात आनी बायलांक न्याय दितात ('भूक आनी भीक').

पुण सगळे दादले तशे मायेस्त आनी दयाळू न्हय. आनी बायलांक आपणावरीच म म्हण समजुपी न्हय. ते बायलांचें समाजिक, आर्थिक आनी दैहिक दुबळेपण लक्ष्यांत घेवन शोषण करतात, तांचो उपभोग करूक सोदतात ('मांगल्य सौभाग्य'). घडये दादल्यां मदें शत्रुत्वाक लागून लेगीत बायलांचेर बलात्कार जाता('भूक आनी भीक', 'मागल्य सौभाग

दल्यांच्या असल्या मनोभावाक लागून कांय बायलो नवें मनोबळ आपणयतात आनी कमेकांचो सहाय करतात. ('शुद्धिकलश' 'अभयदान' 'सान सान फूल'). अप्रूब जावन तरीय ांय फटवल्ल्यो चलयो आपल्या पांयार उबी रावंक शिकतात ('सान सान फूल'). हें स्वावलंबन लिदानाचें आसूंयेता ('परको', 'कर्मबंदन') अथवा वायट चालीचें जावंयेता (शुद्धिकलशांत लाबी). पुण आतां त्यो चलयो स्वतंत्र जातात आनी खंयच्याय दादल्याची शक्ती तांचेर प्रभाव लूक शकना.

समाजांत म्हांतार्यालें जीवित घडये सुण्या पशीपाश्ट जावं येता, हें खरेंपण कांय कथांत टतटीत जावन दिसता ('पलायन', 'स्मारक', 'ब्रह्मगांठ', 'रूचिकर हाप्पळ'). तशेंच समाजिक रणांक लागून बेकार तरणाटयांलें जीवित अशांत आनी पोकळ जाता ('मिगेलें दुख' 'तमसो ज्योतिर्गमय'). धार्मिक, समाजिक आनी आर्थिक कारणांक लागून भुरग्यांक शिक्षणाचो ाग्रोह सोडचो पडता ('रंगू सुटोलो', 'भटपण') तर दूसरे कांय चले-चल्यांक मोग्यांकडेन ार्डीक साध्य जायना. ('पै आनी प्रभु' 'स्वप्न जीवित'). सामकी शिक्षण मेळूंक नाशिल्ल्यान माजांत कुरडो विश्वास वाडून येता ('मोगरे फूल') आनी कुरड्या विश्वासाक लागून मनीष न करूक लेगीत फाटीं उरना ('शापाचें बीं').

जायते बरोवपी समाजिक परिस्थिती नागडी-उगडी करून दाखयतात. आनी तांगेली तिक्रिया प्रत्यक्ष परोक्ष रीतीन कळयतात. ह्या विशीं सुशीला भट हांगेलो मनोभाव धैर्याचो. माजांतलें फटींगपण, Hypocrisy, निष्टूरपण, थंड मनोवृत्ती, व्यक्तींचेर येंवचें बन्धन, यलांचें शोषण आनी सगळे तरेच्या अन्याया आड त्यो गर्जेतात. तांगेले दर एक कथेंत समाजाचें र्शन मेळता. तशीच त्यो समाजीक रीत रिवाजांची खर निन्दा करतात.

के. नारायण नायक हांगेले कथेंत सामाजिक जाणविकाय आनी मनीषपणाची सहानुभूति ासा. सामजिक टीका करचे बगर ते विरोधाभासाचो आनी विडंबनेचो प्रयोग करून चुकीच्या कान बोट दाखयतात. शरतचंद्र शणै, वी. वेंकटेश आनी शिवानन्द शणै विशाल मनीषपणाच्या ंनवासार कोंकणी समाजाचीं चित्रां काडतात. खूब कथाकार आदर्शाचे सांवटेंत येवन कथा रयतात.

पुण सगळया कथाकारांचो सामान्य असो एक गूण आसा--ते सगळेच सहजपणान हांगाचे ोंकणींत. बरयतात. हांगाचे शैलींत उलयतना येंवचीं तितलीं मल्याळम उतरां बरपांत दिसना. ोडावयली भास आनी बरपांतली भास हांचे मदें व्हडलोसो फरक ना तरीय बरपांत जाण जावन ल्याळम उतरां काडून उडोवपाचो येत्न जाला. उतरावळीचो उणाव अणभवतना लेखक हिंदी ानी संस्कृत उतरांचो आदार घेतात. मल्याळम उतरांक लागून जितलें असमाधान जातालें, तलें हिंदी - संस्कृत उतरांच्या प्रयोगान जायना. जायते लेखक उतरावळीच्या उणावाक लागून गळूरी आनी गोंयची शैलींत साकून उतरां उशीणें घेतात. पुण संस्कृत/हिंदी भासेंतल्यान रीण वचे तितले सहजपणान कोंकणीचे इतर शैलींतल्यान घेनात. उतरावळीचो आदार घेवन सांगचें ल्यार केरळचे लेखक गोंयच्या आनी करणाटकांतल्या कोंकणी लेखकां परस खूब फाटीं उरल्यात णचें पडता.

चडावत लेखकांची भास सरळ आनी ल्होव आसा, पुण ताजे निमर्तीं भासेच्या व्हाळाक

अडचण येना. पय्यन्नूर रमेश पै, शिवानन्द शणै, एन.आर. मल्या पळ्ळूर, वी. वेंकटेश, ब
आशा, वत्सला रामचंद्रन, पी. श्रीनिवास प्रभु, एल. मुकुद पै, वी. शिवदास मल्या, गो
कामत, जी. मुरळीधर पै, वी. लक्ष्मण प्रभु, शेट बलराज, एस. रामचंद्र कामत, पी.ए
कामत, हांगेल्यो कथा वाचतना हें स्पश्ट जाता. पुण के. नारायण नायक आनी के.एन.
भट हांगेले भासेक अलंकाराची जडाण येता, आनी ताका लागून कथास्वादनाक त्रास
असोच अणभव दूसर्यो कांय कथा वाचतनाय जाता.

कथानक आनी कथातंत्र हांचे दिश्टीन हांगाच्या लेखकानी क्रांति घडयल्ली दि
लेखकांचो अणभव भोव मर्यादीत जावन आसा. देखून जावयेत, कथांची व्याप्त, वैविध्य
आंखडो लेगीत अतीव उणो जावन दिसता. अणभवाच्या आनी कथांतंत्राच्या दळिद्रपणाक
कथेचें आशय आनी बरपाची शैली, परंपरेन सांबाळून आयिल्ल्यावरी भोगता. कथाकार
एक आदर्शाच्या प्रचारा खातीर कथा बरयतात काय म्हण केन्ना केन्ना दुबाव जाता. कथा बर
लेखक चड करून आपले धार्मिक-दार्शनिक शिकवणेच्या परिमितीं रावनच बरयतात,
जावंयेत चडांत चड कथांचो didactic स्वभाव स्पश्ट जावन दिसता.

म्हेगेलीं दोन पुस्तकां-'पृथिवै नम': आनी 'अंतर आयामी' उजवाडा आयिल्ल्या
सुचयलां. पुण येदोळ केल्ल्या विचारांत ह्या पुस्तकांचो उल्लेख करूक ना- मुद्दाम करूव
कारण लेखकालें काम बरें साहित्य निर्माण करप आनी त्या साहित्याचें मूल्यांकन
टीकाकरांलो हक्क अशें हांव मानतां. आनी प्रकाश थळी, ओल्हीवीन गोमीश आनी प्रो. हरि
नागवेंकार हाणी म्हजे बरपापसावत उक्तायल्ल्या मतांवेल्यान म्हाका आनीकय चड सा
निर्माण करूक उमेद मेळ्ळा इतलेंच हांव सांगन.

बरें साहित्य निर्माण करपाक अंतरंगात त्रास भोगचो पडता. अणभवाचो
कथातंत्राचो संबंद समजून घेवन बरोवपाचो त्रास सोंसून त्या त्रासांतल्यान उच्च पांवड्य
कथा बरयल्ले कांय कथाकारानी मागीर कथा बरोवपच साडून दिल्ली गजालय आमका पळ
मेळता. एक दोन बरी कथा बरोवन मागीर लेखन सोडून दिवपा फाटलो हेतू कितें आसू
वैयक्तीक उणाव ? भासिक आडखळ ? काय साहित्यनिर्मितीची आशक्ती? - हे परिस्थि
सोद घेवन परिहार करप गरजेचें.

हांगाच्या लेखकांक (तांचे मदें हांवय आसा) एक समस्या दिसूंक जाय-कथातं
दिश्टीन, आशयाचे दिश्टीन आनी प्रभावाचे दिश्टीन नवेंच कितेंय परीक्षण करूयेता ? -
कथा साहित्यांत प्रगति हाडची कशी ? परंपरीक रीतीन कथा बरोवन उजवाडायली म्हण,
ती बरी जाल्ली तरीय प्रगती घडना. प्रगती हाडची जाल्यार विशय, पात्रां, वातावरण, इ
परिणामकारी घटकां हें सगळेच परतून परतून आदलेवरीच वापरल्यार उपकारना. साहित्य मु
पावोंवपाची दोन मुख्य घटकां म्हळयार नवेंपण आनी प्रभाव. परंपरेचे परिमितींत साकून
साहित्य जेन्ना नवो अणभव दिता, अजापाचो प्रभाव घालता, तेन्नाच तें प्रगतीचे वाटेर पां
देखून कथा आनी कादंबरी बरोवंक बसतना 'नवें पण' आनी 'प्रभाव' ह्यो गजाली लक्ष्यांत घें

  

# केरळांतलें कथेतर गद्यसाहित्य

- पय्यनूर रमेश पै

केरळचे कोंकणी साहित्यांतलो Non-Fiction वांटो म्हण्टना पुराय गद्यसाहित्य तांतु आयलें म्हुण सांगू येना. कथा आनी नवलिका हे दोनीय भाग गद्यांतले विंगड करतना जें उरता तें पुराय Non-Fiction जावपाक शक्य ना. कित्या म्हळ्यार रांदप तयार करपाक सिखोवचीं बरपां, हास्याची पवळीं, वर्तमान पत्रांनी छापून हाडचीं खबरेची माहिति, अर्थकोश आनी स्वयंशिक्षक - अशें जायते विभागय समग्र गद्यांत मेळून आसात. त्या खातिर हांगा हे सांगिले विभाग सोडून जें उरलां ताचेर नदर घालून पळयतां.

हांगा उपन्यास वा लेखन, आत्मकथा वा जीवन चरित्र, भोंवडेची खबर, साहित्यिक वा इतर आस्वादन, आख्यान व्याख्यान वा विवरण - अशें पांच विभाग कथेतर गद्यसाहित्यांत माका दिश्टी पडतात. दिसपटी [Diary] ह्याच पंक्तीक मेळता जाल्यारीय त्या विभागांत केरळांत कसलीय बरपां उजवाडाक आयलीं ना. देकून आमकां आतां सुरुवेक उपन्यास आनी लेखनां पळौया.

खंचेय बरप जाल्यारीय छापून आयल्यार मात्र बरे तरेन वितरावण जातलें. उपन्यास म्हण्टना एक सामान्य रूपान ताका घटना आसता. एक अवतरण, मागीर विशयाचें विवरण, पारस्परिक संबंध दाखौचीं उदाहरणां मेळून आखेर तें सोपें जावन सोंपप - ही मांडावळ मेळौन घेतिल्ले उपन्यास एक गद्यविभाग म्हुण चडशें एकठावन हांगा मेळूंक उणे. मल्याळम लिपीन फूडे भायर अयिल्लीं उपन्यास पळयल्यार तीं कांय सुदीर्घ नासलीं म्हुण दिकूक पडता. जाल्यार एक बरी चालि तांणी वाडयली.

पुरक्काडचे आर रंगनाथ प्रभून आपणाले 'द कोंकणी' ह्या हातबरपी पत्रिके वाटेन बरे तराचें गद्यसाहित्य उजवाडाक हाडलां. ताणेच एक स्वयंशिक्षक कोंकणीन तयार केलोलो. त्या परिश्रमांत ताणे खूब लघुलेखनां बरयिल्लीं आसात. तांतु ताणे आपणायिल्ली शैली भौ सुन्दर आसा. तागेलीं वाक्यां सुदीर्घ नात, पुण ल्हान आनी सरूत दिश्टी पडतात.

केरळांत खेळ्ळेले कोंकणी नाटकांत 'चन्द्रहास' एक अमोल नाटक आसा. बोळंतूर कृष्ण प्रभूलें हें नाटक तुरवूर आनी चेरतले गांवांत खेळ्ळेले तेन्ना ताजो प्रभाव मस्त लोकांचेर पडलो. केरळाचे कोंकणी साहित्य प्रेमियांचर ताजो परिणाम भारी जालो. तेन्ना पर्यंत मल्याळम भाशेन बरोवन आयिल्लो आर. माधव पै कोंकणी भाशेन प्रयत्न करूंक लागलो. ताणे कोंकणी नाटकांविशी एक उपन्यास बरोवन रंगनाथ प्रभूक धाडलें आनी मागीर विविध विशयांचेर ल्हान बरोवपां भायर काडूंक लागलो. तांची सरळ विवरण रीति अजून केरळाचे लेखकांक प्रोत्साहक आसा.

धार्मिक विशयांचेर उपन्यास बरोवन एन. वी. प्रभु हांणी मस्त साहित्य सेवा के कोंकणी समाजाची एकेक परब येताना तांचे महत्वा पासून सांस्कृतिक नदरेन बरयिल्लीं ले ताणे 'कोंकण जनता' पत्रिके वाटेन उजवाडायल्यां. पुराणांतले तत्वाविशीं चिंतन करपी थ लेखनांय ताजी आसात.

धार्मिक विशयांचेर उपन्यास मांडोवपी आनी एक लेखक आसा अनंत त्रिविक्रम षोडशकर्म, सन्ध्यावन्दन इत्यादि विशय तांका आवडतात. तांची शैली सुन्दर आसा अ वाचकांक एक प्रभाषणाचो अनुभव दिता.

देवळां संबंधीं भौ लेखन उजवाडायिल्लो के. नारायण नायक एक बरी गद्यश आपणायिल्लो लेखक आसा. समाजकल्याणाची आनी सांस्कृतिक शखणाची तांची दृश्टी आय जीर्णतेक उन्मोचन दिवपी परिश्रमांचे प्रतिफलन करता. परत परत विशेषण दीवन बरो तांची रीति एक वेगळीच. 'शारदास दीनदास' ह्या साहित्यिक नांवानय तांणी खूब बरय तांचीं वाक्यां सामान्य दीग आसात जाल्यारीय तांचीं जोडणूक अति आकर्षक आसा.

पंडरिनाथ भुवनेन्द्र जनार्दन हे वयोधिक मनीस. विज्ञान, साहित्य, पुराण - अशें व विशयांतु जाल्यारीय तांणी बरयल्यार ताका उपन्यासाचो गुण मेळता. मल्याळम आनी देवना - ह्या दोनीय लिपींनी हांणी मस्त लेखनां उजवाडायल्यांत. संस्कृताचो आदार कोंकणीन घे कांय पातक न्हय; पुण पूर्णतराची एक अंधता संस्कृता विशयीं आसचें बरें न्हय. हांचे लेखन विचित्र तराची अक्षर व्यवस्था दिश्टी पडता.

पुल्लूर वसंत शणै हे विचारात्मक लेखनां बरयिल्ले मनीस. कोंकणीन चड कांय बरि ना तरीय तांचे थोडे उपन्यास वाचकांचे श्रद्धेक पात्र जाल्यांत. समाज डाईजेस्ट (कण्णूर) आ कोंकण जनता (कोची) ह्या नेमाळ्यांनी हांचीं बरोवपां भायर काडल्यांत. वैज्ञानिक दृश् आपणावन सुसंघटित एक गद्यशैलीन तांणी बरोवची रीति भौ सोबीत दिसता.

के. एन. रमेश भट हो एक कथाकार जाल्यारीय सांस्कृतिक विशयांचेर खूब बरयि एक लेखक आसा. तांची शैली भारी निर्मळ आसा आनी वाचकांक आपणालो विचार मंथ करपाक फाव तो विशय जोडपी आसा.

बायलांचो विशय आस्पावन बरोवपी थोडे लेखकय आसात. तांतु श्रीमति सुशी त्रिविक्रम भटालें नांव पयलेंच उडगास येता. सामाजांत बायलांचें स्थान कितलें महत्वाचें आ आनी बायलांनी आधुनिक काळाक अनुकूल जावन कशी जवाबदारी आपणावयेत असले विश तिका सरळ येतात. म्हण्यो मेळोवन सांदर्भिक उदाहरणां दीवन नैसर्गिक विचार मांडोवची शै तिगेली. एक प्रगतिकांक्षी बायलेली दृश्टी आसा तिगेली.

कुरिकयिल ए. जी. पद्मावती बाई बायलांक उपदेश दिवपी आनी परबांचें महत्व सां

देवपी लेखिका आसा. तिका पुराणाचो आदार घेवप म्हळ्यार पुण्याचें काम. आचार-विचारां ासून नवे पिळ्ग्यांक सांगची रिवाज तिका संवय जाला. मल्याळम लिपीन बरयतनाय हे ायलेचेर मल्याळम भाशेचो प्रभाव मस्त जालो ना.

कालिकटची वत्सला मंजुनाथ राव एक कवयित्री जाल्यारीय थोडे कथेतर गद्याची ेखिका आसा. आपणालें स्वानुभव तत्वज्ञाले दृश्टीन तिणे बरयतना वैकारिक दिसता. तिजे ्यक्तिगत पुण सामाजिक दृश्टिकोण कितलेशें बायलांक प्रभावी दिसला.

आलेप्पीची वत्सला रामचन्द्रन हिकाय कथेतर गद्यांत भौ आसक्ति आसा. लेखनां रयतना आपणालो समाज तिजे मुखार येता आनी विशय धार्मिक आसता.

साहित्यिक विशयांचेर लेखनां बरयिल्ले पी जी कामत आतंचे कोंकणी लेखकां मद्दे ग्रगण्य आसात. व्याकरण, भाशाशास्त्र, समाजविशय, आस्वादन अशें कसलेंय विशयाचेर रयल्यारीय मनांक उल्लास दिवचीं आनी विज्ञानाचीं दारां उगडचीं लेखनां ते भायूर काडतले. हेन्दी - संस्कृत - मल्याळम ह्या तिन्निय भाशेंतल्या साहित्य संपर्क वाडइ्यिल्यान तांची विशालबुद्धी वोदित लेखकांक मार्गदर्शन दीवन येता.

प्रोः आर के राव हांणी लोकसाहित्या विर्शी मस्त बरयलां. तांची विद्वतूशैली एक बरो मूनो स्थापन करता. प्रौढ गद्याचो हो लेखक उत्तम अनुवादाक साहित्य अकादेमीन गौरव दिलेलो रोवपी जावन आसा. केरळाची कोंकणी शैली कसले तराची जाल्यार बरी दिसतली हीच ताजी दर.

आनी प्रोः एन एन आनन्दन हे साहित्यास्वादन बरोवन हाडचे लेखक आसात. मल्याळम सेखयता जाल्यारीय ते भाशेचो प्रभाव न्हयकारची रिवाज ताणे दवरून घेतल्या. पुस्तकां पासून रयतना तो वस्तुनिष्ठ जाता. कोंकणी समाज आनी संस्कृति हांची पुष्ठीक कर्तव्य कितें आसा ां त्या त्या वेळीं उडगास करपी लेखनां तांणी खूब बरयल्यांत.

कोंकणी साहित्या पासून अनेक लेखकांनी पठनात्मक चिंतन प्रकट केलां. पी श्रीनिवास भु, के आर नारायण पै, पी गोपिनाथ कामत, वी वी सदानन्द प्रभु आनी एन पुरुषोत्तम मल्या हे केरळाचे कोंकणी साहित्या पासून आपणाले विवरणात्मक लेखनां उजवाडायिल्ले लेखक भासात. जाल्यार के गोकुलदास प्रभु हाणे अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेच्या सुवर्ण हहोत्सवा वेळार 'सुनापरान्त' दैनिकांत बरयिल्ले लेखन सामान्य दीग आसल्यारीय एक नमूदित द्याची झळक तांतु दिश्टी पडता. चारित्रिक नदरेन कशें विशय घालप हें तांतुल्यान तांणी ाखोंवन दिलां.

आनी आमी आत्मकथा वा जीवन चरित्र विभागा कडे दोळे धांवडावयां. आपापण्याली ीविताची कथा बरयल्यार ती आत्मकथा जाता आनी दुसूर्याली बरयल्यार तें जीवन चरित्र जाता.

आत्मकथे विभागांत कांयीच पुस्तक भायर आयलें ना म्हुण सांगचें पडता. श्रद्धेय व्यक्तियांनी कांय तांची जीविताचे अनुभव आनी संघर्ष बरोवन दवरले ना. जाल्यार दुसूर्यांलें गुणगान करप अथवा वेगळूयांले जीवन चरित्र संगप खूब चल्लां.

ह्या विभागांत तीन पुस्तकां भायर आयिल्लीं आसात. एक तें तुलसीदास. संतकवि तुलसीदासालीं थोडी कवनां अनंतभटान अनुवाद केल्यां जाल्यार त्या महान कवीलें जीवनचरित्र संक्षिप्तरूपान बरोवन आर के राव हांणी ह्या साहित्य विभागाची सेवा केल्या. तशेंच मीराबाईलें पासून शरतचन्द्रन हांणी बरयिल्लें एक सुदीर्घ लेखन 'मीरा : जीवन आनी कवन' ह्या पुस्तकांत मेळता. 'देवकीकृष्णा पुरस्कार' जोडिल्लो हो ग्रंथ ह्या एक विभागाक अमोल अंशदान म्हुण सांगूयेत. तिसरें पुस्तक म्हळ्यार 'श्रद्धांजलि'. केरळ कोंकणी अकादमीचें हें प्रकाशन मंजेश्वर गोविन्द पै म्हळेल्या राष्ट्रकवीली साहित्यसेवा स्पश्ट करता. एक महान कोंकणी सुपुत्रु हय नात्यान ताणे केलेली कोंकणी सेवा उजवाडाक हाडून ह्या पुस्तकांत टी विट्टप्प शणै आनी हांवें बरयिल्लीं लेखनां त्या राष्ट्रकवीले वैयक्तिक आनी साहित्यिक जीवनाची वळख करून दितात.

मागीर सांगचें जाल्यार हांगा थंय पडलेलीं थोडीं अनुस्मरण लेखनां आसात. एच मंजुनाथ रावाले विशय 'नरहरि', बी. वी. बाळिगा आनी नारायण नरसिंह पै हांचे पासून के पुरुषोत्त पै, जी कमलम्माळाले विशय एन. एन. आनन्दन हीं अनुस्मरण-लेखनां वेगवेगळ्या पत्रिकेंत उजवाडाक आयल्लीं. तशेंच कथकळि कलाकारु दळु भट्टु हें एक अनुस्मरण लेखन बी नरसिंह वाध्यार हांणी बरयलां. गुणगान करप मात्र न्हय, मातृकापर आसुच्या श्रेष्ठ गुण तसले व्यक्तियांक आसिले, आनी तांची महत्वाची साधना कसली आसली मृळूललो विशयूय त्या लेखनांत वाचूंक मेळता. बी कृष्णवाध्यार आनी चन्द्रकला एस कामत हया दोनीय मलयाळम लेखकांचे पासून पी ए श्रीधर कामतीन बरयलां. के रामचन्द्र पै पासून एन एन आनन्दन आनी रंगनाथ प्रभू पासून हांवें अशें दोगानींय असलीं लेखनां बरयल्यांत.

तिसरे विभागाक मेळोवचें भोंवडे बरप केरळांत मस्त वाडलां म्हणूक जायना. 'कलकत्तानगरी वर्णना' म्हुण एक पुस्तक उजवाडाक आयल्यारीय तें गद्यविभागाक मेळूंना. नियतकालिकांत आयिल्लीं थोडीं लेखनां मात्र हांगा परामर्श करूंक आसात. तिरुपती यात्रा म्हुण एक लेखन भौ काळा फूडे एन वी प्रभून बरयल्लें. तें एक सरळ संवादाचो गुण दाखोवपी लेखन आसलें. हरिद्वार-बदरीयात्रे पासून के. एन. रमेश भटानय एक लेखन उजवाडायलां. 'ईशान्यांतल्यो सात भयण्यों' ह्या शीर्षकाचेर ए सदानंद पैन बरयिल्ली भोंवडे खबर 'पंडरिनाथ भुवनेन्द्र' पुरस्काराक फाव जाली. भारताचे पूर्वोत्तर प्रदेशाक गेलेल्या लेखकाले अनुभव वाचक मुकार पावयतना लेखकान आपणाली सुन्दर आनी सरळ शैलीचो उपयोग केला.

आनी आतां साहित्यिक वा इतर आस्वादन म्हणपी विभाग कशें आसा हें पळोवयां. निरूपण विभागाक मेळोवपी बरोवपां हांगा मूळ धरून येता आसा. विवरणात्मक आनी

ेषणात्मक निरूपण मस्त आयिल्ले आसा म्हुण सांगूक येना. जाल्यरिय श्रद्धेय थोडीं नांवां ' सांगचें आसा.

आर के रावान थोडे पुस्तकाक प्रस्तावना बरयल्या. कथाष्टक (विविध लेखकांच्यो गयो), लिपी-एक शस्त्रीय चिंतन (पी जी कामत) ह्या दोन पुस्तकांक तांणी दिलेली ारिका तांची सूक्ष्मदृष्टी दाखयता. श्री वेंकटेश कल्याण आनी गोड्डे रामायण ह्या दोन ीतां उजवाडायतनाय तांणी एक पठनात्मक लेख छापून काडलां.

पी जी कामतीली ह्या दिशाची ताकद तांचे प्रस्तावने रूपाचे उतरांतल्यानय आस्वादन नांतल्यानय उजवाडाक आयल्यां. वत्सला मंजुनाथ रावाली 'काव्य धारा' ह्या पुस्तकाक ा प्रस्तावना बरयल्या. 'एक अवतारिका भगवद्गीतेक' हें पुस्तक स्वामी रंगनाथानन्द हांचे नांचे अनुवाद जावनु सुन्दर गद्यशैलीन तांणी प्रकाशन केलें. 'अमर कोंकणींतली' हांचीं नांय उत्तम गद्यमातृका जावन आसात.

काण्यांघोस ह्या पुस्तकाक जी कृष्ण पैन बरयिल्ली प्रस्तावना, कथा ८३ ८४ ८५ ह्या काक प्रोः वी शिवानन्द भटान बरयिल्लें आस्वादन आनी कविता ८३ ८४ ८५ - ह्या पुस्तकाक बी. एस. आशा हीणे बरयिल्लें आस्वादन हीं तीन बरपांय एक निरीक्षक वाचकाली दिश्टी यतात. पी एन शिवानन्द शणैल्या 'किरकिर' ह्या कवितासंग्रहाक एन एन आनन्दन हांणी येल्लीं दोन उतरांय समग्र दृष्टिकोण दाखयता. एन पुरुषोत्तम मल्या हांणी के अनंत भटाले कणी गीतमाला' आनी 'संगीत रूपकां' ह्या पुस्तकांक प्रस्तावना बरोवन कवीची आनी तेची प्रशंसा केल्या. वत्सला मंजुनाथ रावाल्या 'फुलां माळेक' आनी जी कमलम्माळाल्या रामायणाक' दोन उतरां बरोवचें भाग्य मेगेल्या वांट्याक आयिल्लें.

आखेर आमी आख्यान - व्याख्यान म्हळेल्या विभागाक पावतात. हांगा पळयल्यार चडशें " दिसता तें भगवद्गीतेचेर. आर अनंत भट, एन लक्ष्मीनारायण भट, इन्द्रकान्त वासुदेव अशें तेग जाणांनी गीतेचें व्याख्यान बरयलां. आयि आनी नातरां - ह्या नांवान वी रामचन्द्र ळेकार हांणी भुरग्यां खातिर संवादरूपी एक सुदीर्घ लेखनमाला उजवाडायल्या. लीलाशुंक ल्या 'श्रीकृष्णकर्णामृतम' नांवांच्या संस्कृत काव्यांथाकून वेंचिल्ले श्लोक कोंकणीन अनुवाद न ताची व्याख्या बरयिल्या पी बी जनार्दनालें पुस्तकय हांगा सांगचें अवश्य दिसता. ाचार्यालें द्वादशस्तोत्र कोंकणीन अणकार केलेले के पुरुषोत्तम पैन तांतु ताजें लघुव्याख्यानय लें आसा.

अशें केरळांतले कथेतर गद्यसाहित्याचेर दृश्टी घालतना समीपकाळांत मस्त वाडि येल्ली आसा म्हुण देखूक येता. वाचकांचो आंकडो वाडल्यार मात्र आस्वादकांचो आंकडो तलो. तशें जालें ना जाल्यार साहित्याचो प्रचार सीमित राबतलो. सरकारा तरपेनय समाजा नय प्रोत्साह वाड्डून येवुच्या ह्या काळांत आनीकय बरें तराचें साहित्य उजवाडाक येवचें

आवश्य आसा.

केरळा संबंधी चिंतन करतना एक विशय भौ समाधानाचो आसा. तो म्हळ्यार लिपीचो मल्याळम लिपीन केरळांत साहित्य निर्माण जाता म्हुण एक प्रचरण भायर चालू आसा. गेल्य पांतीस वर्सांत हांगा उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां काडल्यार धा प्रतिशत तांय मल्याळम लिपी आयिल्लें ना म्हुण कळतलें. जाल्यार नियतकालिकांत येवचें साहित्य मात्र मल्याळम लिपीन चड आसा. देवनागरी लिपि आपणावन रचनेक देंविले लेखकांक सर्वय उणे काळ भितर केरळा भायले लोकानि वळख करूंक आनी एक सांस्कृतिक नातें जोडपाक साध्य जाला. कथा साहित्य कथेतर साहित्य आनी पद्यसाहित्य हें सर्वय हांगा पुष्कळ वाड्डो हीच मेगेली आशा.

  

# कोंकणी भक्ति काव्य आनी श्री. आर. सि. शर्मा

- प्रो. स्वर्णलता जी शेणाई

अज्ञात, निगूढ जीवित एकि व्होडि प्रहेळिका तं. असमग्र जावून अशिल्ले मनिसाले न्द्रियांक पूर्णता प्राप्त करूक जायना. जीवित, ताजो उद्भवु, विकासु, अर्थु-अतिगहन जावून ाल्ले हें सग मनिसाक केदणाय-कालि, आजि, फायी अतीत आनी अगम्य रबता. जाल्यार सोद्दून तो चारिय दिक्कारि धावून भोंवता. धावून खंय पावना. केवल नष्टबोध आनी ाभंगु अवशिष्ट जाता. तेन्न तो धार्मिकप्रवृत्तियांत मन घुवंडायता. "देव" म्हण उळदून ाश काडता. अशी आपणाले रक्षार्थ देवाक उळदूचे कवनकलाक भक्तिकाव्य मणताचि. व्यरूपारि येतना पदांचि शक्ति, भक्ति, सौन्दर्य वर्धन जाता. राग ताळ मेळ लागेन एक्कडे ल्यार सांगचें ना. भक्तिगीत मनिसमनाक कालभेदु नातिल्ले आकृष्ट करता.

खेदकर म्हण सीगया केरळचे कोंकणीभासासाहित्य आजिय बाल्यावस्थेरिचि आसा. ते ाय भासे चेर्डाक पालन-पोषण करूक एकि आवसु जाओ एकु बपूस जावो मुकारि सरलेनांय. जाणा आवसु काट्यारि म्हळेल्या समान जायती आवयो अशिल्ले, जाल्यार पोस्सूक कोण ाल्ले हे चेर्डूय तथैव. आतांय जीवु अशिल्ले-कोणेंय इत्तेंय सग उडकावून दिल्लेले आस भासारूपी चेर्डाक आनीपुणेय आमी साहित्यखाद्य, औषध आनी अभ्यंगस्नान सग दीवून ड करका, आवय भासा प्रेमु ना जाल्यार वड्डोवनु अमी प्रयत्नु करका जालेले अवश्य.

भक्तिसाहित्या-विषयांतय चेर्डुरूपी तें बलहीन आसा. आतां आमकां अब्बोकालाक ून म्हण अयकून आमचे लागी पाविल्लिं थोडे भक्तिगानां आनी प्रो. आर. के. रावून मुद्रण नेले वेंकटेशकल्यांण आनी श्री. नरसिंहपै, श्री. आर. सि. शर्मा हार्णी रचिल्लिं स्तुतिगीतां ग करन मेळेलि आसाय. केवल तेंचि वेगळे कायं ना हें दुःखसत्य मात्र लाभु.

कविनिर्णय, कालनिर्णय नातिल्ले परम्परेचें म्होणु मेळेले भक्तिगानांत "नरसिंहावतारू" न आमगेले दृष्टिपथांत पडता. नरसिंहावतार घेवून विष्णून हिरण्यासुराक नाशु कोर्चे ोविषयु जावून काळ्ळा. सुखान गायन कोर्यात जालेलिं एद्दि किर्तन तांत आसा. काव्याशूंय सा. थोडी पदां काणु संगूक दिसताय -

श्रीहरिचरण स्मरण हांव करता
नरहरिचेरि भक्ति हांव दित्ता
नरहरि नरहरि भय सरवय दूर करि
तुगेले वर्णन आयकिल्यार
साध्य जाता सरवकयरि - (श्री हारि....)

दैत्याक काणु नरहरि घरा उम्प्रारि वरतलो जालो
ताजे उसक्यार असुराक काणु ताणे उदारि घालो
अशी तशी पोणु असुर बोब घालून निसरूक चोयलो
देवान चारि हाथ काणु असुराक बलान धरलो - (श्री ....)
चोगो पिंजून दूर काणु असुराचे पोट चोयलो
धारे नंकुटान पोट देवु ताजे पिंजितलो जालो
हून रक्त काणु स्नान नरहरि करतलो जालो
कोपान दुस्सेरि रक्त काणु देहाक प्रोक्षण करतलो जालो - (श्री ....)

(2) देवा नरसिंह जय जय पाहि नरहरे जगदीश
वोडांत वोडु तूं स्वामि देवांक ईश, तू स्वामि
चराचरप्रपंचाक कारण भूतु तूं स्वामि - देवा

नरसिंहावतारातूलीं एदि पंक्तियां हीं. सुन्दर आसा, भक्तिमय आसा.

"श्रीरामपट्टाभिषेक" कविता एकदम मनोहर आसा. रावणाक मारनु सी
अयोध्यांत वापस हाडचे वेळारि जनांनि रामुसीतेंक प्रतीक्षा करची वर्णना विसरूक जाय

अयोध्यांत रामु आयलो जनपदाक सन्तोषु जालो
वोडि वोडि तोरणा गुडि मन्दूक काळी अरधी घडी
चांगि चांगि केळि कत्रूक जनां नामु एद्दि मडि.
वाट् हादि सर्वय झाणु, धवी धवी रेवँ घालनु
अलंकारू कोर्नु, अन्नपान विसोर्नु
सानवोड चेर्डुबाळ हाथपाय पोशेवनु
उंचांरि चोयताय आतां आतां येतोल म्हेणु
आनन्दान हर्षु पांवताय.
हूँ म्होळोल शब्दु जालो, उंचारि थकून रथु आयिलो
रथारि थकून रामु देवलो, जनपदाक संतोष जालो.
हाथ उडकावुन मागताय जनां, तोण्डान मणताय रामनाम
आमकां दी तुगेलें दर्शन, करि आमका चंगपण.
प्रजागेलि भक्ति दिकून, रामु तेंवय चोयतलो जालो
वनवासाक भोगिले दुःख विसरतलें जालें मन.
सीते तोण्डाक चोवून बायलो, मन्दहासान हास्तलीं जाल्यो.
काळूक वोचून उजवाडु जालो, अशी गांवु सीतेन केलो.

कसलि चित्र-तुल्य वर्णना. रामाले आगमनार्थ करचो अलंकारू, ताका प्रतीक्षा क

ब्रचि एकेक घडी, रामाले अवरोहण दृष्टींत पोणतिल्ले वचा पाणा म्हळेले पारवश्यान अन्नपान सरून उंचारि चोवून रबप, रामाक दिकिल्ले आनन्दान करचे रामनामोच्चारण, रामालो हर्ष, नांलो हर्ष, सीतेले फूल्लेले तोण्डा उजवाडु गावांतले समस्त बायलां तोंडारि पडून गांवु सगु काशमान जावप - ही वर्णना कवीन करतना एक दृश्यचित्राचि अनुभूति आमका जाता. चांग क स्वाभाविक चित्र कवि हांगा दाकयता.

"द्रौपदीलो वस्त्राक्षेपु" नामक स्तुतिगीत कृष्णाचेरि द्रौपदीक अशिल्लि भक्ति प्रकट रता. दुश्शासनान भरलेले सभेरि तिगेले वस्त्र वोडून काडचे वेळारि खंयि थकून सहायु ळनातिल्ले, अपमानभारान ती देवाक उळदून बोब घालता - ती वर्णना दृश्यसामान, कर्णपथांत नय वचना.

द्वारकापते धावून पांव येवून
अनाथ जावून हांव पळ्ळेलि चोयि पांवनु - द्वारका
देहारि थकून वस्त्र, वोडूक वत्ता चोयि
अरूयो लक्ष्मीपते वस्त्र वत्तर चोयि.
कासाप्या हाथांत बोकडि, हांव जाली
रक्षण करना जाल्यार, नग्न माका केली - द्वारका ...

अनाथ, बन्धुविहीन, निस्सहाय आशिल्ले एक दुर्बळ स्त्रीयेलिं भक्तिप्रकर्षाचिं हांव ालेलिं पदां यीं. "कासाप्या हाथांत बोकडि" म्हळेले प्रयोगान तिगेले दीनताचि पूर्णता प्रकट ाता. काव्यांशाकय वूणावु ना.

"यशोदेलि गणेश पूजा" एक सरस भक्तिगान म्हण लेकयात. कृष्णांक चांगि बुद्धि ळूक गोपीलो उपदेशु स्वीकारू करन यशोदी गणेशपूजा करता. पूजेक दवरलोलो लड्डू खावून ष्णु बेसता. चोरान वेल्लो म्हण संगता. तिका कोपु येता. ताका थापट मारता. तोण्ड ासकळावोवून चोयता. जायते गणपतींक मात्र न्हय ब्रह्माण्ड सरवय तांत पळोवून भयभक्ति ार्भर जाता ती.

यशोदि सुन्दरि कृष्णा लुटी भारी
भक्त गोमुरारि सांग ताका
अशी म्हणु गोपी सांगता यशोदेक
व्रत करि एक बुद्धि चांगि
वायट ते गुण वतलगे जाणं
करि तूं पूजन गणेशाचे
ड्डू खावून कृष्णु सांगता चोंवका
गणपतीलो लड्डू घेवून घेल्लो चोरू

हांव दोषकरि जालो देवा
निष्कळंक बालकालि कळंकरहित फटि - रोचक आसा.

“वेंकटेशकल्याण” कोंकणी भासेचे एक प्रख्यात काव्य. ताजो कालनिर्णयु आजि भि जालो ना. कविश्रेष्ठूय अज्ञात. भो रोचक कथावस्तु - एकु विवाहु - भगवान् वेंकटेश पद्मावर्त परिणय करता. चारि अध्यायानी ही विवाहमेळा कवि विवरण करता. ताका लागून वेंकटा उद्भवु, भृगुमहर्षीलें स्वर्गलोकपर्यटन, लक्ष्मीदेवीलो कोपु, विष्णूलो वेंकटाद्रिवासु, पद्मावर्त पवित्र जनन, यौवनप्राप्ति, खेळु-हासु, परिहासु, ताजो अनर्थु, ताजो परिहासु, तिका कृष्णा कोचें, आचारानुसार विवाहनिश्चयु, बन्धुबान्धवांक निमंत्रण-पत्र सोडप, व्होकले-व्होरता अलंकारू, व्होराण बायर सरप, प्रमुख अतिथियांगेले आगमन, वाद्यघोषु, विवाहसन्नाहु अ सर्वानन्दान मुखरित जावून आशिल्लो तो विवाहमहोत्सव सजीव आनी भक्तिमयरसान व केल्या. हें काव्य वाचतना ना जाल्यार आलापन करतना आमगेले मनांत संतोषाचि ए घोषयात्राचि चमकता. हृदय स्वयं भक्तिपूर्ण जाता. आपणाले घरकडे जांवचे वरडीकेचि प्रती मेळता. तो गोन्दोळु, आवसु-बपसूलो उत्तापु, भवंडालें दुःख, व्होकलेले पितृगृह सोडचि वेद भर्तृगृहांत वची आकांक्षा - यें सरवय दृश्य दोळ्या मुक्कार भोरनु राबता, हृदयां भित्तर मु जाता. कवीलें वर्णनापाटव अतीव स्तुत्य. हांगा-थांगा थोडे अज्ञात शब्दां आसाय. जाल्या कथाप्रवाहाक, अर्थग्राह्यताक आनी भक्तिरसाक कांयं विघ्न येना. कवीले संस्कृतज्ञान अगा शब्दूय अर्थूय समंजस जावून मेळचें प्रयेगा दृष्टि पडताय. सत्राव्या शतकाचे प्रारंभाक ये काव्य निर्माण जल्लेले आसका म्हूण पण्डितवर सांगताय.

केरळचे खण्डकाव्य साहित्यांत प्रथमस्थान कोंकणी भासेचे ये काव्याक दीव्या ग्रन्थकारू अविदित जाल्यारिय हो ग्रन्थु भासेक एक अमोघ रत्न जावून मेळेले आसा. चा रागानि भिन्न-भिन्न ताळानि हें काव्य आलापन कोरयात म्हळेलि प्रत्येकता भक्तिवर्धनेक कार जाता.

काव्याचे संगीताविष्कार कारण, पदाचे सौन्द्रर्यकारण भक्तिरसकारण अधिकांशपदां जिबेरि थकून दूर वचनायिं. कवीली प्रार्थना -

जय जय जगन्नाथ अद्भुत-चरित्र
पाहि मां पुरूषोत्तम पद्म-पत्र-नेत्र.
कोटि-मन्मथ कान्ति आशिल्लें गात्र
वेंकट-शैलावास श्री वेंकटेशा.
स्वामि गिरिवेंकटपति वन्देहम् चरण
रात्रीन्तु दिवसान्तु तुगेलें स्मरण.
भक्तीन करीन स्वामि मनसा पूजन
तुगेले दयेन तुगेले कल्याण वर्णन.

श्रेष्ठ देवतान्वेषणार्थ भृगुमुनि क्षीरसागरांत पांवता. ब्रह्मलोकांत आनी कैलासारि कलूले समान आशिल्ले दृश्य हांगाय दिकून विष्णूले वक्षस्थलारि मुस्तीता. देवां बायलांकय रू देवु तं. तिजे दोळे मुकारि ताका जालेली अभिमानक्षति देवीक सहन जायना -

ऋषि-पाद-ताडन विष्णून घेतल्लीं कारणीं
कोपान युक्त जावनु लक्ष्मी-देवी राणी.
हें कृत्य परिहास जालें महणवूनि
भर्ताचे लागी कोपान बोली हें सांगूनी.

"कोपान बोली" म्हण सागून, तीनि शुद्ध संस्कृत श्लोक स्तुतिवचन जावून दिल्याय, कोपूय तांत दृष्टि पणा. श्लोकावसानाचि "पाहि मां स्वामिनाथा" म्हळेलि संबोधना रीति क्षण केल्यारि, अन्य कवीन बरेयलेले त हे श्लोकत्रय म्हण दिसता.

लक्ष्मीदेवीक कोपु आसा म्हेळेले मागिरचि पडि स्थिर करता. "अन्योन्य कलह करून भायर सरली" -पेट्टू घेवनूयि अन्य पाय धरचे बामणारि खंचे बायलेक बहुमान जावना. करवीरपुरांत गेली. हे रंग स्वाभाविक आनी सरस आसा. बायले सोणु रबूक देवाकय ना। ईश्वर तीगेले पुनःसमागमना खातिर अद्रिरि येत्ता.

भार्या वियोग दुःख व्होड म्हणवूनी
विष्णु अद्रिरि आला वैकुण्ठ सोडूनी.

भार्यासंगम वोग्गि प्राप्त जावंचे बगेक देवु माता बकुलमालिका समेत पर्वतारि रबचे ारि आकाश रायाक पद्मावती वर-पुत्री जावून मेळता. तिगेले यौवनप्राप्तीरि देवु श्रीनिवासु रि मोहु पांवता - तो सफल करूक माता बकुलमालिका रायाक दिकूक वत्ता. वेगान कार्यलाभु ंचाक देवूय भायर सरता. ते वेळारि आशिल्लि देवालि वेशभूषा रसावह आसा.

ब्रह्माण्डा खोट्टो केलो ब्रह्मा बालकु केलो
हस्तां त्या वेळां एकु दण्डूयि घतलो.
गुजामणि गळ्याक भूषण घालतल्लो जालो
वेगान आकाश रायाले नगरां प्रवेशलो - श्री श्रीनिवास

दोग्गांलोय प्रयत्न, सफल जालो. विवाह निश्चयु करून येवंचे बकुळालो संतोष चोंवका -

"वेगान चल्लुनु श्रीनिवासालागी पावली
विवाह-निश्चयु केला म्हणवुनु सांगतली जाली."
नन्तर चेल्लिक्कारालि चालि - भटमम्माक आप्पयलो -
"आकाश-रायालें पत्र शुकाचार्या दीलें"

जावकां जल्लेल्यांक निमन्त्रण पत्र दिल्ले. विष्णूक ते वेळारि अति सन्तोषु जालो,

देवांमेळवीले; एक्केक कारण कल्पशीले.

दुसेरो विवाह; देवि कलहु घालनु गेल्या - जाल्यारिय देवाक-देवीक परस्पर ध
आशिल्लि. विवाह वेळारि लक्ष्मीविरहित देवाक कवि कशिश दिकता -

रश्मि नातिल्ले आदित्यमण्डलावरि
चन्द्रिका-हीन चन्द्रु आशिल्या त्यावेरि.
लक्ष्मीविरहित आमी जाले हे कालारि
लोक-जननीक हाड्या आमचे सन्निधीरि.

अतिमनोज्ञवर्णना. तशी वाळ्ळे बायिले हाड्या म्हण न्हय, "लोकजननीक हाड्
म्हळोलो प्रयोगु सन्दर्भोचित आसा; उदात्त आसा, उदार आसा. कयरे मनां करून लक्ष्मी
सपत्नीस्पर्धलेश नातिल्ले पतिदेवाले विवाह मंगलकार्याक भायर सरलि. कन्या वेदवति म्हण
संगतलि जालि.

ऐशें वचन ऐकुन, सन्तोषु जाला मनीं.
पत्नी विवाहु कर्याय स्वामी तुमी.
स्त्रीयानि करचें कृत्य सरवय आमी करूं स्वामि
आभरण सरवय घालुनु अलंकार्याय तुमी श्री... श्री ...

उचित सन्दर्भारि उदार मन.

वरडीके सन्नाह मुक्कारि वत्ता -

कन्येक मंगल्यस्नान, ब्राह्मणभोजन इत्यादि करून व्होराण चलता. गरूडा फटीरि वि
हंसवाहनारि ब्रह्म, पाड्या फटीरि शिवु, हस्ती उंचारि इन्द्रु, मोरा वयरी स्कन्दु, रथारि देवर्षि
जावुनु -

देव रिषि ब्राह्मण सरवय चलियाले
देव दुंदुंभि मुख्या वाद्य वाजियले ....

शुकाचार्याले आश्रमांत एकरात्रि वासु करून, व्होराण आकाश रायाले राज्यांतु पाव
व्होरेतु तावाळि -

कोटि सूर्य प्रकाश कान्तिन श्रीनिवासु,
गरूडवाहनारि देकूनु सन्तोषु,
राज्याक जाला ते वेळां व्होडु आघोषु,
पद्मावतेचे मनां व्होडु जाला हरषु.

व्होरतालि मुख-प्रभा दिकूनु राज्य आसकल सन्तोषु पावलें. जावंयांक बै
विश्वकर्मनिर्मित सिंहासन दिलें, ताका रायान पूजन केले. हस्तारि बेसोवुनु व्होराण मुख्य

ठें. शंख, दंदभि वाद्य सगय शब्दायमान जालें. पीतांबरानि पायवाट, गुडियानि तोरण, असले
थवेल्यान सरवादरणान नवरत्नां खंभ्यानि निर्माण केलेले मण्टपां मद्दे सेस्सारेय घेवनु व्होराण
वलें. कन्यादाना प्रारंभकर्म "नारल परतप" कुल-गोत्र उच्चारण, ब्राह्मण दान हाजे उपरान्ते

रायान श्रीकृष्णाक कन्यादान केलें,
पुरूषोत्तमाक पद्मावतेन माळा घाल्ली.
पद्मावतेक विष्णून मंगल्य धारण केलें.

होमु घाल्लो, अग्निसाक्षी जावुनु विवाहु केल्लो, बायलानि विवाह मंगलाष्टक म्हळळे,
मस (सेस) भरलें, समस्तांकय चन्दन तांबूल दिल्ले, ब्राह्मणांक दक्षिणा दिल्लि. रत्नासनारि
ाल्ले व्होरां चोवनु रायु राणि सन्तोषु पावलीं, वेदोक्तमंत्रानि व्होरा मस्तकारि अक्षत घाल्लें,
ार गृहान्तु प्रवेश जाल्लें. ब्राह्मणांक भोजन दिल्ले. सर्वांक परमानन्दु जालो.

गृहप्रवेशाक व्होकल व्होरेतु परतून वत्ताय. यात्रा वेळेरि रंग शोकात्मक जाता.

अशिश देवाले वरडीकेन्तु स्थलकाल विस्मरून आमी आमग्न जाताय. काव्य पठनाचे
रेणामारि "अयूयो उतूले धरारि हो आनन्दु सग समाप्त जालो वे" म्हण मनां दुःख दिसता.
रडीक जावुनु जनां सग पोरतुन वत्तना वरडीके घरकडे जावचि शून्यताप्रतीति, एक नष्टबोध
ाता - त्या समान सजीव, समर्थ वर्णनावैभव कवीले. सन्तोषूय सन्तापूय मिश्र जावनु येत्ता.
ावीलें नाम-रूप नातिल्ले वास्तवतः खेदकर.

हो गीतु अशी बोरोवचांतु कवीक एकु मुख्य उद्देशु असा. वरडीके आचार, रीति,
र्मानुसृत करका जालेलें अवश्य, तांत च्युति हाडूक पाणा म्हळ्ळोलो संकल्पु ताका आशिल्लो
ासूका. "पार्वतीमंगल" आनी "जानकीमंगल" - ह्या नावारि तुलसीदासान् हिन्दी भासेंत
चेल्यां. केवल एकु लौकिक विवाहु न्हय हो. संसारसागरांत मग्न आशिल्ले जनांक
ध्यात्मचिन्तेरि मन प्रवर्तन कोरोवचे बगेक कवि परिश्रमु करता. भौतिक विवाहरीति स्वीकारू
रून अलौकिक विषयांत जनालें मनां घुंवडांयता. सारस्वतब्राह्मणसमुदायांतूयि आबालवृद्ध
नां विशिष्या स्त्रीजनां आजियि सन्ध्याकालारि हें वेंकटेशकल्याण भक्तीन नमन करताय
ळयारि कवीलो उद्देशु उत्तूलो सफल जालोलो आसा म्हण मनां कोरयात.

केरळचे गौडसारस्वतसमुदायाक प्रियंकर जावून आशिल्लो एक भक्तकवि तं श्री. नरसिंह
. ताणीं कोंकणी भासेक केलेले सेवन प्रशंसार्ह. मातृभासेन्तूय मलयाळ भासेन्तूय एकसमान
ण्डितु तो. संस्कृतभासेचि स्वाधीनता तांका चांगि जावून आशिल्लि. तांत स्वभासाप्रेमु
थमगणनीय आसा. तो इत्ति तीव्र म्हण मनांत व्हरूक तागेलिं भक्तिगीतां पर्याप्त त. तीं सग
वतारपुरूषांक आधारून केल्लीलिं.

तागेलि महामाया भक्ति अगाध. एक दोन भजनां उद्धारण केल्यारि ताजि आस्वादन मेळतलि.

महामाये तुका नमन करता हांव भक्तिन.
करि माका चंगपण आयिलो तुका हांव शरण.
वज्रा किरीट आसा मस्तकारि कुंकुमे तीळो निडळारि.
सुगन्धाचे पुष्प मात्यारि कस्तूरिचो पोर्मोळु अग्रारि.
हासून आसा तुजे तोण्ड पद्माक्षा वरि वोण्ट.
कोमळ तुजे हाथ तुजि चरण अतिश्रेष्ठ.
कोटिन कोटि नमस्कारू ना कोण माका आधारू.
ही स्तुति स्वीकारू करि कुटुम्बाक दी वोरू.
जय जय महालक्ष्मी महामाये नमस्कारू.
मीनाक्षे कामाक्षे नमस्कारू नमस्कारू.

आनी

करि तू दया मिजेरि त्रैलोकेश्वरी - करि
हाथांत शूल शंख चक्र गदाचाप धारण केल्लेलि.
सासु हाथ भुज आशिल्लि भक्तांक राकिल्लि.
विश्वमुखी पद्मयोनि विष्णुवक्षः स्थलावासि.
इन्द्रु आदि सर्व देवानि वन्दन करचि.
दुर्गादिवी मण्टाय तुका महामाया मण्टाय तुका.
चंगपणारि मन दिसौवंका राक्कूक पावंका.
भैरवी महालक्ष्मी पद्मलोचने देवी.
परम कल्याणी भर्गवी माधव प्रिये.

नरसिंह पैन निर्मित केल्लेले ''नल्लतंगाळ'' तागेलि स्वभासाभक्तिचें आनी एक उदाहरण त. यें काव्य कोंकणी भासा प्रेमियांक लब्ध जालेले एक धन. ताणीं मलयाळभासेन रचिल्ले ''चेल्लयूयाचरित्र'' तागेले मलयाळ भासेचे ज्ञान प्रकट करता.

हेचि शताब्दि प्रारंभकालाक आशिल्लो बहुभाषा पण्डित त श्री. नरसिंहपै. ताणीं देवस्थानांत करचिं भजनी आनी ''हरिकथाप्रसंगु'' कोंकणीजनालि श्रद्धा देवळान्तु आकृष्ट करतालि.

काव्यमूल्य आशिल्ले, गायन कोरूक सुख आशिल्ले तांगेले गीतां आजिय गौडसारस्वत स्त्रीजनांचे जिबेरि सदा सुलभ जावून आसाय.

भक्ति-साहित्याचे सेवामण्डलांत अग्रिमस्थान दीवयात श्री. आर. सी. शर्माक. ते एक

ार्थ विष्णुभक्त. सत्यस्वरूप, गुणसम्पन्न, सौन्दर्ययुक्त आशिल्ले महाविष्णूचेरि मन वरून
ळ भासेन, तीव्रविकारान, स्वाभाविक रीतिन तें विष्णूले माहात्म्य, शक्तियुक्त आनी
गीयार्थशब्दानि गायन करताय. भासा आवसूक ताणीं दिल्लोलो अमूल्य उपहारू तं ही
माला. भाषागानमंजरि म्हळेले नावान भासेंत प्रसिद्ध आसा. सोवीस गीतेंचि मंजरि ही.
ळचे कोंकणी जनसमूहांत हीं भक्तिगीतां आतांय प्रचारारि आसाय. भाषा सारल्य, आस्वाद्य
विषय, आवय भासेचे उच्चारणसुख, श्रवणमाधुर्य हें सग कारणानि स्त्रीजनांक हें गीतेंचेरि
ेमात्र तात्पर्य, मात्र न्हय भिन्न रागान गायन करचाकय जाता. एक भासेन, एक शब्दान,
रसान - भक्तिरसान गायन करताय दिकून, कोंकणी जनांक "अम्मि एक" म्हळेले बोधोदय
ा.

कालाकालारि आशिल्लो विष्णूलो अवतारू, ताजो उद्देशु, औचित्य, फल हें सग गीतेंचो
यू जावून काळ्ळा. श्रीराम, श्रीवेंकटेश, श्रीकृष्ण इत्यदि अवतारपुरूषांगेले माहात्म्य, अतीव
जावून वर्णना केल्या. दया, धीरता, हासु, स्नेहु, प्रसन्नता, प्रेमु असलें सर्वगुणय देवांचेरि
रोपण करून, भक्तिप्रकर्षान तांचे गुणगण प्रकीर्तन करता कवि. ते गुण आमका अभिकाम्य
नी अनुकरणीय जाताय. रामायणांत सून रामु, महाभारतांत सून कृष्णावतारू, पुराणांत सून
टेशु, थोडे अन्य अवतार - तांचि स्तुतिगीत, भाषासौन्दर्यान, चिन्तागौरवान, आशयगांभिर्यान,
नी दार्शनिक परिवेशन सम्पन्न आनी सम्पुष्ट आसा. त्या पसावत देवांगेले गुणगण आमगेले
ोमण्डलांत स्थिर प्रतिष्टा पांवताय.

भौतिकलाभेच्छा नातिल्ले केवल अध्यात्मविषय लालसा आशिल्ले एक भक्तालें हरदें
न रविल्लो देवा प्रेमु ह्या गीतेंत स्पष्ट जाता. हो जन्मु शाश्वत न्हय, कष्ट-क्लेश भरित
दामु-दुड्डु दुःख जन्नक त म्हण कवि उद्घोषण करता. व्यर्थु म्हण लेकूक पुरोशि सुदीर्घु
मु आमका मेळना. ते कारणान आमगेलो हो जन्मु आर्मी मोक्षप्राप्तिबगेक उपयोगु करका.
तरां अनेक अत्यगाध तत्वां, सुगम जावून, कण्ठरस कर्णरसयुक्त जावून आमका समर्पण
्यांय. आमगेले हरद्यांत भितरचे मोवु तन्त्रियांक स्पर्शन करून आमगेले दोळ्यांत अश्रुकणां
डताय हीं पदां.

साधारणरीतिरि संगता जाल्यार भक्तिकाव्य रचिताय अनुवाचकांगेले हरद्यांत भक्ति
न्न करूक त. परंतु शर्मागेले भक्तिगीत मन दीवून केल्लेले आत्मरोदन त. हे लघुकाव्य
ान बहिष्कारू जाला म्हण मनांकोरयात. तांगेले हृदयान्तर्भागांत सून न्हय हीं पदां उद्भव
लेलि जाल्यार, उत्तूले याथार्थ्यान तांका आत्माविष्कारू करूक साध्य जयना आशिल्ले.
ल्यारिय स्वात्मसायूज्य मात्र न्हय आसका तांगेलो उद्देशु, अन्यांकय ते गीतगायनान, वाचपान
ानुग्रहु जावो, कैवल्य मेळो म्हण लागेन ताणीं लेकिल्लें जावुयेत.

श्री. आर. सि. शर्मा म्हळेले नावांन विख्यात श्री. ए. डि. रामचन्द्रशर्मा एरणांकुळम्

जिलांत पळ्ळिप्पुरं गांवांत 1896-त जन्मल्लें. मातृभाषा तुल्य मलयाळ भासेंतय तें कृतह
मलयाळभासेन ताणीं रचिल्लिं "शकुन्तळा", "कुरिशुचुमक्कुन्न क्रिस्तु", "भक्तनाय जो
इत्यादि पुस्तकां, तांचे भाषाविज्ञान प्रकट करताय. एरणाकुळम् जिलांत न्जारक्कल गवर्न
हैस्कूलांत तें संस्कृताचे आनी मल्याळाचे अध्यापक आशिल्लें. तांगेले बंगाळी, हिन्दी भाषाज्ञा
सर्वविदित त. "अश्रुबिन्दु" नामक एक विशिष्ट ह्रस्व विलापकाव्यय ताणी स्वभासेक सं
केलेले आसा.

शर्मगेले गीतां जावन पठन केल्यार मात्र तं तांचि काव्यश्रेष्ठता आनी सर्वां
आस्वाद्यता मनां करूक जातलें. सोवीस काव्यांत शीर्षभागु कृष्णावताराक तं समर्पण के
अवतारांत श्रीकृष्णावतारू अट्टवो - तो सम्पूर्ण आनी अतिश्रेष्ठ म्हण प्रज्ञात. अवतारपुरूष
कृष्णु अतिमनोहरू, काळो जाल्यारिय. ते सम्पूर्णपुरूषाक आधारून केल्लेलि गीतां काव्यम
आसा. दुष्टनिग्रहार्थ आनी शिष्टसंरक्षणार्थ कृष्णानं खेळोलो खेळु, भूमिवेलो कृष्णा
लीलाविलासु सग अत्यन्तगौरवान मनोरंजक आनी काव्यगुणसयत जावून प्रकीर्तन केल्यां
तांतूले भूरिभागय उद्धरण योग्य आसा.

(1) कृष्णा तुजिं चरणकमल माका शरण
देव अगणितगुणगण – कृष्णा ...
भक्तांचे हृदयांत सदा तुजो वासु
त्रैलोक्यनायकु तूं भक्तांगेलो दासु
सेवा कोर्चे जनांक तूं कन्पकाचो घोसु
हांव तूजि पादसेवा करता रातिदीसु - कृष्णा ...
संसारू म्हळ्ळोलो वोडु एकु सिन्धु
कामक्रोधादि तांतु आसा घोरजन्तु.
पाप म्हळ्ळेले जल भोर्नु सर्वय तांतु
देव. दुःख दीवनु माका बुड्डोवनाका तांतु. कृष्णा ...

भक्तिमय, काव्यमय गीतु यो.

(2) दशावतारवर्णना गंभीर आसा.
बालगोपाल तूं पालन-करि
ना माका तूं विना तारण.
ब्रह्माचे मुखांतु वेदु आसिलो
दृष्टदैत्यान तो चोरण केल्लो.
मत्स्यरूपान तूं अवतारू जालो
ते वेदचोराक संहारू केल्लो. बालगोपाल

म्हण आरम्भु करून
असंख्य अद्भूत तुगेले गुण
तें सरवय संगूचो लोकांत कोण.
तुजें सत्यरूप तूंचिमु जाण
तुजि सेवा विना हांव कांय नेण. बालगोपाल

समाप्त जाता ये गीत. काव्यमाधुर्य मनां सून सोण वचना.

गीत -

दर्शन दीं तूं माका - हे बालकृष्णा
आजि श्रावणमासु तुगेलो जन्मदीसु - दर्शन
दीन मेगेले मन पूर्ण तुजेरि लीन
ध्यान सुखान अनुदिन जाता ते धन्य-दर्शन
माका भक्ति तुजेरि तुका स्नेहु भक्तारि
करि दया मिजेरि यो यो कृष्णा मुक्कारि-दर्शन

तन माधुर्यान म्होणयात हो गीतु. श्रवणसुख आसा.

ा वर्णन दुसेरि -

पालन करि तूं माका कृष्णा कृष्णा - श्री
लोल गोपालबाला कृष्णा कृष्णा
चोवदाय लोक तुजे खाल कृष्णा कृष्णा - तुजि
पाद मु सरवाचें मूल कृष्णा कृष्णा
व्यर्थु केल्लो हांवे जन्मु कृष्णा कृष्णा - विष
यार्तिन विसरलो धर्मु कृष्णा कृष्णा

ो

करि हरि दया तूं मिजेरि - करि
त्रैलाक्यकारण - संसारतारण
भक्तांक शरण तुजि श्रीचरण. - करि
असारू संसारू वोडु ताजो भारू
धोरूक ना धीरू करि तूं उद्धारू - करि

ावून

दक्कय तुजे रूप माका
अनी पुणेय दुःख दीवनाका

भंगरा किरीट आस मत्यारि
मोरापाक ताजे उंचारि
तोण्ड पूर्ण चन्द्रमावरि
थळ-थळ जाता भारि-भारि-दकय
तिन्निय लोकांक आदिकारण
भक्तजनांक एक शरण
दीनदुःखपरिहरण
करचिं मु तुगेलि चारूचरण - दकय

कृष्णाचि भक्ति करून कवि तृप्ति पावना. तांगेलो भक्तिप्रवाह सुदीर्घ जावून वत्ता.

देव देवकीसुत राक माका - देव
आशापाशान्त पोणु - जायते कष्ट भोगुनु
धीशान्ति नष्ट जावुनु - रडता हांव पायिं पोणु
माका-अनीकय-घालनाका-तन्तु हे. वसुदेवदेवकीसुत

लगीचो गीतु -

सोणका तूं आमका देवा दीनबन्धो - कृष्णा.
दीवनाका अनीकय दुःख गुणसिन्धो.
रातिदीसु आमी तुक्का भोज्जिताय मु - कृष्ण.
आमगेले संकष्ट वूणे जायनामू -
भक्तागेंलो दासु मण्टाय तुक्का न्हय वे - कृष्ण.
साधु संरक्षण तुजो धर्मु न्हय वे?
कुब्जेले तें पोंग पर घाल्ले नावें कृष्ण
तिक्का चांगि गति तूवें दिल्लि नावें?
कुचेलाले सुक्के फोव खेले नावे कृष्ण
तागेले दारिद्र्य नाशु केल्लो नावे

-कृष्णा भक्तिंत मग्न कवि. श्रुतिसुख पदां रमणीय शब्दार्थु.

दुसेंरिय मनाक संबोधन करून कृष्णाक उळदीता -

नारायण म्हणु नामस्मरण तूं
नित्यकरि रे मना - गोपालकृष्ण - नारायण
पुत्र-कळत्र-मित्र सरवय मायेचे भृत्य.
धर्मु एकु तुक्का मित्र - जाणजा तू ये मु सत्य. नारायण
लोकसुख शुद्ध पोल, ना ताका काय मोल - सर्व शक्तिन भो भक्तिन देवा भजि म्हण

: कवि भक्ति लहरीन मग्न जाता.

ाचो गीतुय योग्य आसा, ताजि दोनि पंक्तियो -

सेवा करता देवा वासुदेव नन्दन.
हांव तुज्जि - सेवा ....
सुगन्धु कशिश फुल्लान्तु - तेल कशिश तीळांतु
तश्शीचि तुं जगत्वांतु - आसा भोर्नु सरवय तांतु - सेवा ...

दार्शनिकपरिवेशान अत्यन्त सुन्दर आनी समृद्ध जावून आसा हो गीतु, विशिष्या पूर्वोक्त ायो. फुल्लांत विलीन आशिल्लो परमोळु, तीळांत अन्तर्लीन तेल - ते प्रकारि देवु जगत्वांत अदृश्य रवला. परमात्मा सर्वांक सर्व दिता, जल्यार देवु केदणाय दरिद्रनारायण जावनूचि ा. जीवित हृस्व, देवा पादकमलस्मरण मात्र नित्यसत्य - हे रूपारि देवालगी निरन्तर निवेदन ा शर्म म्हळोलो भक्तकवि.

"राक राति दिसु" म्हण आरम्भु करचो गीतु अर्थपुष्ट आसा.

राक राति दीसु - गोपालकृष्ण
हंगेले बालकांक
जीवितसर्वस्वाकं - राक तूं
आमी तुक्क भक्तीन - भोज्जीलें अनुदिन
तूंवे पूर्णदयेन आमका दिल्लेले धन. राक तूं

बालरूपी कृष्णालागी, चेर्डुबाळाक राकूक कवि अत्यन्त भक्तिन मागता. सन्तति उतूले ां उपरांत प्राप्त जाता म्हण एकेक पंक्ति स्पष्ट करता. कष्ट भोगून मेळेले रत्न, देवान यलेलि वाति, अक्षयनिधि, स्नेहोज्वल उजवाडु हीं उपमानशब्दां काणु ताणीं चेर्डुबाळाक वर्णन ांय. कवीलो अपत्य स्नेहु अत्यगाधु म्हळ्ळेल्याक आनीकय मस्तां सूचनां लभ्य जाताय. लागी तें आलंकारिक भासेन मगताय हो दीवो सुन्तु करशिश, दारिद्र्यनरकांत आमगेले काक घालशि, सम्पूर्ण ज्ञान तांका दीवका, चेर्डुवालें जीवित सम जावून आशिल्ले नामा घोमु गांवगांव पांक्का, आयुरारोग्य तांका दींवका - अशी तें प्रार्थन करताय - रमणीयार्थ ब्दानि.

चार-पांच गीतां वेंकटेश स्तुतीन भरित आसा.

वेंकटेश विश्वेश तुजिं पाद -
पंकजं सदा ध्यान करता हांव
संकटं वोग्गि दूर करि सरवय - देव देव
कर्म देहान, जिब्बेन मन्नान
करता हांव, ताजे दोषगुण नेण

सरवय तुजेरि करता समर्पण - देव देव

आनी

श्रीवेकटेश - नित्य, राक सर्वेश.
आदिय अन्तय नामु तुका
पाद तुज्जिशरण माका
माका तूं सोणक्का पापान्तु धालनाका
संसाराचे दुःख दीवनाका दीवनाका - श्री

मागिर

राक राक तूं रमेश. श्रीवेंकटेश.
लोकपालक सर्वेश.
रायु वट्टेरि पडता - कुचेलु पल्लक्कि चडता.
मोन्नो कविता करता - गोवाळो गांवु धरता.
आशिल्ले समस्त वत्ता, नत्तिल्ले नूतन येत्ता
अद्भुत जायते जाता, तें सरवय तूं मु करता
तुज्जे पासून सर्वय जाता इत्या माका विसरता - राक - राक

वेंकटेश गीतेंतूय कवीलें भक्तिपारम्य दूष्टि पडता. रम्यार्थ शब्दां हांतूय आसाय.

एक दोनि गीतं रामचन्द्रापासून आसाय

तुका नाम रामचन्द्र - तुजे मुख पूर्णचन्द्र
तूं सर्वलोकबन्धु - दयाचो सिन्धु (करि करूण तूं देव आमचेरि संकट दूर करि)

हांत सर्वांतूय कवीलि देवाचेरि आशिल्लि अमित आसक्ति अतुल्य आसा.

एक कवीन बरयलेले पुस्तकांचि संख्या न्हय तागेले श्रेष्ठत्वाचो परिमाण दण्डु, किंतु ताण इत्ते बरेयलें, ताका इत्ति परान काव्यगुण आसा - हें त प्रसक्त. सोवीस गीतांचि एक मनोज्ञ कवितामाला त शर्मानि भासेक प्रदान केल्या. तांत आविष्कारू केल्लेलिं तीव्र भक्तिमय विकार सार्वकालिक आनी सार्वदेशीय म्हळेल्याक संशयु ना. देशकालाक अतीत जावून एक रूपा अनुवाचकांचेरी स्थायि जावून आशिल्लो प्रभावु हाडचि शक्ति आनी गुणां हे किवतामालेव आसात. स्थलकाल परिमिति आशिल्या पशीय चड प्रभाव, सर्वदेशकाल संबन्ध हे कवनाव आसा दिकून हे अनुवाद केल्यार सर्वभासाजनांकय ताजो आस्वादु मेळतलो. ताजा भारतजनांकय, भारतसंस्काराकय ऐक्य हाडूक क्षिप्रसाध्य जातलें. तन्निमित्त यथाशीघ्र हे भक्तिगीतां, भारतांतूले सर्व समृद्ध भासांतूय अनुवाद केल्यार प्रशंसनीय आसतलें.

  

# भावात्मक कविता

- शरतचन्द्र शेणै

कोंकण्यांलें केरळांतुले चरित्र सोळावे शतकांतु आरंभता. गौड सारस्वतां भरसि वेगळेय हांगा पावलेले. कित्याक लागून आमचे पूर्वज हांगा आयलेले, हें आमकां कळता. देखून नां हेंवूय कळता किं ताणी येतनाच साहित्यनिर्माण सुरू केलेंना. हांगा साहित्याचि बालदशा कडे चलोवंचे नाट्य, नाटकां, भजन, हरिकथा आदी रूपानय, बायलानी म्हणून आयलेले रूपानय, जाल्या.

त्या भजनांचे, बालगीतांचे, आनी लोकगीतांचे नमूने आमकां कोंकणी भाषा प्रचार सभेचे कणी लोकगीत'' (1976) ह्या पुस्तकांत मळेताय. सवेचाळीस गींत हांतु एकठायल्याय.

आतां ''भावात्मक कविता'' ह्या शीर्षका खाल हांगाचे कोंकणी कवितेंतु कितें आसा, कितली प्रगति जाल्या मुळ्ळेलें ह्या निबंदाचो विषय. ''कोंकणी लोकगीत'' ह्या पुस्तकांतुले त्मक कवितेचे नमूने ''हास्य'' ह्या उपखंडत स्थान धरताय. उदाहरण-

नणमन्दे नणमन्दे कर्ट्यांतु चुन्रो
मांयो मेल्लींनाय मणु रडताय सुन्रो !

कदीमकाळा थकून अशिल्लो आमचो कोंकण्यांलो हो हास्यप्रेम आजीय आमकां विशेष ल दीत येता. गोयांतूय, ह्या कोचींतूय मस्त दुःख दुरित सहन करतच आमचे पूर्वीक याय. आजि वैयक्तीक दुःखां मस्त आसूनूय आमी हासताय.

पोरणे लोकगीतां थकून आरंभून श्री प्रसेन कुमाराले केसट गींतांत मेरान आमचो लेचो मोगु वाड्डून आयला. हांगेले स्वल्प गींत कांय वर्सं फूडे पुस्तकरूपान कोचीचे गौड वत विद्यार्थि संस्थेन उजवाडायल्याय. ''हास्य'' कविता उपखंडाक वाढि हाडलेले अन्य आसाय श्री. एन. वी. प्रभू , श्री. के. एन. रमेश भट, श्रीमति सुशीला भट, श्रीमती वत्सला श्री परयनूर रमेश पै, श्री नारायण नायक, श्री के. श्रीधर शेणै, आनी श्री.के.अनन्त भट. चे भायर जालेले हास्य कवितेलागि तारतम्य केल्यारि हांगाचि भोव ऊणे. हांतू आश्चर्य हार्जे कारण हांवें निबन्दाचे सुरवेकच सांगल्यांय बी. पुण इतलीं जन हांगा आसाय कि, हास्य भावना जागी दवरूंक फाव ती हास्यकविता हांगा सदाकालाक जाल्या अशि आमकां त. श्री प्रसेन कुमारालो एक गींत अशि-

सूंठि कृष्ण मल्याक साठि वर्सा जालीं
बायल ताजी गुल्ली मोरनु भावडि गेल्ली!

हासूचि, हासून दुःख निपोवुंचि हीच केन्नाय कोंकण्याली सवंय. गोंयचे प्रसिद्ध कवि

डॉ. मनोहर सरदेशायानी दोनींच उतरानी आमचो हो जान्मस्वभाव चित्रायला-

दूकां निपोवूंक हासतां
सगळो संवसार फसता-

आयचे ह्या चर्चासत्रांत केरळाचे कोंकणी कवितेचे चारि खंड केल्याय, ज्यांचेरि हांग परिचर्चा करून आसाय. भावात्मक कविता ह्याच खंडांक कांय उपशाखा आसाय म्हळ्ळें मृ एकि शाखा ''हास्य'' जाल्यारि दुसरी आसा ''शोक''. हे शाखेंतु हांगा भोव ऊणेचि कवित मेळताय. कित्या म्हुळ्यार, दुःखांत पोणु लोळनु रडचिं मनीष न्हय आमी. सदाकाळीं आमच शक्तीची झरी उरल्या आमचि हास्यभावना आनी आमचि भक्तिभावना. देखून शोक कवित हांगा विरळ. पोरणी म्हणूक एकीच मेळता ती पळिप्पुरमचे आर. सी. शर्मा हाणी रचिल्ल विलापकविता ''अश्रुबिन्दु''. चारि खंडानी, प्रति खंडांतु चौदा ओळियानी आपण्याले तेग मित्रांल वियोगार्चे खबर दिल्या कवीन. त्या कालाचे (1944) अन्य कवितेंतु दिश्टि पडना तसली एव भावुकता हांतु दिसूंयेता. आपुण एकु पंडित अशिल्यांन श्री. आर. सी. शर्मान ह्या कवितेंत द्वितीयाक्षरांचेरीय अंत्याक्षरांचेरीय प्रासु अवसयला ! ह्या कवितेचे उपरांतें आजि मेरान एक त थेट विलापकविता वेंचूक मेळना !

भावात्मक कवितेचो आनीयेक उपखंड म्हळ्यार ''उपदेशात्मक कविता''. भक्तिकवितेंतूय हे थोड्यो तराच्यो कविता मेळताय. पुराणांतल्यो काणियो सांगून उपदेश दिवपी कविता त्यो ''लोकागीतांतु'' सोदल्यारि ह्या तराच्यो मेळनाय. म्हस्त काळांक हांगाचें कोंकणी साहित्य तेच लोकगीतांत आनी भजनांत मग्न अशिल्लें. मागीर जागें जाताणा वीसावे शतकाक पंचवीस वर्स प्राय ! एका लागून एका लागून वेगवेगळे गांवांतुले वेगवेगळे कोंकणी प्रेम्यांक तिजे सेवेचि ता आयली. हरिकथा छापली-काव्य, कथा इत्यादींचि रचना जाल्ली-हातबरपा नेमाळें भायर आयलें- उतरांचेय, मणियांचेय शब्दकोशां खातीर तीव्र वावर आरंभले. त्या कालाचे साहित्या विशीं थोडी माहिती आमकां मेळता. तावळचि कविता भक्ति भावाचेरीच पुर्तीच तेंकून अशिल्ली अशि दिश्टि पडता. उपदेशात्मक कविता मागीर मेळता आतांचे कवींकडे थकूनूच. हांतु वरिष्ट आसाय श्री.के. अनंतभट, श्री.के. नारायण नायक, श्रीमति वत्सला राव, श्री.एन.एन. आनन्दन, श्रीमति सुशीलाभट, श्री. पय्यतूर रमेश पै, श्री.वी. शेठ बलराज हे सगट. कवितेचे उदाहरणार्थ श्री.पी.जी. कामत हांगेली एकी लघुकविता-

तुका सुन्दर आंगण जाय ?
तण हुमटाय, आनी हुमटाय.
तुका मनांतु शांति जाय ?
तिष्णा हुमटाय, आनी हुमटाय !

ो, गोंयचे उत्कृष्ट कवि बाकीबाब बोरकाराली एकि लघुकविता-

भूक नासून उष्टें वळखना तो मलीन

सूख आसून दुखीं वळखता तो कुलीन.

ह्या म्हजे निबंदांतु हांवें परामर्श करचेंनाका म्हळयार ते, कवितेचे तीन खंड- ासकविता, कथात्मक कविता, भक्तिरसात्मक कविता-इत्लेच. तेन्ना आनी आसा नक्तीचि कविता. कोंकणीचे देशभक्तिगीत मृळयार गोंयचे बाकीबाबालींच उतरां ासाचेरि धांवत येताय-

(1) शतजन्म पुण्यतायेन नरजन्म भारतांत!

(2) सात लाख गोंयकार आमी

युग नवें फुलयतले- अशि.

जाल्यारि केरळांत असलें गीत बरौंचाक कोंकण्यांक आवश्य आयलेंना. बरयलेलेय ना!

केरळांतु कोंकणी साहित्य ऊणे. असिल्लेंच तरि वेवेगळे शीर्षका खाल पुंजि केल्यार कांत कितलें आसतलें? दोनदोन चिमटी-इतलेंच ! जाल्यार अशि करच्यांत उपयोग ना ्कय जायना. साहित्याचे प्रगतीखातीर खंचे सगट विभागांचेरि विशेष श्रद्धा जाय अशि ल्यान मात्र व्यक्त जाना.

भाषापंडितानि आनी निरीक्षकानी साहित्याचे तरातराचे वांटे केल्याय. उबे आसाय ्, आनी चिके आड्डूवे ! प्रत्येक साहित्याचे मापणी खातीर प्रत्येक वांटे वेंचून वेगवेगळेचि ्यात. एक कालखंडांतुलें सगळें साहित्य म्होण जावो एक एक व्यक्तीली सगळी संभावना ा जावो मेजूयात. सगळे कालान एक साहित्यशाखेंत जालेली प्रगति, म्होण तं आमी आतां णी घेताय. पुण केरळाचे उत्तरा-कडेन जालेलें साहित्य चडय कानडी लिपीन उजवाडाक ल्यां दिकून हांगाचे इतर प्रदेशांतुले निरीक्षकांक तें मापूक जायना.

सगळ्यानय एकि दृष्टि भोवंडावन येताणा, आत्मनिष्ट भावात्मक कवितेकडे प्रत्येक ा दिलेले आनी तसल्यो कविता बरोवन येवंचे कवि थोडेच मात्र अशि कळता. उदात्तभावना ्ट अणभव, उत्कृष्ट विचार इत्यादि सगट, कवि तीक्ष्ण, अंतरस्पर्शी उतरानि उक्तायतना ावकविता जन्मता, भावूक कविता जन्मता. कवितेचि लांबाय, जडाणि ऊणे जाता. प्रास चे घूड सोडून कविते-सवणें उड्डूंक लागता. असली कविता हांगा पिरथमच केद्दाणा जाली ोदून काडप कठिन. वीसावे शतकापिरथम खंयचे बी कोणेय केरळाचे कोंकणी कवीन ण्याले हर्दीतुले तीव्र विचार उजळ उतरानी उक्तायल्यांयीच तरि ताजें कायंच खबर आमकां ां ना.

वीसाव्या ह्या शतकांत केरळाचे कोंकणी साहित्याचि नवजागृति जालेली कांय पंच
वर्स पिरथम मात्र म्होण सांगीलें मू. तावळी कोची कोंकणी भाषा प्रचार सभा स्थापली-
सारस्वत संस्थेचि "कोंकण जनता" आरंभली. मगीर चिके वर्सानि प्रचार सभेचि मासि
"कोंकणी व्रिकास" आनी तशीच कोषिक्कोड संयुक्त गौड सारस्वत सभेली मासि
"सारस्वतवाणी" इत्यादी चालू जाली. ह्या कालाचे, म्हळ्यार आतांचे, कोंकणी कवि म्ह
म्हस्त आसाय. जिबेरि येवुंचें पयलें नांव श्री.के. अनंतभट हांचें. गेल्या बत्तीस तेतीस व
जाल्यांय गीतां, रूपकां, भाषांतर इत्यादी हे करीत आयल्याय. प्रारंभारि भजन, नाटकगींत इत्य
बरोवन मागीरि संगीत-रूपकांय ताणी रचिल्लीं ज्यांचो एक पुस्तक केला. चड करून भा
आनी पुराण कथासार तांगेले विषय. तरीय कांय भावकविताय ताणी बरयल्याय. उदाह
"फूल आनी कांटे" "दीवो आनी पाकूट" "हाता बोक्याक कण्णडी नाका"- इत्यादी. व
वर्सा जाल्याय आतां कोचीचें "कोंकण जनता" म्हैनाळें चालू आसा. कोणूय तरि आतांचो क
वा कथाकार हें वाचूनातिल्लो जावो हाजेरि बरयनातिल्लो जावो ना. वीस वर्सानी म्ह
साहित्यकारांक ह्या म्हैनाळ्यान प्रोत्साहन दिल्या - केरळाचें कोंकणी साहित्य चरित्र सिखतल्
हाजे सगळे पोरणे अंक अवश्य एक पावटि वाचूका. तशि केल्लेल्यान माका कळेलें हें - पर
धा वर्सानी हाजेरि कविता म्हण्टना फकत भजन आनी प्रार्थना मात्र आयल्याय-

आत्मूयांचे वा दुसर्यांले, संतोष ना तरि पीडा असले विशयांचीय एकेकि कविता "कों
जनतेरि" एकदा दिष्टी पडताय-

श्री पंडरीनाथ ए.एन पुरम हांच्यो "गुरूदक्षिणा" "सूर्यास्तमन"

श्री. भक्ता आर काञंगाड हांचि "गाडि आयली"

श्री. आर.के प्रकाश हांच्यो "धन्य जालों हांव" "एक मनांचें रण्णें"

श्री. सग्री दिनेश नायक हांचि "आशा निराशा"

श्री.के. गोकुलदास प्रभू हांच्यो "मरणाचो वास" "तयार जावप"

श्री.वी. शेट बलराज हांचि "शांति मेळचाक" इत्यादी सगट ह्या सारखिल्ले भावकवितेक उदाहर

केरळ कोंकणी अकादमीन साहित्यमत्सर आरंभील्ले पयले दोनि वर्साय कवितेक प्र
स्थान मेळेले श्री.के. नारायण नायक हांकां. वेवेगळे विशयांचेरि हाणी एक कालाक कवि
बरवप असिल्लें. श्री.के. अनंत भट हांचेवरि नायकाकय प्रासु म्हळयार जीवु ! देखीक, "जीवोत्तम
नावांचे कवितेंतुलें पद-

"विशाल फान्दळेले हे लतावृक्ष
निश्चल निश्चि दिसतात ते प्रत्यक्ष
परोपकारि तांचि प्रवृत्ति परोक्ष
करूंक समस्तांलें जीवन सुभिक्ष !"

''म्हांतारि अज्जि'' हो श्री. शेट बलराज हांचो कवनां झेलो. प्रकाशन करून धा बारा र्सां जाल्यांय. हांतु एदेच भक्तिगींत आसाय. बाकी सगट भाव गींत अशि दाखयल्याय.

प्रो.एन.एन. आनन्दन हांचे ''आनन्दाचे पदांतु'' सगट तराच्यो कविता मेळताय. भक्ति, उपदेश, हास्य, परिहास, कथाण्यो आनी भावकविता. पुण ते केन्नाय निबंदांचेरि, विमर्शक लेखनांचेरि चड श्रद्धा दीत आयल्याय. एक बरे परिभाषक म्हणूय ताणी नांव जोळ्यां. आनी कवितेक सुटि दिल्या !

श्रीमति वत्सला मंजुनाथ राव हांचे तीन कवन संग्रह आसाय. ''फूलां माळा'', ''काव्यधारा'' आनी ''कोंकणी पद्य संग्रह''. भक्ति भावना आनी बरे उपदेश हांगेले कवितेंतु भरून आसाय.

केरळ कोंकणी अकादमीन स वर्स फूडे एक कवितासंग्रह उजवाडायलोलो. तांतूल्यान बावीस कवींचो परिचय जाला. येद्दोळ ह्या लेखनांतु परामार्शिलेनाय जालेले थोडे कवि त्या संकलनांतु आसाय (1) सर्वश्री पी.ए. श्रीधर कामत (2) के. अशोक कुमार (3) लक्ष्मीश (4) भरत (5) वी. शिवदास मल्या (6) वी. लक्ष्मण प्रभू.

थोडे जनांक एक वा दोनि कवितेनच बरवप राबौंचि एक सवंय, एक प्रवणता आसाशि दिसता ! ते आमचे श्रद्धेक अर्ह जायनाय. अर्ह जाता म्हळ्यारि श्री सुमित्रन. ताणे तागेल्यो सानि सानि कविता आनी कविते साररव्यो कथा कोंकण जनतावेल्यान प्रकाशन करूक सुरू केल्ले तावळ तसल्यो वेगळयो कविता कोची कोणेय बरयनाय असिल्लीं. सोळा सत्रा वर्सांत आयल्यांय-इतलेच ! तांगेले मनांभितरचिं झोडवारीं आनी हर्द्यातुलिं दूकां आमी पळेताय- ''विक्षिप्तप्रपंच'', ''आहूति'', ''पांजीरें'' ह्या साररव्या कवितेंतुल्यान आनी ''स्नेह असिल्यानो एक थेंबो उदाक'' ''प्रिय दुःख मेगेलें मात्र'' ''मरण'' ह्या साररव्या गद्यकवितेंतुल्यान.

''वी वेंकटेश'' अशि तं सुमित्रनालें सामकी नांव. तांचे कवितेचो एकु कुटूको-

उस्सीणे घेतिल्ले तेल्लान
उजवाडायलें रीणाचें पांजीरें
लांबयलें उंचारि उंचारि-

आनी तांचे कर्थेथकून कांय उतरां-

''वचे वाटेरि कितूले कि देव. पाप, तांकां देवळ ना, दीपालंकार ना, पूजन ना, एकि तुळसीमाला सरि ना-कष्ट ! पाय मोळ्ळेले ते देव प्रदर्शनशालेंत कन्नाडे घूडांत मुक्ति मेळनातिल्लें समुटेताय-''

मागीर तांगेलेंय बरवप थांबून गेल्यां !

तशि आसतना 1982 वर्सा कोंकण जनतेरि एकि सुंमारा भायर दीगि कविता आयली-

"दुखित मम स्वप्न-" छंद नतिल्ली, प्रासु नतिल्ली, सारखि भास सारि नतिल्ली ती कविता बरयली श्री.पी.एन. शिवानन्द शेणैन. केरळ कोंकणी अकादमीन प्रकाशन केलेले तांगेले प्रथ कवितासंकलन "किराकिर" (1984) हांतूल्यान ताणी केरळाचे कोंकणी कवितेक एक न चैतन्य दिलें. आत्मनिष्ट भावकविता हांगा फुल्लली ! मलयाळमांत पुरोगामी कविता रचून हाता तांक दवरिल्ले वेळारि तं तांचि कोंकणीची जालेली. पुस्तकाचे प्रस्तावर्नेतु प्रो.एन.एन. आनन्दना कवीचि खूब प्रशंसा केल्या. तांचे तीक्ष्ण नदरेचे आनी नवल विचारांचे उदाहरणाक एक दों ओळियो-

"जीवनांत लाभ वाटेर थकून वेंचिल्ले फातर"
"फुल्लॅ फूल फाय पोणु वत्तलें
आयकिल्ले गींत फाय विसरनु वत्तले
-दुःख तसीचि राबतले-"

सभार कविता कांय हाणी रचलीनाय. पुण आसाय, त्यो श्रद्धेय. "हांव कुर्वंता" "सुक्वे सीत" असल्यो कांय कविता गोयंचे "ऋतु" नेमाळ्याचेरि आयलेल्यो. "सीतेलें स्वप्न" "क्री काणि सांगता" "गोमन्तक-90 "असल्यो काल्पनीक कविताय हाणी बरयल्याय आनी "ऋतू" चेरि आयल्याय.

भाषाशास्त्र, समाजविषय अशि सगळे तराचे विषयांचे गद्यलेखनानि श्री.पी.जी. कामत हाणी केरळाचे कोंकणी साहित्याक एक अप्रूप, अयललळीत शैली समर्पिल्या. "यो-तूं-हें- आयक" म्होणचे तराचि ही आकर्षक, जिवाळ शैली केरळाचे भायर अशिल्ले कोंकणी साहित्यकारांकय भोव मानवल्या म्हळ्ळेलें श्रद्धेय आसा. हांगेलें गद्य इतलें सरळ सुन्दर जावंचाक कारण इतें ? तांच्यो कविता रूचतना तें कारण व्यक्त जाता ! सुमार धा वर्स पिरथम तांचि एकि कविता मंगळूराचे "पंचकादायींत" छापून आयलि- "ओळख". गोंयचे श्री. पुंडलीक नायकान ती वाचीली. एक अनवळखी मनिशाली ती कविता मात्र ते कवितेचे प्रभावान "ऋतु" चेरि प्रकाशित जाली. तीच कविता हावें इंगलीशान परिभाषा केल्लेली GOA TODAY मागसीनानय उजवाडायली- COGNIZANCE

वैयक्तीक विकारांचि तीक्ष्णता खंय सरता आती केद्दाणा एक समूहाचे सगळे अणभव आपण्यालेचि जाताय अशि कळैनाशिं कवीचे हर्दांथकून उतरां फुरताय-

शंबर शंबर वर्सा गेलीं-आज तूं
माका ओळखना-हांव तुका - जे एकच पळ्यांतु ओळखता पडताले, एकच देवाक नमताले, एकच आंगणांतु खेळताले तसले आमगेली आतां ही दुरवस्था-दुख वस्था !

हाणीय साभार कविता कांय रचलीनाय. "ऋतू"चेरि उजवाडाक आयलेल्या "ससार",

ोरगु", "आमका नाका-" अश्या कवितेंत आयचे लोकाचें पडबिंब आसा आनी तें हांचे
हासाक पात्र जाता. "पवळीं" म्हळ्ळेले शीर्षकारि हाणी एदींच सान चिन्ताचित्रां रचील्यांय-

एकु हातु रगड्यारि
आनी हातु पीड्डांतु
एक दोळो ?
दोळ्यानि उलौंच्या घोवारि-

दोगाल्योंय कविता चडय गोयंचे "ऋतू"चेरि उजवाडाक आयल्या म्हण्टना एक अप्रिय सत्य मचे मुकारि प्रत्येक्ष जाता. केरळांत नवे कवितेक वाचक नाय-आस्वादक नाय! मलयाळलिपीन कणी बरोवन येवुंचे "कोंकण जनताचे" चडय लेखकानि तांगेले परणे शैलीन, बोली भासेन यल्यारि हांगाचे वाचकांक तेंचि खूब-तेंचि प्रमाण ! देखून, व्होड साहित्यवासना वा रूचि तेल्लेय म्हस्त बरीपी केरळाचे कोंकणी साहित्यामळारि वावुरल्याय-वावुरताय. तावळि हित्याविशीं प्रबन्ध तयार करतल्याक खरें साहित्य हेर तराचे बालसाहित्यांत घुपसून वेंचूकच यना ! जाल्यारि श्री.आर.एस. भास्कराक ओळखूक कांयच प्रयास ना. देखूनूच तांचि कविता . मनोहर सरदेशायानी स्वयं अणकारून साहित्य अकादमीचे "प्रतीची" विशेषांकाचेरि आस्पा यल्या. आनी तांचे कवितासंग्रह "अक्षरांक" (केरळ कोंकणी अकादमी 1992) श्री. पुंडलीक यकानी संतोषान प्रस्तावना बरयल्या भास्कराले कोंकणी कवितेक बारा वर्सां मात्र प्राय ल्यारि तांचि जाणीव बरीच जूनि आनी दृष्टि सूक्ष्म आसा. सगळे प्रपंचाक ते आपण्यांत ावाहन करताय आनी सादे सुटसुटीत उतरांचि आत्मनिष्ट भावकविता रचिताय. थोड्यानि आपण्यालें स्वत्व सोदीताय आनी थोड्यानि जगाकच मापीताय.

गेले "अक्षरां" संग्रहांतुल्यो थोड्यो ओळियो-

अशिल्लीं तीं अक्षरां सगळीं
आज माका नष्ट जालीं-
म्हजेचविशीं बरोवंचाक
अक्षरांचो उणाव दिसता-

नपारांचे चारि वरांचेरीच सदा फुलूचे "फुल्झाडी फूला" खातीर-

"धाकलि धूव तूं धर्तरेचि
जीवित गो तुजें पावसाळे फुग्याचें
एकसुरे येवुंचे, मोनेपण भोगुचे
तुजे खातीर गांथल्या काळजांतली कविता"-

थोड्यानि कवि प्रसन्न आसा- "पारिजात हांसलें" "सूर्या विसरलो अस्ताक" "रजेचि

मजा" "केरवील" "आंगणांतुलि मोगरि" "नांक कित्याक ?" ह्या सगट कवितेंत ए
प्रसन्नभाव थोड्यानि धार घालेले उतरांनी तो आपण्याचोय सारखिल्यांचोय परिहास करत
"अक्षर दिवपी तो शिकोणार; अक्षर विकपी तो साहित्याकार !" केरळांतुलि कोंकणी कवि
आजि खंचे श्रेणीचेरि पावल्या मणु चोवुंका जाल्यारि श्री. आर.एस. भास्कराल्यो कविता वाचू
हांगाचे कवितेचो एक उजळ फुडारूय तांगेले लिखणीचेरि माका दिकूयेता.

केरळांतु पिरथमच्यापशि चड कोंकणी साहित्य आनी कला आजि वाड्डता आनी तांव
फाव तो प्रोत्साहूय मेळता हाका उदाहरण हें सेमिनारच !

आतां उपसंहारा रूपान दोनि उतरां-

एक भासेचे लोक तीन चार गावांकडे वांटून आसतना ते भासेचे साहित्याक एक तराचें भाग्य
आनी एक तराचें दुर्भाग्यय मेळता. भारतांतुल्या भासेंमद्दें हे तराचे अणभव चडय कोंकणीक
मेळ्ळ्याय. आतांचे कोंकणी साहित्याक वेगवेगळे भाषा साहित्यांचे आनी संस्कारांचे संपर्कगु
मेळताय-हें आमचें सौभाग्य. आनी व्हड दुर्भाग्य म्हळ्यारि आतांय वेगवेगळे गावांचें कोंकण
साहित्य अशि-तशि समजूक, आस्वादन करूक जायना. कित्याक म्हळ्यारि कोंकणींत साहित्
वाड्डूचे पिरथमच तिर्जी संतान शिवंडल्ली. भास बदलली. देखून आतां साहित्यां पुणीय एव
प्रमाणीकरण आयले विना साधारण जनाले भासेक प्रमाणीकरण येवुंचें ना अशि म्हजें मत
सगळ्या कोंकणी साहित्यकारानी, आनी साहित्यप्रवर्तकानी हें उडगासारि दवरचें गरजेचें आन
म्हत्वाचें अशि हांव आठैतां.

  

# केरळांतलीं महाकाव्यां आनी कथात्मक काव्यां

- प्रो. आर. के राव

सोळाव्या शतकाचे उत्तरार्द्धांत गोयंचो सारस्वत लोक साबार करन केरळांत येवन रावलों ्त ब्राम्हण, क्षत्रिय, वैश्य आनी शूद्र जातीचो लोक आशिल्लो. आयचे केराळाचे कोंकणे ह्याच ीकाले वंशज. आमगेले पूर्वीकांत म्हस्त जणाक साहित्यांत अभिरूचि आशिल्ली. आजीय ाहित्यांत अभिरूचि आसले म्हस्त लोक आसात. ताणी सर्वानीय साहित्य निर्माण केलां. साहित्य ्न प्रकारीं आसा, गद्य आनी पद्य. हे निबंधात पद्यरूपान प्राप्त केरळचे कोंकणी काव्य-साहित्या ासून विशेष करन महाकाव्य आनी कथात्मक काव्य-हे दोन प्रकाराचे काव्यां पासून सामान्य ्रन विवरण दिवंचाक प्रयत्न करतां.

**ड्डे रामायण :** हें केरळांतले कोंकणीचे प्रथम महाकाव्य. हें आदिकाव्य वाल्मीकी ामायणाक आधारून रचलां. कसलीय करनी प्रारंभ करचा वेळार आमी विघ्नेश्वराचें पूजन ्रतात. तर्शे गड्डे रामायणाचे कवीन देव विघ्नेश्वराची प्रार्थना सयत काव्य रचना शुरू केल्याः

"ओम नमो गणपते पार्वती नंदन गा
दूसरें नमन करूं गुरूचे चरणीं गा
———————————————"

ी प्रार्थना गीत अशी सोंपता :

तेरवे नमन करूं तैतींस कोटी देवां गा.

उपरांत श्रावण पितृभक्ति सयत काव्य अशी प्रारंभ जाता :

जा चन्दाची कावडी श्रावणाचे खंदीं गा
काशी यात्रा करनु श्रावणु हिंडुक लागलो गा
हिंडता हिंडता घोर वनान्तु पावलोगा
त्या वेळां जाचन्दां दोगयं श्रावणा बोलती गा
रे पुता श्रावणा तान लागलीगा
पाणी नातिल्लें प्राणु कंठी पावलो गा

अर्शे काव्य मुखार चलता. आठ अध्यायानी संपूर्ण काव्य सोंपता. 'ओवी' छंदाचे (चार वळींचे एक लोकगीत) नेमार काव्याचें निर्माण जालो. कवि कोण, रचनाकाल केन्ना-हीं कयरीं आयज पर्यंत कोणाक कळना. पण काव्याचो निर्माता मराठी, संस्कृत आनी कोंकणी-हे भासांत पारंगत आशिल्लो म्हण सांगयेत. कवीन हे काव्यांत प्रत्येक काव्य रसाचे गुणांक अनुसरून

भासेचो प्रयोग केला. कोंकणीचेर मराठी-संस्कृत भासांचो प्रभाव कशी आसा - काव्यांत हें खूब प्रकट जाता. केरळचे कोंकणीचे आदिकालाचें स्वरूप समझूक हें काव्य भारी प्रयोजनाक येता. हांत मलयाळी शब्द कांय नात. काव्य मलयाळम लिपीन बरयलां. हेंच न्हय, आनी हांव हांगा विवरण करचीं चडान चड काव्यां मलयाळम लिपींन प्राप्त जाल्यांत. ते कालाचे कोंकणी कवी मराठीत प्रकांड पंडित आशिल्ले- हेंवय आमकां समझूक जाता.

आनी आतां केरळांतले कोंकणींत प्राप्त कथात्मक काव्यां पासून चिंतन करया. हीं कथा काव्यांय चडान चड लोकगीता रूपान असात. कोंकणी भास आनी साहित्य - हाचे इतिहासाचेर अनुसंधान करचे पंडितांक हे लोकगीत एक मोलादीक निधि आसतले, हांत दुभाव ना.

**वळारू, गणपतीचो लड्डू, भावूळ गाय** - हीं केरळचे कोंकणीचीं लोकगीत रूपान आसचीं कथात्मक की वृत्तांत विषयक काव्यां.

**वळुरू :** एक संदेश काव्याचीं सर्वय लक्षणां 'वळुरू' लोकगीतातं मेळतात. हें एक कथात्मक काव्य. काव्याची नायिका रूक्मिणी. ती लग्न जावन आपणाले भर्ताराले घराक आयली. तिका तिजे बापान अन्दण विन्दण सर्वय दिल्लें. पुण ताक घांटचाक खोवलो दिल्लो ना. मावाले घरकारी गोपालक आशिल्ले. खवल्या खातीर केन्नाय तिज्यो जावो, नणंदो सगटय तिका हिणसायतालीं. रूकमिणी ताजान व्हड दुख पावली. परन्तु बापागेर हें खबर धाडूक तिका कोणेय मेळ्ळो ना. एक दीस तीणे एक वळार वाटेन वता देखलो.

काव्य अशी शुरू जाता : ती वळाराक सांगताः

वाटेन वतल्या वाटेचे वळारा रूक्मिणी कुळारा वेलावीलां

तरी वळार तिजे बापाचे घर-दार कांय नेण. तो म्हण्टा :

हांव नेण वाट हांव नेण तीट हांव नेण रूक्मिणी माय बाप.

भाशी संवाद रीतीर हें काव्य रचलां. रूक्मिणी ताका सांगता :

एक धारीं चंपा एक धारी अंबा तें घर रूक्मिणी माय बाप.

वळार रूक्मिणीचे कुळारां वयता. रूक्मिणीचो संदेश तिजे माय बापाक पावंयता. परंतु तीं कोणेय तिजे घराक वसपाक तय्यार नात. आखेर तिजो भाउ व्यापारी घराक येताकूच भयणीलो संदेश आयकून तुरन्त भायर सरनु तिजे घराक पावता. दूरा सून येवंचे भावाक भयणि रूक्मिणी अशी स्वागत करता :

दूरा जा थाकूनु बंदु जो देखीला पाटु जो सोडीला सुवर्णाचो.

एक हातीं तांबिया, एक हातीं पाटवा

पाय धुयता बन्दुनां रूक्मिणी.

पाय प्रक्षालन करचे वेळार तिजे दोळयांत दुखां आयलीं. हे पळोवन भाउ तिका विचारताः

आयजी इतें जालें रूक्मिणी भयणी ?

त्या वेळार ती जाप दिता :

अन्दण विन्दण दिल्ले मूरे भावा खवल्याखतिरि मायों हिणसिंती मायोरे हिणसिंती नणन्दो
वो दिर्ती शेजार घरच्यो बायलो व्हयव्हय म्हणंती.

हें आयकचाक भावान तुरन्त थयंच शेटीक बेसोवन सुवर्णाचो खवलो आनी रूपयाची
ी घडोवन दिवयलो. रूक्मिणीन अति आनन्दात खवल्यान ताक घाण्टूक शुरू केलें.

कवीन संवेदनात्मक रीतीर कशी तें काव्य समाप्त केल्यां, पळेयात :

सुवर्णाचो खवलो रूपयाची दोरी
ताक घाण्टित गोरी रूक्मिणी
ताक चाळता ताक चळता
खवल्या लागलो गूळो
तांत देखिला तीळो कुंकुमेचो.

हे काव्यांत भाउ आनी भयणि हांचे मद्दें आसचो पवित्र, निर्मल स्नेह भावनासंपन्न कवीन
कृष्ट नमूनेचेर प्रकट केला. मात्र न्हय आजीय अन्दणा खातीर आत्महत्या करचें मरान खबर
तेदिन आमी समाचार पात्रांचेर वाचता. समाजांत प्रचारार आसचें, विशेष करन कोंकण
हम्ण समाजांत स्त्रीधन संप्रदायाक परिहास करन त्या खतीर आमचेगेल्यो चेलीयो लग्नाचे
नरान्त भरताराले घराक भोगचें दुख आनी संकश्ट सुन्दर, सरस आनी संवेदनशील रीतीर हें
ाव्यांत स्पष्ट केलां. हें कळंक आजीय धूवन पुसून पर उडोवंचाक समाजा निमित्तीं जालेना
णूय कवि संकेत करता.

हे काव्याची आनी एक विशेषता म्हळेली ही : इतर आधुनिक भारतीय भासांत संदेश
ाव्याचें निर्माण जावंचे भो फूडे कोंकणी भासेंत संदेश काव्याचे बीज उपजलें - हें कोंकणी भासा
न्याक खास करन केरळाचे कोंकणी समाजाक प्रत्येक गौरवाचें खबर. हे काव्याची भास ठेठ
ोंकणी आसा. मराठीचो प्रभाव भो ऊणे, ना म्हण सांगयेत.

**णपतीचो लड्डू :** हें केरळांतले कोंकणीचे एक घटना प्रधान गेय काव्य. हें काव्य हांगाचे
ोंकणी समाजांत चड प्रसिद्ध आसा.

काव्याची कथावस्तु बालक कृष्णचे भुरगेपणाचे स्वाभावाचेर आधारून आसा.
कुलांतली एक गोपी बालक कृष्णाचे दुर्गुण विशेष करन लोणी चोरचें खातीर माय यशोदेक
पदेश दिता :

ती सांगता :

यशोदी सुन्दरी कृष्णु लूटी भारी
करता गो मुरारी सांगता तुका.

तिजे उपदेश प्रमाणीं यशोदी चेरडाचे वायट गुण ना जावंचे खतीर गणपतीक प्रसन्न करचाक लाड्डू आनी मोदक निवेद्य करता अनी गणपतीचे पूजन वेळार थंय हाडून दवरता. आतां बालक कृष्णु लाड्डु मागता. यशोदी कृष्णाक सांगता :

पूजा जावो पुता दीन तुका लाड्डू हात भरनु.

अशी सांगून यशोदा धूप दीपाक इंगाळो हाडचाक वता. त्या वेळा कृष्णु लाड्डू मोदक चोरनु खाता. इंगाळो घेवन पांवचाक थंय लाड्डू मोदक कायना. कृष्णाक विचारलें तो सांगता :

भायर तूं गेल्ली, हजार उंदीर
आयले हांगा थोर सत्य सत्य
तांतु एक थोरु विंदूरु आशिल्लो
ताजे फाटीर बैसल्लो भयंकरु
आंगाक सिन्दूरु लायला भयंकरु
पशांकुश धारी कोण गे तो ?
गणपतिचो लाड्डू घेवन गेला चोरु
हांव गुणात्कारु जालो देवा.

कृष्णालीं उतरां आयकून यशोदेक कोप आयलो तिणें ताका तोण्ड "आ" करचाक सांगलें आनी एक थापट मारलें. कृष्णान रोडून तोण्ड 'आ' केलें. त्या वेळा यशोदेन कृष्णाचे तोण्डांत पूराय ब्रह्मण्ड पळयलें. भूत, गणपति सर्वय थांगा दृष्टि पळळे. ते सर्वय तिका सांगतात दिसलें कि कृष्णु विष्णु म्हणु.

ह्या काव्यांत यशोदेक कृष्णाचेर आसचो पुत्र स्नेह, गापीजनाक कृष्णाचेर आसची श्रद्धा भक्ति प्रकट जाता.

**भोवुळ गाय :** केरळांतले कोंकणीचे आनी एक कथात्मक काव्य आसा. हें काव्य सत्य निष्ठा आनी सत्य धर्माचेर चढ बळ दिता. मानव जीवनाचे तत्वज्ञान, दूसरे प्राण्यां विशीं मोग आनी त्याग करपाची तयारी हे काव्यांतल्यान प्रकट जाता. जल्मान जानवर जाल्यारीय सत्याचें पालन करचाक ताजी उत्कण्ठा पळवनु दुष्ट हिंस्र जन्तु वागु गायक मुक्ति दिता आनी तिजे वास्राक आपणालो भाचो मानता. थोडे करन हीच ह्या काव्याची कथावस्तु.

एक घटिमुट्टी गायक देखून एक वागु तिका खांवचाक तय्यार काडता. गाय ताका सांगताः

आगा आगा वागा माजे थानी आसा दुबो

एक पानो दीवन ताका भूक राखावे.

दुब्याक एक पानो दीवन परतून येवंचाक वागु तिका अनुवाद दिता. गाय गोटयांत
ा दुब्याक सागंताः

सुरसुरी पी रे पुता दुद्दाचे घोट

फायचे दिवस पुता भोगूचे कश्ट.

उपरांते भोवूळि अपणाले भासे प्रमाणी वागाकडे वसपाक तय्यार जाता. दुबो तिका
ना. आखेर दोगाय मेळनु वागा कडे वतात.

भोवाळी चमकता मुखारी
दुबो चमकता मागलान
येता येता म्हणु वागु वाट राखता.
वागा समक्ष पावन गाय सांगता.
आगा आगा वागा तूं भुवाळेक खागा
राख माजे दुबयाक त्रासेक येवन्ती.
-हें आयकचाक दुबो सांगता.
आगा आगा वागा तू दुबय्याक खागा
राख माजे भुवाळेक सोड्डून दीगा.

हें अजाप दृश्य देखचाक हिंस्र जन्तु वागाचें मन भगवान बुद्धाली भूतदया समझले गदी
ता. तो म्हणताः

भोवाळी माजी भयणी, दुबो माजे भाचो

तुमी दोगय राज कर्याय बन मज्जारी

ो काव्य सोंपता.

एक हिंस्र जन्तु वागांत सरी त्याग, दया, स्नेह आदी गुण उरतांत. पुण ईश्वराली श्रेष्ट
ट मनीश हें विसरता. हें पाठ हें काव्य आमकां शिकयता. अशी केरळाचे कोंकणींत आनीकय
ात्मक काव्यां आसात. हीं चढान चढ लोकांचे जिबेर घळतात छापून उजवाडांवचाक कोणेय
प्रयत्न करनै. कोंकणी भाषा संस्थान हाचेर श्रद्धा दीवन आसा.

आनी आतां हांव हांगा पुराणाक आधारून रचिल्ली केरळांतलीं एक दोन कथात्मक
यां पासून सांगचें अशी आशा पावंतां.

**'वेंकटेश कल्याण'** केरळाचे कोंकणी साहित्याचें उज्वल काव्य आसा. काव्याचो कवि अज्ञात, काल निर्णय करप कठिन. पुण सत्राव्या शतकाचे प्रारंभाक हाजे निर्माण जालें अशी ताजे भासे लागून सांगयेत.

काव्याची कथावस्तु भविष्योत्तर पुराणाचे "श्री वेंकटेश माहात्म्यम् तृतीय उश्वास" हाका आधुरून आसा. चार अध्यायानी काव्य समाप्त जाता. हें एक गेय काव्य. कर्नाटक संगीतज्ञ कवीन काव्याचो प्रत्येक अध्याय एक एक रागार आनी ताळार रचला. काव्याची भास शुद्ध कोंकणी आसा. मराठी भास आनी शैली सून मुक्त भाषा. मलयाळम भास आनी शैलीचो कांय प्रभाव ना. हें काव्य मलयाळम लिपींत छापून उजवाडायलां. सत्राव्या शतकांत केरळाचे कोंकणी लोक जी भास व्यवहारताले ताजें स्वरूप हे काव्यांत झळकेता. केरळाचे कोंकणी समाजाचे घरान घर, विशेष करन गौड सारस्वत ब्राह्मणांगेलें, हे काव्याचो प्रचार आजीय आसा. हें काव्य केरळाचे कोंकणींत उजवाडायली प्रथम साहित्य सृष्टि अशी माका दिसता. कोंकणी भाषा संस्थानान कोंकणीची सहज लिपि नागरींत हें काव्य लिप्यन्तरण करन प्रकाशन केल्यां.

सोळाव्या शतकाचे मध्यकालाक गोयान्त पार्तुगीसाचें शासन शुरू जालें, तें सरकार गोयंचे हिन्दू लोकांक बलात्कारी बाटोवन खारे करतालें. आमचो धर्म आमकां माय भूयचे पशीय व्हड आनी महात्वाचो अशी मानचे कोंकणस्थ गौड सारस्वत स्वधर्माचे संरक्षणा खातीर मायदेश गोंय सोडून केरळांत आयले. अशी इतिहास प्रमाण आसा हाची सूचना हांवें प्रबन्धाचे आरंभार दिल्या. ताणी केरळाचे कोषिक्कोड, कोची, वायपे, परकाट हे तटबंदी शहरांत देशान्तर केलें. हांगा व्हडव्हड देवळां निर्माण करन आपणानी हाळळेलीं बिबांची प्रतिष्टा केली. एक एक देवाचे स्तुतिगीत तांचे मद्दें प्रचारार आशिल्ले. **"वेंकटपतीची कथनी"** तसलें एक स्तुतिगीत जें कथात्मक काव्याचे श्रेणींत येना अशी माका दिसाता.

कोचीची प्रतिष्टा मूर्ति श्री वेंकटपतीचे इतिहासाचेर निर्मिल्ले हें काव्य रचलां श्री वासुदेव कवीन. हें काव्याचे समाप्तीचेर कवीन स्वयं सागलां. वेंकटपतीचे हें बिंब विजयेन्द्र तीर्थ स्वाम्यानी कोचीचे महाजनांक प्रदान केलें. तांकां हें बिबं खंयसून प्राप्त जालें ? कशी प्राप्त जालें आदी कायरीं ह्या काव्याचो मुख्य विषय आसा. कोचीमहाजनानी हें बिंब कशी घेतलें, आनी देवालय निर्माण करन ताची प्रतिष्टा केन्ना केली हें सर्वय खोल्लायेन सुन्दर, सरळ सरस भासेंत ह्या काव्यांत वर्णन केल्लां.

काव्य अशी आरांभता :

श्री वेंकटपतिचीं चरणा वन्दुनि
गातोमी तवयाची गाथा
त्याची लीला अघनाशिनी
भक्तिन तीवय आयकूनि

---------------

---------------

ब्रह्माण्डाचो नायकु तो हरि
शंखु चक्र धरि लक्ष्मी हृदय धारी
भक्तांचा तो कैवारी
हो तो पूर्वी गिरीवरीं
विजयनगरीचा राजा नरहरी
नित्य गिरीवरीं दर्शन कारी
प्रसन्न जाला त्यासिं हरि
सोडुनि तो गिरी अघसंहारी
वासु करी विद्यानगरी.
ते राया उपरान्ते
तत् बन्धूनि कुकर्म करूनी
कलह माण्डुनि वैरिमिळवुनि
पेटवीला नगरीं अग्नि.
अर्चक सपनी हरिने सांगुनी
प्रतिमा टकली कूप वर्नी
कुंभकोण विजयेन्द्र यतीने
पाहिली प्रतिमा ती सपनीं

---------------

यतिही गेला घोरवनी
पाहुनि विहरि उतरूनि मूर्ति
घेवुनि आले निज सदनी.

---------------

---------------

फिरत फिरत ते बहुकालानी
मूर्ति सहित घेवुनी
गोश्री नगरीं आले पूज्य यती

---------------

---------------

सुप्रसन्न मन वृद्ध महाजन
मिळवुनि यतिन बहुधनघेवुनि
प्रतिमा मागली म्हाळपैन

---------------

---------------

सिर भर कनका द्रव्य घेवुनी
दीलें यतीन जनां हरि
बहुजन मिळवुनि द्रव्य खर्चुनि
कृष्ण शिलालय बान्दूनि
रूपया लाविला सिंहासनि
त्यावरी भक्त्या म्हाळ पैन
वेंकटपतिची प्रतिष्ठा करूनी
तोषविले ते बहुजन मन
ब्राह्मण भोजन बहुदानान
उत्सवु जाला नंन्दान.

आखेर काव्य अशी सोंपता -

इति ही वेंकटपतिची कथनी
विप्रमुखानी आयकूनि
तनमन घेवुनि सप्त दिन
निर्मिलें हे वसुदानान
बुद्धि हीन त्या वसुदेवाक
आयुर्धन संतान देवुनी
तृप्ति करावे श्री हरिन.

काव्याची भास आनी शैली-हांचेर मराठीचो भारी व्हड प्रभाव दृष्टि पडता. देकून कर्तार कवी मराठीचो व्हड पंडित आसयेत सी दिसता.

केरळांतले कोंकणीचें आनी एक कथात्मक काव्य आसा सत्यनारायणव्रत कथा. हाची कथावस्तु स्कन्दपुराणाचे रेवा काण्डां सून स्वीकार केल्या. काव्याचो कवी 'चेराय' गांवचो संस्कृत भासेचो महापंडित साहित्यरत्न श्री पम्दनाभ वाध्यार आसा (1890-1953). काव्याचें नांव आयकतच काव्याची कथावस्तु मनां येत्ता. लळित कोमळ संस्कृत पदां, तशीच सुन्दर, सुमधुर कोंकणी पदां - दोनीय मेळोवन वाध्यारजीनी कोंकणींक एक भावमधुर शैली प्रदान केल्या. तांची भास मोवाळी आनी म्होवाळी, गोड आनी संगीतात्मक आसा. तांणी व्यवहारलेली ही भाषा शैली मागीर आयल्ले कोंकणी कवींक मार्ग दर्शक जाल्या अशी सांगाचांत काय दुभाव ना. हांगा उपस्थित तुमचे जाणवीकायेक हे काव्यांतले एक दोन श्लोक म्हणतां :

सत्यनारायण व्रत अतिपावन
दारिद्र रोग दुख संकट नाशन
अन्त्यकालीं प्राण्याचे मुक्तीक साधन
इह पर दोनीय लोकीं नित्य सुशोभन.

---

---

तुमीय आचरण कर्याय हें व्रत
शीघ्र प्राप्त जावयेत सर्व अभिमत
कल्पशिल्लें विष्णूनच विधिसहित
जन्म साफल्य मेळचें संशयरहित.

**रघुरामायण** - हें केरळांतले कोंकणीचें दूसरें राम काव्य आसा. तिरूवितांकूर राज्याचे आलप्पुषा गांवची-आरप्पळेची-कवयत्री श्रीमती जी. कमलम्माळ हीणे हें काव्य रचलां. कथावस्तु वाल्मीकी रामायणाक आधारून आसा.

हें काव्य केरळाचे कोंकणी साहित्याची एक अनमोल निधि आसा.

कवयत्रीक हें काव्य रचूक प्रेरणा खंय सून मेळी, काव्याचे प्रारंभार कवयत्री स्वयं उडगास करता :

श्री रघुरामायण केल्यारी पठन
मुक्तिदायक विद्या संपन्न वर्धन
विद्यागुण संपन्न तात नियोगान
रामायणाचें कवन केल्लें कोमळान.

व्हय, आपणाले बापसूले प्रेरणान कोमाळान रामायणाचें कवन केल्लां, अशी कवयत्री स्वयम् सागंता. केरळी भास आनी साहित्याचो प्रभाव हे काव्यांत दृष्टि पडता, तें सहज.

मलयाळम् लिपीन्त दोन भागानी रचल्लें हें काव्य क्रिस्तांव वर्स 1981 त केरळाचे कोंकणी अकादमीन नागरींत लिप्यन्तरण करन प्रकाशन केलां. कारण कोंकणीची सहज लिपी नागरीच आनी दूसरे कोंकण देशान्त रावचे कोंकणी साहित्य प्रेम्यांक केरळांतलें कोंकणी साहित्य रूचीन अनुभसुक जातलें देकून.

अशी केरळांतले कोंकणींत महाकाव्य कथात्मक काव्य आनी घटना प्रधान काव्य अशी काव्याचे पुष्कळ साहित्य आसा.

  

# परिचर्चेंत प्रबन्ध मांडयिल्ले लेखक

**श्री. एन. पुरुषोत्तम मल्या** (जा. 1929) हे कोंकणी भाषा प्रचार सभेचे कार्यदर्शी आसात. कोंकणी विर्शी जागृतिक संग्रामांत ते प्रमुख. कोंकणी लोकगीतां, गोविन्द पै शतकम, कलकत्ता नगरी वर्णना, ज्ञानप्पाना अनुवाद अशें कोंकणीन चार पुस्तकां भायर काडल्यांत आनी चारित्रिक व संशोधनात्मक लेखनां छापल्यांत. अनेक संस्थांनी सन्मान केला. केन्द्र साहित्य अकादमीच्या पयले कोंकणी सलहा मंडळींत ते सदस्य आशीले. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे अध्यक्षय आशीले.



पत्तोः 6/1716, पेलेस रोड, मट्टांचेरी
कोची 682002

---

**श्री. पी.जी. कामत** (ज. 1936) हे केरळ कोंकणी अकादमीचे अध्यक्ष आसात. एम ए पदवी जोळ्ळ्या. मौलिक कोंकणी साहित्य संपुष्ट जावपाक केरळांत चड उमेद दिवपी हांकां अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेन सन्मान केला. लिपी विर्शी एक शास्त्रीय चिंतन ह्या लेखनसंग्रहा भायर एक अवतारिका भगवद्गीतेक हाचो अनुवादूय हांणी उजवाडायला. त्या भायर अनेक पुस्तकांक प्रस्तावनाय केरळांतूय भायरय वेगवेगळ्या नेमाळ्यांत लेखन आनी कविताय बरयल्यांत. मल्याळम, हिन्दी भासेनय बरयतात. 'दिवटी' चे संपादक.



पत्तोः 'दयानन्दम', चेरुमुक्कू देवळा लागी,
चेंबूकावु, त्रिशूर 680020

**ो. के. गोकुलदास प्रभु** (ज. 1954) हे मूळ कोचीचे. मडगांवचे फुळागर' पत्रिकेचे कोंकणी कथास्पर्धेंत इनाम जोडून श्रद्धेक ावले. 'पृथिवै नमः' ही नवलिका आनी 'अंतर आयामी' हो थासंग्रह हांचो आसा. केरळांतलेय भायलेय नेमाळ्यांत खनां आनी काणियो उजवाडायल्यांत. कोंकणी समाजाविशीं शोधन करून आसात. केरळांतले कोंकणी साहित्या विशीं क समग्र इतिहास तयार करपाचें कामांत सहभागी आसात. ॉपरेशन बैंकांत अधिकारी.



त्तोः शिव सदन, मित्रा मुद्रणालयाचे लागी,
बन्नंजे, उडुपी 576101

---

**ो. पय्यनूर रमेश पै** (ज. 1959) केरळ कोंकणी अकादमीचे ार्यदर्शी आसात. मंगळूरचे 'पंचकादायी' पत्रिकेन इनामां ावन प्रोत्साह पावयलो. 'सारोपदेशाची काणियो' एकठांयल्यांत ानी म्हण्यां सोरु, रघुरामायण हें संपादन केला. केरळचे ोंकणी लेखकांक एकठावपी यत्नांत प्रमुख आसात. वेगवेगळ्या स्थांकडे निकट संबंध दवरला. मल्याळम आनी कन्नड ासेंतुय वावर केला. दोन कादंबरी अणकारल्या. अंदू थाकून 998 तांय केन्द्र साहित्य अकादमीच्या कोंकणी सलहा डळींत सदस्य आसात.



त्तोः इंडियन ओवरसीज़ बैंक
कीकोषूर, रान्नी 689672



**प्रो. स्वर्णलता जी शेणाई** (ज. 1929) संस्कृत आनी इंग्लीश भाशेंत एम ए पदवी जोळ्ळी; 'कूडियाट्टम्' नृत्यरूपा विर्शी संशोधन केलां. वेगवेगळ्या कॉलेजांत प्रोफेसर आशिल्ली. 1984 सालांत निवृत्ती जाल्या उपरांत कोंकणींत चड वावर सुरु केलो. आतां कोचीच्या सुकृतीन्द्रा ओरियंटल रिसर्च इन्स्टिट्यूटांत ओनररी प्रोफेसर जावन काम करतात.

**पत्तोः** 5/39 'सौभाग्या', ओल्लूक्करा पोस्ट
त्रिशूर 680001

---



**श्री. शरतचंद्र शणै** (ज. 1953) कवितेंतल्यान साहित्यांत प्रवेश केलोलो. कोंकण जनता, ऋतु, कोंकण टायम्स इत्यादी नेमाळ्यांत खूब बरयलां. श्रीकृष्ण कर्णामृतम् कोंकणीन अणकार केला. 1991 वर्सा 'मीराः जीवन आनी कवन' ह्या पुस्तकाक देवकीकृष्ण पुरस्कार फाव जालो. केरळ कोंकणी अकादमीचे संघाटक कार्यदर्शी आसात. मल्याळम कथा आनी कविता कोंकणीन अनुवाद केल्यांत. केनरा बैंकांत काम करतात.

**पत्तोः** 'गोकुल', वेस्ट नडा
पळ्ळुरुत्ती, कोची 682006



**प्रो. आर. के. राव** (ज. 1924) स्वतंत्रताये झुजांत वांटो घेतिल्ले प्रमुख आसा. तांणी हिन्दी विद्वान आनी एम ए पदवी जोळ्ळी. कोंकणी भाषा संस्थान ही संस्था तांणी 1974 वर्सा स्थापन केली. व्याकरण, स्वयंशिक्षक अशी अनेक पुस्तकां उजवाडायल्यांत. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे अध्यक्ष आशीले. 'दोन दंगाळी भात' कोंकणीक अणकारलेल्याक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार प्राप्त जाला. गोड्डे रामायण, वेंकटेश कल्याण - हीं लोकवेद काव्यां संशोधन करून प्रकाशन केल्यांत.

**पत्तोः** निर्देशक, कोंकणी लेंग्वेज इन्स्टिट्यूट
कार्नकोडम्, कोची 682025

# परिचर्चे उपरांत चल्लेल्या कवि संमेळनांत वांटो घेतिल्ले कवि

एन. अनंतशर्मा शास्त्री
भारत सेवा निधी ट्रस्ट, पेलेस रोड, कोची 682002

पंडरिनाथ ए एन पुरम
(एल पी पांडुरंग), पवित्र, 36/1502 (1), जे पी नगर, तिरुवनंतपुरम 695008

बी एस लक्ष्मीश नायक
वेंकटरमण देवळा लागी, रैल्वे स्टेशन रस्तो, कासरगोड 671121

वी शेट बलराज
कोंकणी प्रेमी मंडळ, जनार्दन देवळा लागी, अमरावती, कोची 682001

सुशीला त्रिविक्रम भट
4/1051, डॉ.जे.ए. भट रस्तो, नॉर्त चेरलाई, कोची 682002

के. अनंत भट
4/1050 मंज भगवती देवळा लागी, नॉर्त चेरळाई, कोची 682002

आर. एस. भास्कर
10/539, राम मन्दिर, जे डी साउत स्ट्रीट, अमरावती, कोची 682001

वासुदेव लक्ष्ण प्रभु
सीनियर मेनेजर यूको बैंक, क्लोत बजार शाखा, एर्नाकुळम्, कोची 682035

डॉ. बी. एस. आशा
10/442 भगवती परंब, अमरावती, कोची 682001

पी. एन. शिवानन्द शणै
पुल्लाट कुर्रिंजिकाटिल, कुमारनेल्लूर, कोट्टयम 686016

के नारायण नायक
पडियार कांपाउंड, सौत चेरळाई, कोची 682002

# केरळ कोंकणी अकादमी

केरळांतुले कोंकणी कलाकारांली, साहित्यकारांली तांक वााइ्डोवुंका आनी तशीच आस्वादकांली, वाचकांली तान वाड्डोवुंका ह्या एक उदात्त संकल्पालागून 1979 वर्सा अक्तूबर म्हैन्यांत कोची पयलें अखिल केरळ कोंकणी कला साहित्य संमेळन चल्लें. उबगणीन बेसलेले उमेदीन उठायले. कोंकण जनता प्रकाशन, कोंकणी प्रेमी मंडल, कोंकणी भाषा संस्थान ह्या तीनींतुलेय अंगानीय अन्य भाषाप्रेमीनीय एकमेळून संमेळनाचे मंचकारि "केरळ कोंकणी अकादमी" ह्या नवे संस्थेक रूप दिल्लें.

पयले अध्यक्ष अशिल्ले प्रो. आर. के. राव; श्री. पी. मनोहर पयले कार्यदर्शी. संमेळनाचेंय ताका लागून अकादमीचेंय चिह्न रूपकल्पना केल्लेले श्री. एस. एस. कृष्णन आजि आमचे मद्दें ना. पयले ते संमेळनाक लागून देवलेले सुवनीराचीय ह्या पुस्तकाचीय मांडावळ, भास आनी साहित्य तुलन करतना ह्या तेरा वर्सानि जाल्लेली प्रगति आमकां कळतली. ह्या प्रगतीक कितें कारण म्हणु दूरा खंय सोदूका नाका!

तेरा वर्सांभितर केरळ कोंकणी अकादमीन कितें केल्लें आनी कितलें केल्लें अशी कळूक आतां अकादमीन up up up नांवाची एकि पुस्तिका छापिल्या. थोडे उतरानी तिजेवेल्यान एकि धावंती दृष्टी -

☐ संगीत कार्यक्रमां ☐ कवि संमेळनां ☐ सिंपोसियां ☐ संगीत साहित्य नाटक स्पर्धे ☐ साहित्य शिल्पशाला ☐ गोंयाक एकि साहित्यिक भोवंडी ☐ भक्तिगीत आनी भावगीत एकठावनु एक कासेट ☐ म्हैनाळें ☐ रघु रामायण, म्हण्या सोरू, सारोपदेशाच्यो काणियो इत्यादी अपूर्व ग्रंथांचें प्रकाशन ☐ कथा-कविता संकलन, नवलिका इत्यादी आधुनिक साहित्याचें प्रकाशन ☐ भगवद्गीता, गीतरामायण, बसवेश्वर वचनामृत इत्यादी सुन्दर परिभाषेंचें प्रकाशन ☐ राष्ट्रकवि मंजेश्वर गोविन्द पै स्मरणिका "श्रद्धांजली" ☐ लिपीविर्शी एक समग्र शास्त्रीय चिंतन ☐ गद्य साहित्या खातीरि एक पुरस्कार ☐ टी. डी. स्कुलांत कोंकणी सिखूचे चेर्डुवां खातीरी दोनि पुरस्कार ☐ ललित गीतांची स्पर्धा ☐ कोंकणीक आठवे वळेरींत स्थान मेळोवुंचे खातीरि

एक हस्ताक्षर प्रचार संरंभ □ कोंकणी सिनिमाची प्रदर्शनी, पुस्तक प्रदर्शनी □ अन्य प्रकाशकांले कोंकणी पुस्तकांचें वितरण □ कोंकणी कथांचो मल्याळम अनुवाद........

आतां ह्या अकादमीलींच म्हणु एकेवीस प्रकाशनां आसाय. एक नेमाळें आनी एक कासटय आसा. अकादमीक अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो आनी ISBN खातीरी शिक्षा एवं सांस्कृतिक मंत्रालयाचो अंगीकारु आसा.

केन्द्र साहित्य अकादमीन घडयलेल्या परिचर्चेचे संचालक. प्रो, एन. एन. आनन्दन आनी तशीच प्रबन्ध अवतरण केलेले स साहित्यकारय कवि संमेळनांतु भागु घेतिल्ले कवि सगट केरळ कोंकणी अकादमीचे सजीव आनी आजीव सदस्य आसाय हेवूंय एक भोव श्रद्धेय विषय!

येदोळ भितर केन्द्र साहित्य अकादमीन घडयलेले कोंकणी सलहा मंडळींतले केरळचे चार सदस्यांत तेगंय केरळ कोंकणी अकादमीचे कार्यकर्त आसात.

अकादमीचे 'प्रकाशना निधीक' 251 रुपया दिल्यार मुखावेर्ली प्रकाशनां तुमकां मुफ्त धाडटले.

अकादमींत सदस्य जावपाक वा चड खबरेक-

**श्री.पी.जी. कामत, दयानन्दम्**

चेरुमुक्कू, चेंबुकावु, तृशूर 680020

अथवा

**श्री. आर.एस. भास्कर**

10/539, राम मन्दिर

जनार्दन देवळा लागी

अमरावती, कोची 682001

हांकां संपर्क करुंयेत

**KERALA KONKANI ACADEMY (Regd.)**
**Estd. 1980**
**KOCHI**



1. *Raghuramayan* (1981). Ramayana and Uttara Ramayana story in 802 verses by late G. Kamalammal written in 1940. Edited by Sri. Payyanur Ramesh Pai M.A. pp. 180 Rs. 12 (out of print).
ISBN 81-85367-00-0.

2. *Sradhanjali* (1983). Commemorative volume released in connection with the birth centenary of Rashtrakavi Manjeshwar Govinda Pai Edited by Sri. P.G. Kamath M.A. pp. 118, Rs. 12.
ISBN 81-85367-01-9.

3. *Srimad Bhagavadgeetha* (1984). Verse translation by Sri. B. V. Baliga Founder Editor, Panchkadayi, Mangalore, pp. 142, Rs. 8.
ISBN 81-85367-02-7

4. *Kirkir* (1984). Poems by Sri. P.N. Sivananda Shenoi. Preface by Prof: N.N. Anandan, pp. 28, Rs. 4.
ISBN 81-85367-03-5.

5. *Ghololo Ghas Gilchak Soni* (1984). Story - Poem by Sri Ratnakar Anand Shenoy, pp. 28, Rs. 3.
ISBN 81-85367-04-3

6. *Kaniyam Zhelo* (1985). World famous stories retold by Prof: D. Vishwanatha Mallaya, pp. 36, Rs. 4.
ISBN-81-85367-05-1

7. *Konkani Mhaniyam Soru* (1985). Prestigious volume of over 2500 proverbs, idioms and phrases collected by late R.S. Prabhu forty years ago. Introduction by Dr. N.V. Rajkumar (Retd. Ambassador), pp. 172, Subsidised Price: Rs. 10
ISBN 81-85367-06-x

8. *Anandachim Padam* (1985). Poems by Prof: N.N. Anandan, Introduction by Sri. P.G. Kamath M.A., pp. 58, Rs. 6.
ISBN 81-85367-07-9

9. *Katha* '83 '84 '85 (1986). Anthology of 15 short stories by 15 Authors. Introduction by Prof. V. Sivananda Bhat M.A., pp. 80, Rs. 5.
ISBN 81-85367-08-6

10. *Kavitha '83 '84 '85* (1986). Anthology of 21 poems by 21 poets. Appreciation by Dr. B.S. Asha, pp. 58, Rs. 5.
ISBN 81-85367-09-4.

11. *Prithivai Namah* (1986). Novel by Sri. K. Gokuldas Prabhu. Preface by Prof: Prakash Thali (Goa) Cover design by Sri.Pundalik Shenoy, pp. 58, Rs. 5.
ISBN 81-85367-10-8.

12. *Phullam Mala* (1986). Poems by Smt. Vatsala Manjunatha Rao. Introduction by Sri. Payyanur Ramesh Pai M.A., pp. 32, Rs. 4.
ISBN 81-85367-11-6.

13. *Lipi-Ek Xastriy Chintan* (1986). A scientific approach to scripts and the written language by Sri. P.G. Kamath M.A. Introduction by Prof. R.K. Rao M.A., pp. 60, Rs. 6.
ISBN 81-85367-12-4

14. *Geet Ramayan* (1986). Verse translation of the famous Marathi classic of late G.D. Madgulkar by Sri B.V. Baliga of Mangalore, pp 125, Not for sale.
ISBN 81-85367-13-2

15. *Ek Avatarika Bhagavadgeetek* (1988). Selected essays from Swami Ranganathananda's 'Eternal values for a changing society' translated by Sri. P.G. Kamath M.A., pp. 90, Rs. 10.
ISBN 81-85367-14-0

16. *Saropadesachi Kaniyo* (1989). Stories and Parables from the speeches of Sudhindra Teertha Swami of Kasi Mutt. Collected and compiled by Sri. Payyanur Ramesh Pai M.A., pp. 80, Rs. 7.
ISBN 81-85367-15-9.

17. *Kavya Dhara* (1989). Poems by Smt. Vatsala Manjunatha Rao, pp. 40, Rs. 5.
ISBN 81-85367-16-7

18. *Basaveswara Vachanamritha* (1991). Verse translation of 108 Vachanas of Sant Basaveswara by Prof: M. Madhava Pai of Shimoga. Subsidised price, pp. 48, Rs. 3.
ISBN 81-85367-17-5.

19. *Aksharam* (1992). Poems by Sri. R.S. Bhaskar. Introduction by Sri Pundalik Narayan Naik (Goa), Rs. 20.
ISBN 81-85357-18-3

20. *Bhangra Dant* (1993). Short Stories by Prof. K.R. Vasanthamony, Preface by Sri. P.G. Kamath M.A., Rs. 25,
ISBN 81-85367-20-5

21. *Keralantlem Konkani Sahitya* - Ek Paricharcha (1993). Collection of entire papers read at the Sahitya Akademi Seminar held at Ernakulam in Oct '92, pp. 100, Rs. 40,
ISBN 81-85367-21-3

## BOOKS DISTRIBUTED

1. *Konkani Swayam Sikṣhak* (1975). Self instructor of Konkani through Hindi, by Prof. R.K. Rao. Preface by Sri. Ravindra Kelekar (Goa), pp. 220, Rs. 25.

2. *Tulsidas* (1976). Monograph on Tulsidas by Prof. R.K. Rao and Sri. K. Anantha Bhat, pp. 28, Rs. 1-50.

3. *Konkani Vyakaran* (1977). Konkani grammar in Hindi by Prof. R.K. Rao, Preface by late B.B. Borkar (Goa), pp. 143, Rs. 10.

4. *Konkani Self Instructor* (1984). Self Instructor of Konkani through English by Prof. R.K. Rao. Foreword by Sri. V.J.P. Saldanha (Mangalore), pp. 192, Rs. 25.

5. *Konkani Swabodhini* (1986). Konkani Self Instructor through Malayalam written by Prof. R.K. Rao Foreword by late N.V. Krishna Warrier, pp. 190, Rs. 25.

6. *Venkatesha Kalyan* (1988). Classic devotoinal work of old; Compiled and Edited by Prof. R.K. Rao. Also contains the history, background and gist of the folklore, pp. 51, Rs. 7.

7. *Godde Ramayan* (1989). 16th Century Konkani Lokgeet of Kerala. Collected and transliterated from the ancient palm leaves by Prof. R.K. Rao, pp. 136, Rs. 20.

8. *Mira-Jivan Ani Kavan* (1987). Profile and verses of Sant Mira Bai by Sri. Sarathchandra Shenoi. Preface by Dr. B.S. Asha. Winner of the Devaki Krishna Puraskar 1991, instituted by Devaki Krisna Trust, Karnakodam, pp. 68, Rs. 10

9. *A Higher Konkani Grammar* (1991). In-depth research work by Dr. P.B. Janardhan (Madras) Highly useful to writers, scholars and research students. Foreword by Dr. S.M. Katre (California) Prologue by Sri. T.K.R. Aiyar, pp. 566, Rs. 250.

10. *Konkani Dhatu Kosh* (1991). Dictionary of over 350 verb-roots with their origin and usage by Dr. P.B. Janardhan (Madras) Introduction by Sri. P.G. Kamath M.A., pp. 140, Rs. 50.

11. *Sri Krishna Karnamritha* (1991). 101 original slokas in Sanskrit with verse translation into English and Konkani. Also Commentary, history and background unfurling novel revelations by Dr. P.B. Janardhan (Madras) and Sarathchandra Shenoi, pp. 195, Rs. 50.

12. *Konkani Dictionary* (1987). Over 10000 words with meaning in Hindi, Malayalam and English. Researched and prepared by Dr. L. Suneeta Bai. Published by Cochin University of Science and Technology, Cochin, pp. 334, Rs. 200

13. *Konkani Kathashtak* (1978). Anthology of short stories with introduction by Prof. R.K. Rao M.A., pp. 50, Rs. 2.

14. *Kanyam Ghos* (1979). Anthology of short stories with Preface by Dr. G. Krishna Pai, pp. 72, Rs. 3.

Place your orders with **KERALA KONKANI ACADEMY**

*Admn. Office:* 'Gokul', Near Betal Temple
West Nada
Palluruthy
Kochi 682006

# केरळांतलें कोंकणी साहित्य
# - एक परिचर्चा

केन्द्र साहित्य अकादमीन
कोंकणी भाषा प्रचार सभेच्या सहकारान
एर्नाकुळमांतले महाकवि 'जी' सभाघरांत
१९९२ अक्टोबर १५ आनी १६ तारीकेक
चलयिल्लया परिचर्चेंत
सादर केलेलीं सात प्रबन्धां
हांगा एकठांयल्यांत

प्रतिष्ठित लेखकांनी तैयार केलेलीं
हीं पेपरां पयले पटी
पुस्तकरूपान भायर येतात

केरळ कोंकणी अकादमीचें
एकवीसावें कोंकणी पुस्तक

मोल : 40 रुपया
ISBN - 81- 85367-21-3

